Price ₹20/- (₹25/- Outside Goa)




जानेवारी २०१४

# तुकाराम रामा शेट हांकां साहित्य अकादेमी पुरस्कार





# लुसोफोनियाचो कोंबो झेतार, गोंयचे खेळगडी मात बेकार



# बिम्ब पुरस्कार सुवाळो २०१३

# Government for a better and prosperous Goa

**People Friendly and path breaking decisions accomplished by the Government of Goa headed by the Hon'ble Chief Minister**

## Shri Manohar Parrikar



### *Promises fulfilled*

1) Reduction in petrol prices by Rs 11/- per liter with the abolition of vat.
2) Allowance of Rs 1000/- per month under Griha Adhaar Scheme to housewives to offset inflation.
3) Increase in the financial assistance from Rs 1000/- to Rs 3500/- per month to differently abled persons.
4) Rs 1 lakh to every girl child upon attaining the age of 18 years under Ladli Laxmi Scheme to meet marriage, education and other expenses.
5) Abolition of House Tax for BPL families.
6) Revised Cyber Age Scheme providing laptops to students of STD XI and Tablets for school students.
7) Massive plan fund for overall welfare and development of ST population. Several Schemes notified. Benefits extended to Dhangars.
8) Organisation of Krishirath Scheme in every taluka.
9) Modification of Kamdhenu Scheme to boost dairy farming.
10) Measures initiated for providing 24X7 water supply.
11) Enhancement in the Kala Sanman pension to old artists and state culture awardees to Rs 2500/- and Rs 3200/- respectively.









Department of Information and Publicity
Government of Goa



Working towards a Secular & Prosperous Goa

कोंकणी मासिक

# बिम्ब

१३ वें वर्स








## शीर्षकथा



## मनसंवेदना



## भुरग्यांचें आंगण



वर्स: १३ अंक: १

जानेवारी २०१४

मोल २० रुपया

मुखेल संपादक
दिलीप बोरकार

मुद्रक आनी प्रकाशक
दिलीप बोरकार

छापणावळ
इम्प्रेशन्स, बेळगांव

वेवस्थापक
कामिनी किणी

अक्षर जुळवणी आनी मांडावळ
श्वेता नायक

वर्गणीचे दर
वर्सुकी ३५०रु./३ वर्सां १००० रु.
खंयच्याय म्हयन्या सावन वर्गणीदार जावं येता. वर्गणीचो चेक 'BIMB MONTHLY' ह्या नांवान धाडचो

संपादकीय पत्रवेव्हाराचो पत्तो
'धर्म लक्ष्मी', सांत लॉरेन्स,
आगशीं-गोंय ४०३२०४
दूरध्वनी: ०८३२ २४३८३५५
Email:bimbkonkani@yahoo.co.in





## संपादकीय

बिम्ब
मासिक

# उजवा हात गांडीवर ठेऊन डाव्या हाताने सलाम्...!

आनीक एक वर्स उलगलें. वर्स येता, वर्स वता. तें कोणा खातीर रावना. आमचें काम फक्त तीं मेजपाचीं आनी सरत्या वर्साक बाय बाय करीत नव्या वर्साक येवकार दिवपाचें! ते बगर आमचे मुखार दुसरो कसलोच पर्याय ना. आमी फकत मनाचें समाधान करून घेत आशावादी विचार तकलेंत हाडून सकारात्मक भावनेन आपले आपणाकूच समजायतात. सकारात्मक विचार 'पोझिटिव्ह थिंकींग' मनांत हाडल्यार जिणें सुसह्य जाता खंय! हो विचार तसो नवो न्हय! आदल्या विचारवंतां सावन आयच्या बाबां मेरेन हींच पिल्लां दिवपाचें घडत आयलां आनी आतां गुजरातच्या मुख्यमंत्र्यां पासून गोंयच्या मुख्यमंत्र्यानीय तें आरंभलां म्हणटकच जें कितें आमच्या वांट्याक येता ताचेविशीं वायट चिंतप ना तर आयलां तें बऱ्याकूच आयलां असो सकारात्मक विचार तकलेंत हाडून जिवीत मुखार धुकलप. थोडे भितर सांगपाचें जाल्यार भोंकार खोंट पडली तरी ताचो अपमान बाळगिनासतना, कुल्यांक बरोऽ मसाज जालो म्हणत वाळवो पेंचपाचें!

नव्या वर्साच्या आरंभाक रड नाका, मागीर पुराय वर्स रडतूच सरतलें. ही जाण्टेल्यांची म्हणणी! हाकाच पोझिटिव्ह थिंकींग म्हणटात जावये! पूण प्रयत्न करूनय आमकां तें जमचेलें ना. आमी अतिसंवेदनशील. आमच्या काळजाक सट्ट करून लागता आनी जालें तें बऱ्याक जालें अशें सकारात्मक चिंतून आमच्या मनाचेर फुंकर घालपा बदला आमी जालां तें कित्याक जालां हाचीं कारणां सोदून तशें पर्थून घडपाक फावना म्हूण त्या कारणांचे दांगे मोडपा खातीर फुरफुरतात. अशे वेळार जे कोण पोझिटिव्ह थिंकींग करात म्हुण सांगून आमची दिकाभूल करतात, आमकां मेंगे करपाचो यत्न करतात ते भोवतेक उक्ते नदरेन सरभोंवतणी पळयनात. पळोवन तांचे नदरेक समाजघातक गजाली पडटात आसुनय जर ते त्यो गजाली सकारात्मक घेतात जाल्यार तांच्यो संवेदना मेल्यात अशेंच म्हणचें पडटलें.

सरत्या वर्साक निरोप दितना फाटल्या म्हयन्यांत एका अपघातांत, निकतींच फुलपाकडेन पाविल्लीं तीन भुरगीं सोंपलीं. दोन चलयो आनी मोटर सायकल चलोवपी तो चलो. प्रसार माध्यमांतल्यान ती खबर कानार पडली आनी काळजांत चर्रर जालें. त्या भुरग्यांच्या आवय-बापायन, भावा-भयणांनी आनी सोयरे दायऱ्यांनी घाल्ली काळीज पिळवटपी हामेर कानार सादपाक लागली. अपघात थळार वचून आयिल्ले येरादारी खात्याचे संचालक श्री. अरूण देसाय हांणी हे घडणुकेची गजाल सांगतना दोळ्यांत दुकां हाडलीं. गोंयांत दिसपट्टे जावपी हे अपघात न्हय तर दुड्डू, मौज मजा, चंगळवाद हांचे फाटल्यान भान सोडून धांवप्यांची आत्महत्या! तांचेर नियंत्रण हाडून त्यो घटना आळाबंदा हाडप शक्य जायना म्हुण रस्त्यावेल्या दर अपघाता फाटल्यान तातूंत खंवसल्ल्या पिडिताचे आप्तूच रडनांत तर अरूण देसाया सारखे संवेदनशील अधिकारी चुरचुरतात. आमच्याय काळजाक वेदना जातात. ह्यो घडणुको दर वर्साच्या निमण्या दिसांनी तर चडूच घडटात. तेन्ना सरत्या वर्साक निरोप दियत नव्या वर्साक खंयच्या तोंडान येवकार दिवपाचो? ह्या वेळार खंयची 'पोझिटिव्ह थिंकींग' मनांत हाडपाची?

हालींसराक दर दिसा घरफोडी, वाटमाऱ्यो, बलात्कार हांच्यो खबरो येत आसात. दिसा उजवाडा घरां फोडून मालवज फारायतात तो जालोच, घरमालकांक जिवानिशी मारतात. पोलिसांक गुन्यांवकारी सांपडनात. घरमंत्री सांगतात न्हिदूं नाकात. न्हिदप जिवार बेतूं येता. 'पोझिटिव्ह थिंकिंग' करात. ह्या गजालींक येवकार दिवपाचो नव्या वर्सा?

नव्या वर्साच्या हुंबऱ्यार आनीक एक घडणूक घडली. बिम्ब परिवाराचे मित्र आनी बिम्ब मासिकाक वेळ मेळटा तशीं चित्रां काडून सजावट करपी साहित्यिक आनी चित्रकार विष्णू वाघ हांचेर जीवघेणो हल्लो जालो. विष्णू वाघ हे लोकप्रतिनिधी. बिम्ब जे सुवातेवेल्यान उजवाडाक येता त्या मतदार संघाचे आमदार. विष्णू



वाघांच्या म्हणण्या प्रमाण हल्लो करपी भाजपचे कार्यकर्ते आनी तें कर्म करपाक फूस दिवपी भाजपचेच फुडारी. विष्णू वाघ आपल्याच पक्षाच्या फुडाऱ्यांक कित्याक पिडटा हो ताचो प्रस्न आनी ताचेर शिस्तभंगाची कारवाय करप काय ना ही पक्ष मुखेल्याची मर्जी. घरचो भुरगो मस्ती करता जाल्यार ताका घरच्या मुखेल्यान शिस्त लावची. पूण ताका रस्त्यार हाडून बडोवप समाजाक मान्य ना. आयज लोकप्रतिनिधीचेर हल्लो जाता. फक्त लोकप्रतिनिधी न्हय तर आपले कलेन समाज मनाचेर कुरवो सोडल्यात अश्या कलाकाराचेर हल्लो जाता आनी सरकार पक्षाच्याच आमदाराचेर हल्लो जावनूय सरकाराक हल्लेखोर सांपडना. वेल्यान घरमंत्री सल्लो दिता पोझिटिव्ह थिंकींग करात. जेन्ना लोकप्रतिनिधींकूच ह्या गोंयांत सुरक्षा ना थंय सर्वसामान्य लोकांक कसली कर्माची सुरक्षा मेळटली? हें तर अराजक! ह्या अराजकांत कोणेंच आवाज काडप ना. जो कोण काडटा ताची गत विष्णू सारकी जातली अशी ही कृतीशील धमकी! म्हणटकच ह्या असल्या वातावरणांत नव्या वर्साच्यो शुभेच्छा दियत नव्या वर्साक येवकार दिवप आमकां जमना. आमचें संवेदनशील मन ताका मान्यताय दिना. जांकां शक्य आसा ताणीं असल्या दरेक घडणुकांचेर पोझिटिव्ह थिंकिंग करून नव्या वर्साक येवकार दिवंचो. तेच वांगडा आमचे मित्र मंगेश पाडगांवकार हांची 'सलाम' कविता पूर्ण न्हय तरी दोन ओळी पाठ करून जीवनमंत्र म्हुण ओंठार घोळोवच्यो.

सलाम, भाईयो और बहनो सलाम, उजवा हात गांडीवर ठेऊन डाव्या हाताने सलाम...

■

– दिलीप बोरकार

# प्रतिबिम्ब

संपादक बिम्ब

बिम्ब मासिकाच्या तपपुर्ती निमतान हुनहुनीत परबीं! एक बरोवपी म्हुण बिम्ब परिवाराचें घटक जाल्ल्यान तुमका हीं परबीं भेटयतना खूब खोस भोगता.

२२ डिसेंबराच्या सुवाळ्याक हाजीर रावपाची खूब इत्सा आशिल्ली. ह्या निमतान सगळ्यांची वळख जातली आशिल्ली. पूण ह्या दिसांनीं हांव गोंयांभायर आसतलें देखून हाजीर रावंक शकचें ना म्हुण वायट दिसता.

बिम्बाक फुडले वाटचालीक यश आवंडेतां. देव बरें करूं. तपपुर्ती निमतान सुचिल्ली कविता धाडटां.

### बिम्ब

बिम्ब – कोंकणी समाजाचें पडबिम्ब
पोसो भरून उमाळे उक्तायता
नाना तरेची उस्तवारी करून
वोंवळांचो परमळ पसरयता

शीर्शकथेंतल्यान ताज्यो घडामोडी
गरनाल फुटिल्लेवरी गर्जेतात
अग्रेकणी म्हळ्यार यादींचो इंद्रधोणू
तर तेरेकवार वाठारांतली भोंवडी
तेफळांवरी मिरमिरीत!

कथा–कविता मनसंवेदना जागयतात
मन रिजवण करताना
समाजाक नवी दिका दाखयतात
मेंदवाचेर ताण दिवपी उतरकुवाडें
भलायकी आमकां विसरूंक दिना

भुरग्यांच्या आंगणांत खेळून लेगीत
मस्ती कशीच जिरना!
अशें हें आमचें 'बिम्ब'!
संपादकाच्या उल्याक दितना जाप
मतींत आमी धरपाक जाय
एकमेकांक दिवन पालव
सोंपूंक केन्ना दिवचे नात!

■

– **सुषमा तिळवे**
फोंडें – गोंय.

# गोवा बुकवाल्यांचें मत...!

हांवें म्हजे कॉलेजींतले लायब्ररींतल्यान बिम्बाचो २०१३चो दिवाळी अंक चाळ्ळो. हो ३५० पानांचो सुंदर असो अंक. खूबशीं पानां जायरातीन भरल्यांत. चडशीं रंगीत. म्हणचे ह्या दिवाळी अंकाचो खर्च भरून आयला असो अदमास काडूं येता.

कोंकणी जगतांतले खडेगांठ बरोवपी जशे महाबळेश्वर सैल, माया खरंगटे, मीना काकोडकार, जयमाला दणायत, माधव बोरकार, नयना आडारकार, प्रकाश पाडगांवकार, प्रशांती तळपणकार हांच्या साहित्याचो तातूंत आसपाव आसा. हातुंतल्यान साहित्याचे वेगवेगळे विभाग आसात जशे कादंबरी (मातयेचें मळब–सैल) कथा, कविता, ललित (हाचो अणकार कितें म्हुण करूं येता, उत्कृश्ट साहित्य?) प्रवासवर्णन, भुरग्यांचें साहित्य आनी जायतें.

भुरग्यांच्या साहित्या खातीर फॉन्ट सायज हेर साहित्या परस मोठो वापरला. जर पुराय अंका खातीर होच फॉन्ट वापरिल्लो जाल्यार खूब बरें जावपाचें अशें म्हाका दिसता, कित्याक भुरग्यां वांगडाच जांच्या दोळ्यांक दिसपाचो त्रास आसा अश्या जाण्ट्यांकूय ताचो फायदो जावपाचो.

हांवें फक्त तो अंक वयले वयर चाळ्ळा म्हणटकच साहित्याचेर हांव म्हजें मत प्रदर्शन करिना. तरी तुमकां तातूंत बरें–वायट सांपडटलेंच. तरीय हांव थोडे तिरसुवादीक कमेंट्स संपादक दिलीप बोरकाराक तिडावंक मारतां.

१) अंकांतल्या कोंकणी बरोवप्यांची मांदयाळी, खास करून जे देवनागरी लिपींत बरयतात ती नदरेखाला घालतकच तातूंत कांय जाणांची गैरहाजीरी जाणवता, देखीक – उदय भेंब्रे, दामोदर मावजो, पुंडलीक नायक, जयंती नायक आनी कोंकणी भाशा मंडळाचे कार्यकारी समितीचे वांगडी बी. हो एक योगायोग आसूं येता जातूंत थोडें राजकारण झळकता.

२) ह्या पुराय अंकांत म्हाका फक्त दोनूच क्रिस्तांव बरोवपी दिसले. विन्सी क्वाद्रुश जाका हांव वळखतां आनी ब्रॅन्डा मिनेझीस जाका वळखना हांव. मेळ्ळांय आसत पूण याद जायना. तरी म्हाका हें प्रतिनिधित्व खंती करपी दिसलें.

त्या मनान फाऊस्त दा कोस्ता संपादीत करता तें गुलाब म्हाका चड सेन्सीबल दिसलें. तातूंत मुळांत देवनागरी बरोवपी (हिन्दू बरोवपी) आसात जांचें उप्रांत लिपयांतर जाता जावंक जाय. तशेंच मंगळुरी लेखकांचें बरप आसता. दिलीप बोरकार हातूंत सातत्यान बरयतात. म्हाका दिसता तो मुळांत रोमी लिपयेंत बरयता जावंक जाय.

म्हाका दिसता देवनागरी बरोवप्यांनी (म्हळ्यार हिन्दु) चड विशाळ जावपाची गरज आसा, निदान गुलाबा इतलें तरी. तांकां सोदल्यार बरे बरोवपी मेळटले. (सोतेर बार्रेटोची कविता – हांव सतत तिच्या दर्जाकडेन निर्देश करतां).

जर बिम्ब, आनी जाग सारखीं नेमाळीं रोमी लिपयेंतलें साहित्य उजवाडाक हाडूंक लागलीं (खास करून क्रिस्तांव कोंकणी बरोवपी) निदान लिपयांतर करून जाल्यार बरें जातलें. थेट रोमीच छापलें जाल्यार अती उत्तम. जाका लागून खूब काळाच्यो जखमो भरूंक पावतल्यो.

त्यो पुराय पेखपाकूय शकतात.

**('गोवा बूक क्लब'च्या मेली वेल्यान अणकारीत)**

■

– **आगुस्तो पिन्टो**
४०, नवो पोर्तुगाल,मोयरा, बार्देस – गोंय



# 10 सुरक्षा सुचोवण्यो
## संरक्षात्मक वाहन चलोवपाच्यो



1. जतनायेन आनी रस्त्यार चलपी दुसऱ्यांचो विचार करून वाहान चलयात.
2. विभाजक शिस्तीक पाळो दियात.
3. धोकादायकपणान गाडयांक फाटीं घालूं नाकात.
4. चलपी, भुरगीं, सायकलवाले, जनावरां हांचेर नदर दवरून वाहान चलयात आनी वायट हवामानाच्या वेळार खासा जतनाय घेयात.
5. थेट मुखावयल्या गाडयेच्या मुखेल दिव्या झोताकडेन पळोवं नाकात.विभाजक मागदर्शना प्रमाण रस्त्याच्या दाव्या वटेनचो वापर करात.



6. रातचे वाहान चलयतना दिव्याचो झोत कमी दवरात.
7. तुमी गाडी चलयतना भावना प्रधान जावं नाकात.
8. तुमच्या वाहानाची योग्य देखभाल म्हटल्यार तुमच्या जिणेची पुराय सुरक्षीतताय.
9. रस्त्याचेर सुरक्षीत वर्तणूक ही प्रवृत्ती आसूंदी, उपकार करून ताचो जिणेंत आस्पाव करात.
10. दुसरो गाडी चुकीच्या पद्दतीन चलोवंक शकता हें मतींत घेवन संरक्षणात्मक तरेन गाडी चलोवपाची मनाची तयारी करात.



**वेगान वाहन चलोवप, अरिश्टाक आमंत्रण दिवप**



**येरादारी संचालनालय**
गोंय सरकार
पणजी–गोंय

# लुसोफोनियाचो कोंबो झेतार, गोंयचे खेळगडी मात बेकार

- दिलीप बोरकार

**गों**यांत जावपा आशिल्ल्या तिसऱ्या लुसोफोनिया खेळाचो आरंभ १८ जानेवारीक जावपाचो आसा आनी २९ जानेवारी २०१४ मेरेन चलपी ह्या खेळा उत्सवाच्या बोधचिन्न आनी गीताचें उक्तावण कांपालार आयोजीत केल्ले रंगरंगयाळे कार्यावळीनूय जाल्लें आसा. बन्सी कौल हांचे संकल्पनेंतल्यान आकाराक आयिल्ली ही कार्यावळ पृथ्वी, उदक, अग्नी, वायू आनी आकाश ह्या पंचतत्वांचे संकल्पनेचेर आधारिल्ली आशिल्ल्यान, भाजपाचे आमदार, नामनेचे साहित्यिक आनी कवी विष्णू वाघ हाणीं बरयिल्लें गीत, ताका मुकेश घाटवळ हांचें संगीत आनी लॉर्ना तशेंच सोनिया शिरसाट हांचो आवाज लाभिल्ल्यान लुसोफोनिया खेळाच्या वातावरण निर्मितीचो आरंभ अपेक्षा वाडोवपी आशिल्लो. ह्या वेळार सादर केल्ले कार्यावळीन भारताच्या आनी गोंयच्या संस्कृतायेचें दर्शन घडयलें. हें सगळें पळोवंक उमेद दिवपी आशिल्लें तरी गोंयांत ज्या लुसोफोनिया खेळाचें आयोजन केलां त्या खेळाचो आमकां गोंयकारांक कितलो लाब जातलो हाचेरूय तसो विचार जावपाची गरज आसा. आमच्या गोंयचो सगळ्या मळावेलो आतां मेरेनचो इतिहास काडून पळयलो जाल्यार गोंयचो वापर फक्त आयोजना खातीर जाल्लो आसा. गोंयकारांनी सगळी तयारी करपाची आनी ताणीं उभारिल्ले माचयेर मात संवसारांतल्या सगळ्यांनी येवन नाचून दाखोवपाचें! तुस्त तोखणाय खाक्यांत मारून घेवन वचपाचें. ज्या गोंयकारांनी माची उभारली ते माचयेर खंयच्याच गोंयकाराक तशी सुवात मेळूंक ना. मागीर ती भाशेची चळवळ आसूं, साहित्यिक आसूं, इफ्फी आसूं वो खेळाची आसूं! गोंयकारांनी हेरांचो नाच पळोवन चडांत चड टाळयो मारपाच्यो. गोंयकारांचे हेंच परंपरेक लागून जें जें कितें गोंयांत, गोंयच्या बरेपणाच्या नांवान येता ताचेकडेन दुभावान पळोवंचें पडटा.

लुसोफोनिया खेळांची ज्योत आदले ऑलिंपियन ॲथलॅट मिल्खा सिंग हांचे हस्तुकी पेटयली. उप्रांत पत्रकारांकडेन उलयतना ताणीं खेळां मळावेले जायते प्रस्न स्पश्टपणान आनी पोट तिडकीन मांडले. ॲथलेटीक्स हो संवसारांतलो नंबर दोन खेळ आसा. मात भारतांत ह्या खेळाक व्हडलेंशें म्हत्व दिल्लें दिसना. आनी तातूंत सत्यतायूय आसा. मिल्खा सिंग सांगता आपणें ऑलिंपिकांत वांटो घेतल्यार ६० वर्सां पुराय जाल्यांत. पूण अजून दुसरो मिल्खा सिंग ह्या मळार निर्माण जायना. भारतांतले खेळगडे, प्रशिक्षक आनी खेळां संस्था संघटना अजून प्रामाणिकपणान ह्या मळार वावुरनात. सद्याचे भुरगे आनी प्रशिक्षक अथक परिश्रम करपाक खूब फाटीं आसात. देशांत जितलो दुडू प्रशिक्षणाचेर ओततात तातुंतल्यान कांयच फायदो जाल्लो दिसना ही खंत मिल्खा सिंगाची आसा.

हाचेर उपाय म्हुण ताणीं एक प्रयत्न सुचयलो तो म्हळ्यार राष्ट्रीय शालेय खेळ जातात तेन्नाच बरे ॲथलेट गूण आशिल्ल्या गड्यांक हेरपाक



## लुसोफोनिया येवकार गीत

खुशाल भरीत हो येवकार
तुका मानाच्या सोयऱ्या
उचांबळून आयज येता
आमच्या काळजाचो दर्या
व्हिवा लुसोफोनिया, व्हिवा लुसोफोनिया

सोबीत सुंदर आयची वेळ
तरातरांचे जातले खेळ
मळबांत हुबता राष्ट्रध्वजाच्या
रंगांचो हो सुंदर मेळ
एकचाराची, भावचाराची
मशाल उंच व्हरुया
व्हिवा लुसोफोनिया, व्हिवा लुसोफोनिया

स्वागत तुमचें करतना आयज
घुमटाचो गा घुमता गाज
शामेळा वांगडा गितार वाजता
ट्रंपेटाचो चडटा साज
'स्पोर्टिंग स्पिरीट' आपणावन
सगळे जैतिवंत जावया.
व्हिवा लुसोफोनिया, व्हिवा लुसोफोनिया

भारत का है नंदनवन
गोवा इनडीड सेकंड हॅवन
गॅस्ट इज लायक एक गॉड टू अस
मानते है हम मन ही मन
गंध मैत्रीच्या सौंदर्याचा
चोहिकडे उधळुया
व्हिवा लुसोफोनिया, व्हिवा लुसोफोनिया

महा महोत्सव हो खेळांचो
दोळे भरून गा आमी पळोवंचो
खेळामळाच्या उर्बेलागीं
चैतन्याचो संगम जिवाचो
उपाट आमच्या मनान अंती
'वा इश्टा' म्हणुया
व्हिवा लुसोफोनिया, व्हिवा लुसोफोनिया

**गीतकार** — विष्णू सूर्या वाघ
**संगीत** — मुकेश घाटवळ
**गावपी** — लॉर्ना आनी सोनिया शिरसाट

जाय. तांचे खातीर खाशेल्या प्रशिक्षकांची नेमणूक करूंक जाय. देशांत सुमार ४० हजार प्रशिक्षक आसात. तेच वांगडा उच्च दर्ज्याच्यो साधन सुविधायो आसात. तेन्ना विदेशांत प्रशिक्षण घेवपा खातीर वचपाची गरज ना आनी विदेशी प्रशिक्षकूय देशांत हाडपाची गरज ना अशें सांगतना विदेशी प्रशिक्षक खेळगड्यांक घुंवळी वखदां घेवंक शिकयतात म्हणपाचो आरोपूय ताणीं केलो. सचिन तेंडुलकारा आदीं ध्यान चंदाक भारत रत्न पुरस्कार दिवपाक जाय आशिल्लो अशें आपलें मत ताणीं उक्तायलें.

जाणीं खेळामळ हें आपलें दैवत मानलें ते मिल्खा सिंग आपलें स्पश्ट मत मांडटात आनी ह्या मळाची अवतिकाय स्पश्ट करतात तेन्ना आमी खेळाकडेन कितले प्रामाणिक आसात ताची कल्पना येता.

### नडणी खंयी पावूं, कण्णो हालता

आमच्या देशांत आमच्या खेळगड्यांनी खेळामळार कितली नामना जोडल्या हाची कल्पना सगळ्यांक आसा. मिल्खा सिंग खेळामळाचेर क्रिकेटीक व्हडलेंशें म्हत्व दिनात. संवसारांत फकत बोटार मेजपा इतले देश क्रिकेट खेळटात. पूण आज आमी ह्या खेळाक हिसपा भायलें म्हत्व दिल्लें आसा. ताचे फाटलें कारण तो खेळ म्हुण न्हय तर आयज त्या खेळान जुगाराचें स्वरूप घेतलां. क्रिकेट हो आमच्या खेळगड्यां पासत झटपट दुडू जोडपाचो जुगार थारला आनी ह्या खेळांत जांकां नशिबान सांगात दिला तांणी खोऱ्यानी पयसो ओडला. खेळगड्यांची बिदागी तांकां मेळटा ती जालीच, ते भायर जायरातींचें मॉडेलींग,



## आपलो आदार गोंय सरकाराक जाय जाल्यार तोवूय दिवपाक हांव तयार आसा

– मिल्खा सिंग



**लुसोफोनिया खेळांची ज्योत आदले ऑलिंपियन ॲथलॅट मिल्खा सिंग हांचे हस्तुकीं पेटयली. मिल्खासिंगाचेर 'भाग मिल्खा भाग' हो चित्रपट गोंयांत लोकांनी पळयल्लो आनी खेळांतली मिल्खा सिंगाची चिकाटी आनी घेवपाक जाय ते परिश्रम हांचो संदेश खेळगड्यां मेरेन पावित्लो. मिल्खा सिंगाक पळोवन खेळगड्यांचीं काळजां भरून आयिल्लीं. मिल्खा सिंगाच्या हातांत पेट्टी ज्योत पळोवन उर्बा आयली ती जालीच. तेच वांगडा तांच्या उतरांनी ताणीं ह्या मळार मिरयतल्यांक भानारूय हाडले.**

**खेळां असोसिएशनांत पदाधिकारी वेंचपाक जी मतदान पध्दत आसा ती बंद करून उडोवप आनी ह्या असोसिएशनांत फकत खेळगड्यांकूच सुवात मेळूंक जाय. आदल्या खेळगड्यां कडेन खेळां असोशिएशनांची जापसालदारकी येवंक जाय. अशें सांगपा वांगडाच जांकां खेळाचो मातय गंध ना असल्यो व्यक्ती खेळां असोसिएशनांनी सुवाती आडावन बसल्यात म्हणपाची खंत तांणी उक्तावन दाखयली.**

**आपणें ऑलिंपिकांत वांटो घेतल्यार साठ वर्सां सरलीं पूण अजून ह्या १२० कोटी लोकांच्या देशांत दुसरो मिल्खा सिंग जायना. हो सरकारचो दोश न्हय खेळगड्यांनी आपली मानसिकताय बदलपाची गरज आसा अशें सांगतनाच गोंयांतल्या खेळाची उदरगत कशी जावपाक जाय हाचेर आपूण सल्लो दिवपाक तयार आसां. जाय जाल्यार सगळो आधार दिवपाकूय तयार आसां अशेंय ताणी सांगलें.**

**पूण ताणीं दाखयल्ली तयारी आमी कितले येवकारतले होय प्रस्न आसाच!**

मॅच फिक्सींग असल्याय रूपान तांचेकडेन दुडू वता. हे सवंग लोकप्रियेतेक लागून आज देशांतले हेर खेळ आड नदर जावंक पावल्यात. खेळांतल्या यशां परस जेन्ना पयसो होच मुखेल खेळ थारता तेन्ना नण्णी तशीच सांडून कण्णो हालोवपाचेर सगळ्यांचो भर आसंता.

लुसोफोनिया खेळ नडणी काय कण्णो हें हे मुखार थारपाचें आसा. गोंयांत लुसोफोनिया खेळाचें आयोजन नाका म्हणत गोंयच्या कांय सुटकेझुंजाऱ्यांनी विरोध केलो. पूण त्या विरोधाक भीक घाली नासतना गोंयांत लुसोफोनियाक येवकार दिवपाची सुरवात जाली आनी तयारी पुर्णायेकडेन पावित्ली आसा. लुसोफोनिया खेळाचें आयोजन गोंयांत केल्यार पर्थून गोंयांत पुर्तुगेज येतलो अशी भिरांत कोणें बाळगुपाची गरज ना. एक भंय आसा तो पुर्तुगेज धार्जिणी मानसिकताय गोंयांत थोडी–भोव उरल्या तिका असल्या आयोजनांतल्यान उदक सारें पडपाची शक्यताय आसा.

पूण ताका उपाय ना. आयज आदलो काळ उरूंक ना. आयज आदलेवरी राष्ट्रभक्ती, देशभक्ती उरूंक ना. आयज पोट भरप आनी दुडू करप हीच प्रत्येकाची जीवनपध्दत जाल्या. तेच पासत आयच्या सरकारांत पुर्तुगेज नागरिकत्व घेतिल्ल्या आमदारांची फाटराखण सरकार करता. तेन्ना काळा प्रमाणे कुरपणें हेंच तत्व आपणावन जें कितें घडटा तें पळयल्या बगर गोंयकारां मुखार दुसरो पर्याय ना.

गोंयांत लुसोफोनिया खेळांचें आयोजन करपा फाटलें कारण कितें हें मात अजून कोण सांगूंक शकना. गोंयांत राष्ट्रीय खेळांसर्त जावपाची आसा. ते पासत लुसोफोनिया खेळाचें आयोजन म्हळ्यार त्या खेळा सर्तीची रंगीत येसाय अशेंय कोणाक दिसूं येता. पूण लुसोफोनिया खेळाचें गोंयांत आयोजन करप म्हळ्यार गोंयकारांच्या घायांचेर मीठ चोळपा सारकेंच म्हणूंक जाय. ताकाच लागून सुटके झुंजारी ह्या खेळांच्या आयोजनाक विरोध करतात जावंक जाय.

संवसारांत जंयजंय पुर्तुगेज भास उलोवपी लोक आसात त्या देशा अंतर्गत ही लुसोफोनिया खेळां सर्त जाता. हे आदीं २००६ वर्सा चीनांतल्या माकाव हांगा आनी उपरांत २००९ वर्सा पुर्तुगालांतल्या लिस्बन शारांत ही सर्त आयोजीत केल्ली. आतां तिसरी सर्त गोंयांत आयोजीत जाता. गोंय साडेचारशीं वर्सां पुर्तुगेजांची वसाहत आशिल्लें. १९ डिसेंबर १९६१ दिसा गोंय पुर्तुगेजाच्या शेकांतल्यान मुक्त जालें आनी भारत देशाचो अविभाज्य घटक जालें. भारत हो पुर्तुगेज उलोवप्यांचो देश न्हय. गोंय हें साडेचारशीं वर्सां पुर्तुगेजांचें गुलाम आशिल्लें तरीय हो वाठार पुर्तुगेज उलोवपी न्हय. हांगची अधिकृत राजभाशा कोंकणी आसा. अशें आसतना गोंय हें पुर्तुगेजभाशीक अशें थारावन गोंयांत लुसोफोनिया खेळांसर्तीचें आयोजन करप म्हळ्यार हांगच्या राष्ट्रप्रेमी लोकांचो, सुटके झुंजाऱ्यांचो अपमानूच. तेच पासत गोंयांत ह्या खेळासर्तीचें आयोजन करपाचें थारायलें तेन्ना त्या वेळावेल्या काँग्रेस सरकारान हे सर्तीच्या आयोजनांत विशेश रस दाखयलो ना आनी जी तयारी करूंक जाय आशिल्ली तिचेकडेन आडनदर केली. तेच पासत २ ते १० नोव्हेंबर २०१३ ह्या काळांत जावपाची ही सर्त मुखार धुकलची पडली. भाजपाचें आघाडी सरकार सत्तेर आयलें आनी त्या सरकारान हें



जेन्ना २००९ वर्सा तिसरे लुसोफोनिया खेळां सर्त गोंयांत घेवपाचें थारिल्लें तेन्ना हे सर्तींत फक्त गोंयकार वांटेकार जातले अशें थारिल्लें. २००६ वर्सा माकावांत आनी उप्रांत २००९त लिस्बनात जाल्ले लुसोफोनिया खेळांसर्तींत भारतीय खेळगड्यांनी वांटो घेतिल्लो तातूंत गोंयकार खेळगडी आशिल्ले. फाटल्या ह्या दोन लुसोफोनिया खेळांत गोंयांक एक भांगराचें, दोन रुप्याचीं आनी सात कांश्यांची मेळून १० पदकांच जिखप शक्य जाल्लें.

गोंयांत पुर्तुगेज सत्ताधीशांनी खेळांक केन्नाच उर्बा दिली ना. गोंयाक मुक्ती मेळचे आदीं दोन वर्सां म्हळ्यार १९५९ वर्सा गोंयांत फुटबॉल ॲसोसिएशनाची स्थापना जाली. सर्गेस्त दयानंद बांदोडकार जे गोंयचे पयले मुख्यमंत्री आशिल्ले ते व्हड खेळां मोगी आशिल्ले. ताणीं खेळांक प्रोत्साहन दिवपाचो प्रयत्न केलो. पूण आर्थिक स्त्रोताचो उणाव आशिल्ल्यान खेळामळाकडेन फावो तशें लक्ष दिवप जालें ना. तरी शिक्षणीक मळार शारिरीक शिक्षणाच्या नांवान विद्यार्थ्यांमदीं खेळांविशीं प्रेम निर्माण करपाचो प्रयत्न ताणीं केलो.

मनशाच्या जिवितांत खेळांक सुमारा भायलें म्हत्व आसा. खेळ कुडीक व्यायाम दिता, आंगांत शिटूकसाण हाडटा. कल्पकताय आनी बुध्दीमत्तेचीय वाढ जाता. गोंयांत हे आदीं पारंपारीक खेळ आशिल्ले. आयज खेळांचो आव्हान स्वीकारलें. सर्ती खातीर फावो आशिल्ल्या मुळाव्या सुविधायांची उभारणी झुजामुळार राबोवंक आरंब केलो.

पणजेच्यान बांबोळी मार्गान मडगांव-वास्को वतना बांबोळे गोंय वैजकी म्हाविद्यालया मुखार प्रचंड ॲथलेटीक खेळा मैदान उभारपाचें काम चालू आसा. लुसोफोनिया खेळांसर्ती पासत तीन नवीन प्रकल्प गोंयांत तयार जातात. हेर ८ सुवातांचेर सद्याच्यो सुविधायो ज्यो उपलब्ध आसात तांचे मदीं सुधारणां करून तांचो वापर जातलो. नव्या सुविधायां मदीं बांबोळेचें ॲथलेटीक्स खेळां मैदान, ताळगांवच्या गोंय विद्यापीठ इनडोअर भोवउद्देशीय प्रचंड सभाघर आनी म्हापशें, पेडें हांगा तयार जाल्लें भोवउद्देशीय सभाघराचो आसपाव आसा. ते भायर पेडें हांगा सिंथेटीक ट्रॅक आनी उपवीज केंद्र, फातोर्डा स्टेडियमचें नूतनीकरण, टिळक मैदानाचें नूतनीकरण, कुंकळे, बाणावली, नागव्यां, राय, नावेली फुटबॉल मैदानाचें नूतनीकरण असल्या कामांचो आसपाव आसा. ह्या सगळ्या वावरा खातीर लुसोफोनिया खेळां सर्तीच्या नांवान राज्य सरकार तिनशे कोटी रुपया खर्च करपाचें आसा.

१८ ते २९ जानेवारी २०१४ मजगती १२ दिसांच्या ह्या भव्यदिव्य खेळांसर्ती महोत्सवांत ९ खेळां प्रकारांचो आसपाव केल्लो आसा. ॲथलेटीक्स, बास्केटबॉल, बीच व्हॉलीबॉल, फुटबॉल, ज्युडो, टेबल टेनिस, तायक्वांदो, व्हॉलीबॉल आनी व्हूशु हे ते खेळ. हे सर्तींत ब्राझिल, आंगोला, केप वेर्द, ईस्ट तिमोर, इक्वेटोरियन गिनीया, गिनीयां बिसांव, चीन (माकाव), मोझांबीक, पुर्तुगाल, सां-तोमे, श्रीलंका आनी भारत अशे १२ देस वांटेकार जातले.

आतां प्रस्न असो उप्रासता, गोंय सरकार इतले कोटी रुपया खर्चून ह्यो साधन सुविधायो उबारता ताचो आमकां गोंयकारांक फायदो कितें? हे आदीं दोन लुसोफोनिया खेळांसर्तींत भारत वांटेकार जाल्लो. ते सर्तींत पदकां बाबतींत भारतीय खेळगड्यांनी निराशाच केल्ली. भारत १० पदकां घेवन आठवे सुवातेर आसा.







वापर जुगार म्हुण जावंक लागला आनी जीव घेवपी सर्त सुरू जाल्या. पयशे आनी पदकां हांची रूच लागिल्ल्यान खेळांतल्यान मेळपी आनंद उणो जालो. खेळांमैदान हें झुजामळ जालां. हेच पासत गोंयांत लुसोफोनिया खेळांसर्तींच्या आयोजनाचो विचार येत सावन तातूंत राजकारण रिगलां. भ्रश्टाचार रिगला. अजून खेळांक आरंभ जावंचोच आसा. पूण ह्या खेळांविशीं आरतें परतें उलोवप चल्लां.

जेन्ना लुसोफोनिया खेळ गोंयांत जाता तेन्ना ह्या खेळाची संकल्पना खरें म्हळ्यार गोंयकारांचे तकलेंतल्यान तयार जावंक जाय आशिल्ली. ती गोंयकारां खातीर आसूंक जाय आशिल्ली. पूण गोंयांक चडांत चड पदकां मेळचीं म्हुण गोंयां भायल्या खेळगड्यांक हाडून खेळोवपाचो प्रयत्न चल्ला म्हणपाचें आयकूंक येता. गोंयचे कांय फुटबॉल क्लब भायल्या खेळगड्यांक हाडून खेळयतात. क्लबाक नांव मेळटा. पूण गोंयचो खेळगडी खंय आसता? तीच गत ह्या लुसोफोनिया खेळां सर्तींची जावंक फावना.

गोंयांक फायद्याची गजाल म्हळ्यार ह्या लुसोफोनियाक लागून आंतरराष्ट्रीय दर्ज्याच्यो साधन सुविधायो तयार जावंक पावल्यो. ताचो फायदो फुडाराक गोंयकारांक जावंक पावतलो. कितलो जातलो हें काळूच थारायतलो. नातर आयज लुसोफोनियाचो कोंबो आपलें शेकें वयर काडून चलता आनी गोंयचे खेळगडे मात पाखां झडिल्ले कोंबयेवरी जाल्ले दिसतात. ही परिस्थिती गोंयच्या फुडाराचे नदरेन समाधानाची न्हय.

■

# पुनर्नवा



# स्वामी विवेकानंद
# जिवीत आनी कार्य

*१३ जानेवारी २०१३ सावन पुराय संवसारार स्वामी विवेकानंदाच्या सार्धशती सुवाळ्याक आरंभ जालो. स्वामी विवेकानंदाची १५०वे जयंती निमतान ह्या वर्सा बिम्ब मासिक स्वामी विवेकानंदाचें चरित्र बिम्ब वाचकां पासत कोंकणींत हाडटा. दर म्हयन्याक 'पुनर्नवा' ह्या सदरांतल्यान हें चरित्र खिस्ती खिस्तीनी उजवाडाक येतलें.*

नरेंद्र दत्ताचो बापूय विश्वनाथबाबू भायर पडलो तेन्ना नरेंद्राची पिराय २१ वर्सांची. २५ फेब्रुवारी १८८४ दिसा पिरायेच्या पन्नासाव्या वर्सा विश्वनाथबाबू ह्या संवसाराक अकस्मात अंतरले. नरेंद्रनाथाक दैवी रूप दिवपा खातीर ताच्या चरित्रकारांनी नरेंद्रनाथ लग्नपध्दतीच्या आड आशिल्लो देखून लग्न जावंक तयार नाशिल्लो अशें चित्र रंगयलां. पूण कांय जाणकारांच्या मत्तान तें सारकें न्हय. नरेंद्राच्या बापायची इत्सा आशिल्ली नरेंद्रान लग्न करचें. नरेंद्राचो लग्नाक विरोध नाशिल्लो. पूण नरेंद्राचें लग्न थारलां अशें श्रीरामकृष्णांक कळ्ळें काय तांची अस्वस्थताय वाडटाली आनी कशीं कोण जाणां, ताच्या लग्नाचीं उलोवणी निमण्या खिणांक फिसकटतालीं. अशीच एक सोयरीक नरेंद्रनाथाक आयली. व्हंकलूय बरी सर्वगूण संपन्न, सुस्वरूप, गिरेस्त घराब्यांतली आशिल्ली. लग्नाचीं निमणीं उलोवणी करपाक २६ फेब्रुवारी १८८४ हो दीस थारायल्लो. नरेंद्राचो मांव नरेंद्राक वकिलीचो अभ्यास करपा खातीर सपतीक इंग्लंडाक बी धाडपाचो आशिल्लो. नरेंद्राकूय ह्या लग्नाक रस आशिल्लो आनी विश्वनाथबाबूंक तर हें नातें जुळोवपाक खूबच रस आशिल्लो. ताणीं हे सोयरीकेचीं निमणीं उलोवणीं करूंक वचपा खातीर नवे कपडेय बी शिंवून घेतिल्ले. पूण तांच्या नशिबांत हें लग्न पळोवपाचें नाशिल्लें वो नरेंद्रनाथाच्या नशिबांत लग्नाचो योग नाशिल्लो. ह्या लग्नाचीं उलोवणीं करपा पासत वचपाचो जो दीस थारायल्लो ताच्या आदल्या दिसा पन्नास वर्सांचे पिरायेर विश्वनाथ बाबूंक मरण आयलें.

तो काळूच असो आशिल्लो की घरांतलो कर्तो सवरतो दादलो खंवसत जाल्यार ताचे घरकान्नीक ती विधवा जाल्ल्यान जिवीत नाका जातालें. एकत्र कुटूंब पध्दत ज्या घरांत चलता त्या घरांतले विधवेच्या वाट्याक सुण्यापाशट आयुश्य येतालें. भुवनेश्वरी देवीचीय परिस्थिती वेगळी नाशिल्ली. विश्वनाथबाबून एकत्र कुटूंबाचो भार आपल्या भुंजार घेवन आपली जोड खर्चिल्ली. तांच्या मरणा उप्रांत आठ दिसां भितरूच आरत्याचें परतें जालें. नरेंद्राचे आवयची मानहानी जावंक लागली. एकत्र कुटुंबाचें घर, जें आठ-पंदरा दिसां आदीं तिचो घोव चलयतालो तें तिका सोडचें पडलें. ज्या नरेंद्राक आपलो जावंय करूंक सोदी आनी २६ फेब्रुवारीक नरेंद्राचें लग्न जाचे धुवेकडेन नक्की जावचें आसलें त्या व्हंकलेच्या बापायक विश्वनाथबाबूंच्या मरणा उप्रांत सप्तका भितर 'हो योग जुळून येवपा सारको ना' म्हणपाचो साक्षात्कार जावन लग्नाक न्हयकार कळयलो.



लग्न मोडलें हाचें नरेंद्राक मातूय दुखख नाशिल्लें. जालें तें बरेंच जालें अशें ताका दिसले बगर रावलें ना. ते भायर श्रीरामकृष्ण तर 'हो तुजो मार्ग न्हय' अशें लग्नाचे दर खटपटी वेळार ताका सांगत आशिल्ले. ह्या सगळ्या घडणुकेंत मनीस कितलो सुवार्थी आसता आनी 'आसत शितां जाल्यार जमत भुतां' ही म्हणणी कितली सार्थ आसा म्हणपाचो अणभव ताका आयिल्लो.

विश्वनाथबाबूंच्या मरणा उप्रांत दत्त कुटुंबाचेर जी परिस्थिती उप्रासली ताका एकसुरो आधार आशिल्लो तो नरेंद्र. ताचे फाटलो भाव महेंद्रनाथ हो पंदरा वर्सांचो. ताचे कडल्यान आवयक आधार जावपाची शक्यताय नाशिल्लीच. सगळ्यांत धाकटो भाव चार वर्सांचो. म्हणटकच नरेंद्र आपले आवयक आनी भावांक व्हान्यार

उडोवन संन्यास घेवपाची शक्यताय उणीच आशिल्ली.

हातूंत एकूच जमेची गजाल घडिल्ली ती म्हळ्यार कोर्टांत केस ताचे फावोरार जाल्ली. तांचें घर तांकां मेळिल्लें. अशें आसलें तरी दोन वेळचें अन्न कशें मेळटलें हाची चिंता आशिल्ली. एक दीस नरेंद्राचे तकलेंत विचार आयलो. आपणें दक्षिणेश्वरीक वचून हाचेर तोडगो काडूंक मेळटा जाल्यार कित्याक पळोवंचें न्हय? श्रीरामकृष्ण 'मा मा' करून कालीमातेचेर भरवंसो दवरून तिची पूजा करता, तीच कितें तरी आपल्याचेर आयिल्ल्या अवर्शणाचेर उपाय काडूंक शकता. ना तर ती आसून उपेग कितें?

थतरवितर मनस्थितींत नरेंद्रनाथ दक्षिणेश्वरी गेलो. श्रीरामकृष्णांचो दोन म्हयन्यां आदीं पडून हात मोडिल्लो आनी ताणीं तो गळ्यांत अडकयल्लो. नरेंद्राक आयिल्लो पळोवन श्रीरामकृष्ण खोसयेन भुरकुटलो. दर खेपे तांकां अशेंच जातालें. नरेंद्रान तांकां कालीमातेकडेन आपले पासत मागणें करूंक विनयलें. जर श्रीरामकृष्ण आपले मातेक इतल्या विश्वासान भजता जाल्यार तांच्या मागण्यांनी ती कितें तरी करतलीच असो नरेंद्राचो समज आशिल्लो. आनी जर ती आयकना जाल्यार मागीर तिका भजून कितें उपेग? ती आसून नासून सारकीच म्हणपाची!

नरेंद्रनाथाची विनवणी आयकून श्रीरामकृष्ण गंभीर जाले. असलें कितें ताणीं केन्नाच आपले मातेकडेन हे आदीं मागूंक नाशिल्लें. ताणीं नरेंद्रनाथाक तेंच सांगलें. आनी फुडें अशेंय सांगलें, आपूण तिचे लागीं मागपाचों तुजे पासत. पूण तूं तर तिका मानिना. मागीर तिणें आपल्याक मानिना ताचे खातीर कित्याक म्हुण लक्ष दिवचें?

नरेंद्रनाथ कट्टर निराकारवादी. ताची साकाराचेर मातूय निश्ठा नाशिल्ली. अशे वेळार मूर्ती पूजा विरोधक नरेंद्रनाथ गोंदळ्ळो. ताचो मूर्तींतल्या देव देवतांचेर विस्वास नाशिल्लोच. विस्वास दवरतलो जाल्यार कितेंय प्रमाण जाय हाचेर तो ठाम आशिल्लो. जे सर तूं कालीमाते

> ***विसावो शेकडो हो समाजांत अराजक घेवन आयिल्लो शेकडो अशेंच वर्णन करचें पडटलें. सत्ताधारी ब्रिटिशांचे चाल-चलणुकेक आनी जीवनपध्दतीक लागून समाज भारतीय जीवनमुल्यां पासून पयस वचत आशिल्लो. भोगवादी प्रवृत्तीन समाजांत मूळ धरिल्लें. चैन करप, भोगांतल्यानूच जिवितांत खरें सूख मेळटा ही सर्वसामान्य तरनाट्यांची भावना जाल्ली. ज्या धर्माचे बुन्यादीचेर भारतीय संस्कृताय उबी आशिल्ली त्या धर्मापासून पयस वचपाक लावपी विचारसरणी आनी कसलोच आदर्श दोळ्यां सामकार नाशिल्लें ध्येय असो कितें समाजाचो प्रवास आशिल्लो.***

कडेन नमळ जावन प्रार्थना करिना ते सर ती तुका कांयच दिवंचिना. म्हणटकच तुका प्रमाण मेळपाचो प्रस्नूच येना. तूं वचून तिका पांयां तरी पडून पळय! तूं जें कितें तिचेकडेन मागता तें दिले बगर ती कशीच रावचिना.

श्रीरामकृष्ण संद मेळटा तेन्ना ताच्या काळजांत हे विचार रिगोवपाचो प्रयत्न करताले.

विस्वास आसूं वो नासूं, श्रीरामकृष्णांचो तो फातराचो देव आसा तरी कसो हें पारखून पळोवंकच जाय असो एक विचार नरेंद्राच्या मनांत उदेलो. कित्याक, ज्या मनशांचेर आपल्या कुटुंबान उपकार केल्ले ते उपकार करप्याच्या मर्णा उप्रांत कांय दिसांनी कशे परतले हाचो अणभव ताका आयिल्लो. सजीवांकडल्यान जेन्ना असो अणभव मेळटा तेन्ना निर्जिवाकडल्यान कितें अणभव पदरांत पडटा तें पळोवया म्हुण एके सांजवेळार नरेंद्रनाथ कालीमातेच्या मंदिरांत गेलो.

देवालयांत सांजवेळच्यो आरत्यो चलताल्यो. वाजंत्रां वाजतालीं. तें थंयचें वातावरण, तो नाद नरेंद्रा खातीर पयलोच अणभव आशिल्लो. श्रीरामकृष्णांचे जगन्माते कृपेन आयज ताच्यो सगळ्यो विवंचना पयस जावपाच्यो आशिल्ल्यो. नरेंद्रनाथ कालीमातेच्या मंदिरांत गेलो. ताका ती फातराची मूर्त त्या वातावरणांत निर्जिव दिसलीच ना. तातूंत परिपूर्ण चैतन्य भरिल्ल्याचो भास ताका जावंक लागलो. तो ते मूर्तीकडेन पळयत रावलो. आपूण कितें मागपाक आयिल्लों ताचोच ताका विसर पडलो. ताचे काळजांतले खरायेंतल्यान जगन्माते मुखार प्रार्थना भायर येवंक लागली. 'माते म्हाका विवेक दी, वैराग्य दी, गिन्यान दी, भक्ती दी'. थंयच्यान जेन्ना नरेंद्रनाथ परतलो तेन्ना एका वेगळ्याच विश्वांत विंचरतालो. श्रीरामकृष्णान ताका आयले बराबर विचारलें, 'कितें मागलें माते कडेन?' जेन्ना ताणें सांगलें कांयच मागलें ना तेन्ना पर्थून ताका मंदिरांत धाडलो. हें अशें दोन-तिनदां जालें. नरेंद्र कांयच मागूंक पावलो ना. तेन्ना श्रीरामकृष्णान ताका सांगलें, 'तूं देवीकडेन वचून लेगीत कांयच मागूंक पावलोना तेन्ना तुज्या नशिबांत ऐहिक सूख ना. पूण माता तुका केन्नाच कांयच कमी पडूंक दिवचिना.'

श्रीरामकृष्णांच्या ह्या आश्वासनान नरेंद्राच्या मनाक थाकाय मेळ्ळी. तो निश्चिंत जालो. ते दिसा सावन ताच्या जीवितांतल्या वेगळ्या अध्यायाक प्रारंभ जालो. इतले मजगती ताच्यो खूबश्यो समस्या सुटाव्यो जावंक लागल्यो. ॲटॉर्नी ऑफिसांत काम करून, कांय पुस्तकांचे अणकार बी करून तो थोडें भोव जोडपाकूय लागलो. शेवटाक पंडित ईश्वरचंद्र विद्यासागराचे शाळेंत ताणें शिक्षकाची नोकरी धरली. ताची आर्थिक चणचण आतां पयसावल्ली आनी एक थिराय शी लाबिल्ली.

ह्याच काळांत श्रीरामकृष्णांक गळ्याचो कॅन्सर जाल्लो. हें दुयेंस उणें जावचे बदला दिसान दीस वाडतच वतालें. सगळ्या भक्तांक हुसको लागिल्लो. शेवटाक वखद विसर्द करपा खातीर श्रीरामकृष्णांक कोलकोत्याक हाडलो. पूण तांचे पासत शारांत रावपा खातीर दुयेंतीचे नदरेन फावोशी सुवात नाशिल्ली. तेन्ना रामकृष्णांच्या भक्तांनी कोलकोत्याचे उत्तरेक आशिल्ल्या काशीपूर वाठारांत एक घर भाड्यान घेतलें. सरभोंवतणीं बाग, मोकळी सुवात बी आशिल्ली. रामकृष्णाचे कांय शिश्य तांचे वांगडा थंय रावून तांची सेवा करूंक लागले. पूण नरेंद्रनाथाक कशेंच सूख लागना जालें. ताणें

आपली शिक्षकाची नोकरी सोडली. घराचो त्याग केलो आनी रामकृष्णाची सेवा करूंक काशीपूरांतल्या त्या घरांत रामकृष्णांच्या सांगाताक रावंक लागलो.

नरेंद्राचे रामकृष्णाकडले संबंद काळजाच्या धाग्यानी विणिल्ले. रामकृष्ण नरेंद्राक पळयले बगर एक खीण लेगीत रावंक शकनाशिल्ले. नरेंद्र हेर सर्वसामान्य लोकांवरी जिवीत जियेवंक येवंक ना तर ताच्या आंगांतल्या गुणांनी तो हे धतीर मनीसजातीच्या उत्थानाची दिका दाखोवंक आयला म्हणपाची जाणविकाय रामकृष्णांक जाल्ली. तो एकंदर काळूच तसो आशिल्लो. नरेंद्रनाथाचो जल्म १२ जानेवारी १८६३त जालो. हो एकंदर कालखंडूच पुराय देशा खातीर घुस्मट हाडपी आशिल्लो. नरेंद्राचो जल्म जाला तेन्ना १८५७चो उठाव जावन फक्त स वर्सां सरिल्लीं. हो उठाव, ताचे परिणाम, ताचें यश, अपयश हाचेर जावपी चर्चा समाजजीवनांत ल्हारेताली. ह्याच काळांत देशांत व्हडल्या व्हडल्या विभूतीनी जल्म घेतिल्लो. टिळक विवेकानंदा परस सात वर्सांनी व्हडले आशिल्ले. गांधीजी स वर्सांनी ल्हान आशिल्ले. रवीन्द्रनाथ टागोरांचोय तोच कालखंड. समाजांत जी उलथा पालथ जाता आनी जी विचार सरणी चर्चेक येता ताचे पडसाद ध्वनी लहरीच्या माध्यमांतल्यान गर्भा मेरेन पावतात म्हणपाचें शास्त्रज्ञानी, विचारवंतानी मानून घेतलां. ह्या सगळ्या गजालींचो आघात विवेकानंदाच्या म्हळ्यार नरेंद्राचेर जल्मा पयलीं, जल्मा वेळार, भुरगेपणार आनी तरणेपणार जाला आसतलोच. रामकृष्णां सारखे द्रश्टे व्यक्तीन तर ही बाब नक्कीच वळखल्ली. तेच पासत नरेंद्रनाथाक पळयत सावन होच जगाचो बौध्दीक तारणहार म्हणपाचें ताणीं पारखिल्लें आनी वाट चुकपी नरेंद्राक पर्थून पर्थून हाडून ते वाटेर सोडपाचें काम ते करताले.

रामकृष्णांचें कॅन्सराचें दुयेंस हाताभायर गेल्लें. रामकृष्णांक आतां अती सेवेची गरज आशिल्ली. नरेंद्रनाथान सुश्रूशेची सगळी जापसालदारी आपल्या हातांत घेतिल्ली. पयलीं येवन वचून आशिल्ल्या हेर शिश्यांचेंय मन आपल्या घराकडेन लागनाशिल्लें. ताणीं सगळ्यांनी शाळा-म्हाविद्यालयांक आनी अभ्यासाकूय रजा दिल्ली आनी तो वेळ रामकृष्णांचे सेवे खातीर, तांच्या सांगातान रावपा खातीर सारताले. रामकृष्णांचे हे निमणे दीस म्हणपाचें कळून आयिल्लें सगळ्यांक. सगळ्या शिश्यांनी आतां आपलें घरदारूय सोडिल्लें आनी ते सगळे रामकृष्णांच्या भोंवतणी रावून तांची सेवा करताले. आतां काशीपूर म्हळ्यार एका दुयेंतीच्या राबित्याची सुवात उरूंक नाशिल्ली जाल्यार ती एक आश्रमाचें रूप घेताली. आपलें घरदार सोडून रामकृष्णांचे सेवे खातीर एकठांय आयिल्ले आनी एकठांय रावपी हे सगळे तरनाटे एके अध्यात्मिक शक्तीन, प्रेमसंबंधान बांदून गेल्ले. तातुंतल्यानूच 'श्रीरामकृष्ण-संघा'ची स्थापना जाली.



विसावो शेकडो हो समाजांत अराजक घेवन आयिल्लो शेकडो अशेंच वर्णन करचें पडटलें. सत्ताधारी ब्रिटिशांचे चाल-चलणुकेक आनी जीवनपध्दतीक लागून समाज भारतीय जीवनमुल्यां पासून पयस वचत आशिल्लो. भोगवादी प्रवृत्तीन समाजांत मूळ धरिल्लें. चैन करप, भोगांतल्यानूच जिवितांत खरें सूख मेळटा ही सर्वसामान्य तरनाट्यांची भावना जाल्ली. ज्या धर्माचे बुन्यादीचेर भारतीय संस्कृताय उबी आशिल्ली त्या धर्मापासून पयस वचपाक लावपी विचारसरणी आनी कसलोच आदर्श दोळ्यां सामकार नाशिल्लें ध्येय असो कितें समाजाचो प्रवास आशिल्लो. रामकृष्ण समाजांतले हे बदल पळयताले आनी समाजाची बुन्याद डळमळीत जाता ती आपले परीन तगोवन दवरपाक धडपडटाले.

आतां मेरेन श्रीरामकृष्णांच्या वावराची खबर पुराय कोलकोत्यांतल्या ल्हाना व्हडांच्या कानार गेल्ली. तांची वळख लोकांक जाल्लीच आनी तांकां मेळपाक, तांचे विचार आयकुपाक लोक येताले. तांचें दर्शन घेताले. म्हाविद्यालयांतल्या कांय उजू विचार करपी तरनाट्यांक लागीं धरून एका विशाळ मतांचो, आदर्श धर्मसंघ घडोवपाचो तांचो विचार आशिल्लो. तांकां तशे तरनाटेय मेळिल्ले. नरेंद्रनाथा सारक्या सर्वगूण संपन्न तरनाट्याचेर तर तांची अदीकूच भिस्त आशिल्ली. पूण तो पारजावरी तांच्या चोपक्यांतल्यान निसरतालो. रामकृष्ण ताका आपले मुठींत दवरूंक धडपडटाले. अश्या ह्या खेळांत शेवटाक रामकृष्णांक यश आयिल्लें. तांच्या दुयेंसाच्या निमतान तर हे सगळे तरनाटे दिसरात तांच्या सान्निध्यांत उरताले. उच्च शिक्षण आनी उच्चकूळ हाची भावना मनांतल्यान समूळ काडून उडोवन सन्यासी वृत्तीन समाजा भितर नवे विचार रुजोवपा खातीर तांकां जे तरनाटे जाय आशिल्ले ते ह्या काळांत लाभिल्ले. तांकां संन्यास दिवन, तांचो फुडारी नरेंद्रनाथाक करपाचो अशें श्रीरामकृष्णांच्या मनांत तांच्या अंतीम दिसांनी विचार येवंक लागले आनी ताचीच तयारी ते करताले.

(चलता....)

## DEPARTMENT OF CIVIL SUPPLIES AND CONSUMER AFFAIRS, PANAJI
## AIMS AT

The Department plays a bi-lateral role in two sectors i.e. matter related to Civil Supplies and Consumer Affairs.

I. In the pursuit of maintaining proper supply of Civil Essential Commodities, the Department is entrusted with:

- (i) Proper functioning of Fair Price Shops & availability of Essential commodities in these Fair Price Shops.
- (ii) Supply of pure kerosene & check on its pilferage.
- (iii) Supply of pure petrol & diesel & check on its pilferage.
- (iv) Ensuring proper acquisition, sale and storage of Naphtha, Solvent, Raffinate & Slop and prevention of its use in Automobile.
- (v) Ensuring non-commercial use of domestic L.P.G. cylinders.

Along with this, the Department runs special beneficiary schemes for Below Poverty Line people, viz. Annapurna Anna Yojna, Antyodaya Anna Yojna, etc. The affords are made to make people aware about these and other schemes under Jagriti Shivir Yojna.

### II. Consumer Affairs

The Government has established Grievance Redressal Machinery to safeguard consumer's rights. The Government has established State Commission and two District Forums to settle Consumer complaints regarding goods & service. Consumer Complaint can include :-

(a) Loss or damage suffered due to unfair trade practice by any trade.
(b) Defective good
(c) Price of goods charged is excess than fixed by law/displayed on packet/displayed on goods.

| You may complaint before | If complaint value |
|---|---|
| 1. District Forum, Prvorim/Margao | Up to Rs. 20 lakhs |
| 2. State Commission | Up to Rs. 1 Crore |
| 3. National Commission | Above Rs. 1 Crore |
| 4. Consumer Conciliation Committee Mechanism Panaji-Goa | Amicable Settlemet |
| 5. Lok Adalat at both Districts | |

**PLEDGED FOR THE BETTERMENT OF ALL GOANS AND ALL CONSUMERS**

Issued By :




Government of Goa,
Department of Civil Supplies & Consumer Affairs,
Junta House, Panaji-Goa.
Pin code - 403001
Tel :- 2226084, 2227798 Fax :- 2425365
E-Mail : dir-csca.goa@nic.in, adi-csca.goa@nic.in

# चट्टा - मट्टा



- सुधा खरंगटे

*सांजचें पणजे सावन आका आयलें... तें येता म्हळयार भुरग्यांक सामकी पर्वणी!*
*केन्ना कितें, केन्ना कितें घेवन येतलेंच! तेंय बी शरभर! आईस्क्रीमां म्हणनाका, केकी म्हणनाका...*
*भुरग्यांक आवडटा तीं खाणां घेवन येवप!*
*आज ताणें पॅटीस हाडिल्लें... बॉक्स भरून...!!*

"चल गो नंदन, कमलआकागेर, भाभीगेर बी वचून सांग हां सगळ्यांक, फाल्यां आमगेले पापड म्हणून..." आईन नंदनाक सांगलें.

तितल्याकच राविल्ले भशेन नंदन धांवलें. पयलीं ताणें शाली आनी मालीक सांगलें... "आगो, फाल्यां आमगेर पापड..." तांचीं तोंडां फुल्लीं. नंदनाची आई-नंदाई तांका पापडांक हात लावंक दिताली. फाल्यां पापड लाटूंक मेळटले. निदान लाटयो तरी करूंक दितलीच आमकां नंदाई...

आयताराचो म्हूर्त धरून नंदाईन पापडांचो बेत केल्लो. शाळा ना. भुरगीं हाताक मेळटात... पापड सुकत घालूंक... कितेंय कामां करूंक...

दोन पायली उडदांची दाळ, मिरयां बी घालून गिरणीर दळून हाडिल्ली. मनूताईन पीठ चाळणीर चाळून बी दवरिल्लें. शेनवाराक सांजची पिठी कालोवपाचो बोवाळ...! शेजारचें कमल आका आयिल्लें आदाराक! हाता बरोबर सगळ्यांचीं तोंडांय चलतालीं -

"हें कितें? सोदापिठो काय पापडखार?"

"शी:...! शी:...! सोद उपकरना... पापडखारच जाय!"

"चल रे सुरेश, पयलीं मधूल्या दुकानार वचून पापडखार घेवन यो...!"

"हींग फुगत घाला मूं?"

"हय तर...! हो पळय...!"

"पूण शंकरछाप मूं? पयर मधून शंकरछाप मागल्यार... लक्ष्मीछाप हींग दिलो म्हणून भागेंआका चाळवल्लें..."

"वासच पळय गो!... सामको घमघम सुटला. अस्सल कलमाकापाचो हींग..."

"मिरसांगां पिठो...!!"

"हो पळय.. तारवटी मिरसांगांचो..."

"खंयच्यान हाडल्यो गे मिरसांगो?"

"पोरसांत दोन झोंपां आसात न्ही... जाल्ल्यो बऱ्यो पूण कमी पडत म्हुण वसंतागेरच्यान हाडल्यो थोड्यो..."

... मागीर पापडांपिठी कालोवपाक सुरवात जाली. पिठांत मिरसांगे पिठो, मीठ, पापडखार सगळें सगळें हाताची शीर करून... अदमासान माप...! पूण नंदाईचो हात तो!... माप सारकेंच पडपाचें..!!

वान आनी कांडण धुवन पुसून दवरिल्लें. भुरगीं उमेदीन फार घालतालीं. वानांत धोडावन पिठाच्यो तोपयो कशो जावन पिठी भायर काडटालीं...

मागीर खोबरेल लावन लावन, फातरीर धाडावन हे पिठयेचो सामको फोर काडलो आनी गुळे करून तोपांत भरून दवरले.

सकाळीं सगळ्यांत पयलीं बाई आनी सोनीताई हजर! दोगांच्याय खांक्यांत लाटफळें आनी हातांत लाटणी...

"...जालें गो धाडावन? गुळयो बी करून?" बाईन विचारलें.

सकाळीं परत धोडावन-धोडावन मोव केल्ल्या पिठयेच्यो माळणां कशीं लांबचे लांब नळयो केल्ल्यो नंदाईन. पांयांच्या आखाण्याक केळीचो वाय घुसपावन तो दोर तायट ओढून धरिल्लो आनी नकसूदपणान त्या नळयांच्यो दोरार गुळयो कापूंक लागिल्ली.

"ह्यो पळय... गुळयो तयार...!" नंदाईन म्हळें... "पळय गो, रूच पळय..."

एक गुळी काडून तेलांत बुडोवन खायत खायत बाईन म्हळें - "एकदम रुचीक! सगळें जुस्ताज्युस्त पडलां... हळडुवीच जाल्या पळय पिठी... धवेफुल्ल जातले पळय पापड भाजतकच...!!"

सालांत शेंदऱ्यो पातलावन पापडांचो मांड पडलो. आपापलें लाटफळें घेवन सगळ्यांनी शेंदरेर फतकल मारलें. छबी आनी मालूताईक तेंकून नंदनय बी आपलें लाटफळें घेवन तयार... ताका तेकून शाली-मालीय ताचे फाटोफाट...

"आगो, तुमचें भुरग्यांचें कितें काम हांगा? मागीर पापड सुकत घालूंक आफोवया तुमकां..." ताईन धेंगसायलें. पूण तिगांय खट कशीं बस्सून रावलीं... नंदाईच्या तोंडाक पळयत...

"लाटयो करून वडयतलीं तीं. नायजाल्यार केन्ना शिकतलीं तीं लाटूंक?" नंदाईन ताईक थातारलें.

भुरगीं सामकीं खूश! तेलाचे वाटयेंत बोट बुडोवन तें गुळयेच्या नाकार सारोवन मोठे कुयदादीन लाटयो करूंक लागलीं.



''वांकडे-तिकडे नकाशे नाकात हां!... मागीर पापडय वांकडे जातले.'' ताईन परतें धपकायलें.

मागीर सोनीताईन म्हळें - ''पळयात. लाटयो सवकासायेन ल्हानशोच करात... एकसारक्यो जावं दी. मागीर पापड वाटकुळेच जातले..''

ताटलेर लाटयो जमल्यो तशें सोनीताईन म्हळें - ''हांव मांडे करून दितां तुमकां... तुमी पापड लाटात...''

नंदन सोनीताई मांडे करता तें पळयतच उरलें. एक लाटी पिठांत बुडोवन लाटफळ्यार दवरली. ताचेर दुसरी... ताचेर तिसरी... चवथी... पांचवी..

आनी अळंग हातांनी त्यो लाटयो एकदम लाटून तांचे तळटायेदे मांडे सोडोवन सोनीताईन सगळ्यांच्या लाटफळयार वडयले. कमलताई, भारती, बाई... सगळींजाणां पापड लाटूंक लागलीं.

म्हणटा-म्हणसर परातींत पापडांची हीऽ रास जाली. फाटल्या आंगणांत घाल्ल्या हातरपाट्याचेर पापड सुकोवपाचे...!!

''चल गो नंदन, पापड सुकत घाल.'' आईन म्हळें.

नंदन उठलें... ''आई गे, आमकां रूच पळोवंक गुळी दिलीच ना तुवें?''

''आगेऽ बायेऽऽ. विसरलेंच!'' आईन म्हळें. मागीर सगळ्यांक एक-एक गुळी तेलांत बुडोवन खावंक दिली.

नंदनाक, शालीक, मालीक मात गुळयेचो कुडको!?

भुरगीं 'चॅक्-चॅट्, टॅक्-टॅक' आवाज करीत पिठी चोखूंक लागलीं.

''आई, आमकांय सगळीच दी मगे गुळी...'' नंदनान म्हळें.

''आगो, भुरग्यांनी चड तिखट खावचें न्हय. तारवटी मिरसांगो त्यो...पोटांत जाळ पडटले...!!''

''आनी फाल्यां सकाळीं संडासाक बसपाक जाळ पडटले.'' भारती पचकलें, आनी खिक् करून हांसलें.

कमलताईन ताचेर दोळे मोठ्ठे केले आनी म्हळें - ''शीःऽ गो! बुरशें खंयचे कडलें...''

''चल, चल! बेगीन व्हर पापड सुकोवपाक...'' परात नंदनाच्या हातांत दीत ताईन म्हळ्ळें.

जाऽऽलें! नंदनान चिंतलें. आतां म्हज्या नशिबांत पापड लाटप खंयचें?.. फकत जाल्ले-जाल्ले पापड व्हरून सुकत वडवपाचे...!!

''कितें गो? पापड सुकत घालता? काल तर माऽर 'हांव पापड लाटतलें... हांव पापड लाटतलें' करून नाचतालें तें.'' पांडूभाऊन येवन ताका चाळयलें.

पांडूभाऊ तसलोच!... ओगीच चाळोवपी..!... नंदनाचो भाव काय न्हय तो... शेजारच्या कांतीचो भाव! पूण ताका चाळोवपाक कोणय चलता...

''चल गो, आईकडेन एक गुळी मागून हाड... म्हाका रूच पळोवपाक जाय...'' ताणें नंदनाक सांगलें आनी नंदना बरोबर तोय बी पापड सुकत घालूंक लागलो.

''हांव ना रे बाबा! हांवें मागल्यार आईन इल्लोसो कुडको दिलो म्हाका गुळयेचो...'' नंदनान सांगलें.

''वचना मुगो तूं? तशें जाल्यार आतां चट्टा मट्टा...''

''म्हणचे कितें रे पांडूभाऊ?'' नंदनान अजापान विचारलें.

''दाखयतां. हो पळय पापड आसा न्हीं... पयलीं असो दोडप... मागीर असो.. मागीर असो.. चारकडेन दोडतकच केदो जालो?''

''इल्लोसो जालो न्ही?'' नंदनान सांगलें.

''मागीर तो असो दाडये पोंदा दवरप आनी मागीर 'चट्ट-मट्ट' करून चोखून खावप... जालो चट्टा-मट्टा...''

पांडूभाऊ पापड खाता म्हणून नंदनाक राग आयलो.

''पांडूभाऊ, तुवें आमचो पापड खालो?... आईक सांगूं...!''

पांडूभाऊन दुसरो पापड दोडून, घडी करून नंदनाक दाडये पोंदा धरूंक दिलो.

...नंदनान तो रुचीन चट्टा-मट्टा केलो.

''नंदन, चल मुगो... आईक सांगना?'' पांडूभाऊन हांसत म्हळें आनी तो गेलो. - आतां आईक कशें सांगतलें?... दोगांय चोरां...

मागीर नंदन पांडूभाऊन पापड खालो तें विसरलें...

- पूण ताचे जिबेन ताका 'चट्टा-मट्टा' विसरूंक दिलें ना.

करया आनी एक 'चट्टा मट्टा?' जीब हुळहळटाली.

थोडे वेळान ताणें आनीक एक पापड चट्टा-मट्टा केलोच. आतां गोडी लागतकच सुकत घालतना मदीं-मदींच एक-एक खावप जालो. मागीर दुसरो... परत एक... परत...

दर खेपो परात दवरूंक गेल्लेकडेन वत लागलें म्हणटालें, आनी भितर वचून सूऽ सूऽ आवाज करीत उदक पितालें.

छेः! आतां पुरो... खरेंच पोटांत हुलोप पडल्यार?... ताणें चिंतलें.

“दोन पायली पापडांचे मांडे हांवें एकठ्यान करून वडयले...” भीतर सोनीताई बढाय मारतालें.

आईन च्या करून हाडिल्ली. खावपाक लाडू, बिस्कीटी आनी तिखशे फोवय बी...

नंदनाकय च्या, लाडू, बिस्किटी मेळ्ळ्यो.

पापड सोंपिल्ल्यान सगळीं च्या पितना खबरी मारतालीं.

“- पळय! बारा वरांमेरेन सगळे पापड लाटून सोंपले...”

“-हय बाये! कुडवाचे पापड बारा वरांमेरेन लाटून काबार!”

“मागीर?... चवगांचो हात तो! चवगांचो हात दुस्मानाचेर लेगीत पडनये म्हणटात...” नंदाईन हांसत म्हळें.

“फुडले आयताराक भागेआकाले पापड मगो?” ताईन म्हळें.

“हय! आनी आमगेर ह्या बुधवाराक करया म्हणटाली आई..” सोनीताईन सांगलें... “नंदाई, तुका मातशें माप दाखोवपाक यो म्हळां हां... पळय, तुका वेळ मेळत तशी पिठी कालोवया...”

“आवय! तातूंत कितें! बऽरे भशेन येतां हां हांव...” नंदाईन सांगलें.

आपापलें लाटफळें घेवन बाई बी घरा वचपाक उठलीं.

“आगो, हें कितें? आतां जेवनच चलात न्ही...”नंदाईन म्हळें.

“नाका गे! आईन रांदून दवरलां आसतलें. मागीर ती म्हणटली - हें रांदलां तें तकलेर थापूं काय म्हणून...” सोनीताईन हांसत सांगलें.

सांजचें वत मोव जातकच आईन पापड घरांत हाडून न्हिवत दवरले... मागीर कवळ्यो बांदूंक बसली...

धा-बारा पापड कागदांत बांदून आईन ते बाईगेर, भाभीगेर बी व्हरून दिवपाक सांगलें नंदनाक...

पूण नंदन पोटाक धरून गुठली मारून न्हिदलां.

“ऊठ मगो! कितें सांगलां हांवें? बाईगेर, भाभीगेर....”

“आई गे, म्हज्या पोटांत दुखता गे सामकें...” नंदन कळवळलें.

“पोटांत दुखता? कित्यान गो..?”

“ह्या पापडांच्या वासान जातलें. वतांत बसून पापड सुकत घाल्ले न्ही? वास सामको नाकांत भरला...”

“सामकेंच सदळ गांठीचें मगो तूं!” आईन म्हळें आनी पोरसांत वचून शब्द्याचो पालो हाडलो, तो मुड्डून नंदनाक ताचो वास दिलो आनी बोमलेक घालो.

नंदनाच्या पोटांत आतां गुडगुडूंक लागलें. तीनसांज जायसर पांच-स वेळा संडासाक भेट दिवन जाल्ली. ‘आवय गेऽऽ, आवय गेऽऽ’ करीत तें पोट घट्ट जमनीक तेंकोवन न्हिदिल्लें.

भागेआका पापड पळोवंक भितर सरलें.. ''हाका कितें जालें?'' ताणें विचारलें.

''पोटांत गुड्गुडटा ताच्या.'' नंदाईन सांगलें. ''पापडांच्या वासान...''

''सामकेंच नाजूक गे बाये तुगेलें हें चली! आगो, पापडांपिठी बी चड खावंक ना मुगो?'' ताणें विचारलें.

''ना म्हळ्यार...!'' इल्लोसो नाखूटभर गुळये कुडको खावंक दिल्लो हांवें!... नंदनाची कालेतच मातशी सदळ... जेवणा... खाणाक लेगीत तशेंच तें! तिखसाण मातय सोंसना ताका. हुमण मातशें तिखट जाल्यार कडयेन जेवतलें तें!... वरण, तोय असलें कितेंय करचें पडटा मागीर ताचे खातीर...'' नंदाईन म्हळें.

''भुरग्यांचें कांय सांगनजो. चोरून पापडांपिठी बी खावंक ना मुगो? जिबेक रूच लागतकच खायत रावलें जातलें... आं..? आं...!''

भागेआकाच्या धेंगशान नंदनान भिवन ना... ना.. म्हणून तकली हालयली. मनांत मात तें बरेंच अजापलें.. ह्या भागेआकाक कशें कळ्ळें?

''गांठ बी कुशीन सरल्या जाल्यार पळय ताची! तेल-मीठ घेवन पोटाक काड बोमले भोंवतणी...'' भागेआकान वतां-वतां सांगलें.

आईन मागीर तळटार मीठ आनी तेल घेवन दोनय तळटांचेर चोळून चोळून एक केलें आनी अळंग हातांनी ती नंदाचें पोट चोळूंक लागली.

कोणाकोणागेर पापड पावोवपाचे तें काम मागीर शामून केलें आनी पापडांबरोबर नंदनाच्या पोटांत बरें ना ही खबर सगल्यांक पातळावन आयलें.

मागीर एक-एकली खबरीक येवन आईक वखदां आनी चड करून पथ्य सांगून गेलीं. शेवटाक ताचो परिणाम म्हणचे नंदनाक चोवीस वरां पेजे-निवळार दवरप हें थारलें.

पयलींच संडासाक वचून-वचून, जाळ पडून बेजारिल्लें नंदन! तातूंत आतां पोटांत दुखतालें तें थांबून चुरचुरीत भूक लागिल्ली पोटाक!... आनी आतां खावपाक कितें काय म्हळ्यार पेजे-निवळ खंय!

सोमाराक आईन शाळेंत धाडलें ना ताका. सकाळचीं सगलीं पोळे आनी चटणी खातालीं. नंदनाक मात पेजेचो वाडगो!

''आई, एक तरी पोळो दी मगेऽ...'' ताणें विनयलें.

''आयज सगळो दीस कांयच मेळचें ना हां!... सांगून दवरतां...! तुजो ओगीच बोवाळ नाका... पोट निवळूंक नाका?''

आज सोमार... नुस्तें ना. पूण आईन बरीऽ आमाड्यांची हुडुमेथी केल्ली. मुगांच्यो गांठी... नीरपणसाच्यो फोडी तळिल्ल्यो... नंदनाच्या सामक्यो आवडिच्यो...!!

''आई, पेजेच्या तोंडाक लावपाक तरी एक फोड दी मगे.''

''कांयच मेळपार ना हां!... ओगीच रुची काडनाका. पोट निवळतकच तुका जाय तितल्यो फोडी करून घालतां...'' आईन सांगलें.

''आई, भागेआका खबर घेतालें. ताणें नंदनाक पेजेच्या तोंडाक दोणांतल्या आमलेचो कुडको दी म्हणून सांगलां...'' शामून आईक याद केली आनी तें 'खूः! खूः!' करून हांसूंक लागलें.

''आई गे, आतां म्हाका खूब्ब बरें दिसता मगे...''

''पळयलें मगो!'' आईन समाधानान म्हळें. ''फाल्यां मेरेन सामकें निवळटलें तूं...'' तिच्या जिवाक सुशेगसो जालो. पूण फोड दिवपाचें नांव काडलें ना तिणें!

खंयचो हो 'चट्टा-मट्टा' शिकयलो पांडूभाऊन अशें नंदनाच्या जिवाक जालें. तें तोंडावेल्यान गोजडी पांगरून गप्प वचून न्हिदलें.

सांजचें पणजे सावन आका आयलें... तें येता म्हळ्यार भुरग्यांक सामकी पर्वणी! केन्ना कितें, केन्ना कितें घेवन येतलेंच! तेंय बी रासभर! आईस्क्रीमां म्हणनाका, केकी म्हणनाका... भुरग्यांक आवडटा तीं खाणां घेवन येवप! आज ताणें पॅटीस हाडिल्लें... बॉक्स भरून...!!

''कित्याक गो रासभर घेवन येता तें...'' आईन अपुरबायेन म्हळें.

''आगे आमच्या पणजेंत सामकीं फामाद हीं पॅटिसां..हांगा खेड्यांत खंय मेळूंक आयल्यांत? हें पॅटीस म्हळ्यार नंदनाक सामको जीव...! खावंदी म्हळें जाय तितलें...'' आकान म्हळें.

''आगेऽ बाये! नंदनाक आनी दिवनाका हां खावपाक! कालच्यांन पळय ताणें बाबड्यान भोगलां...!! पोटांत दुखप कितें... संडासाक ढाळ जावप कितें... पोटांत गुड-गुडप कितें...!! वळवळतालें गो पोर रातभर...'' आईन मोठ्या होडविकायेन आकाक नंदनाली खबर सांगली.

''म्हणून आतां वळवळायतात हीं म्हाका?'' नंदनान तिडकीन चिंतलें. 'सकाळच्यान पोळे नात, जेवण ना, फोडी नात आनी आतां आकान म्हज्या आवडीचे म्हुण हाडिल्ले पॅटिसय खावंक मेळनात...'

नंदनाक भितरल्यान कडाचेर कड येवंक लागले. आनी तें हुडक्या हुंडक्यांनीं रडूंक लागलें.

आकान ताका वेंगांत घेतलें आनी ताचीं दुकां पुशीत ताका समजावंक लागलें - ''नंदन, शाण्या, रडप ना हां... निवळटलें हां पोट रोकडेंच हां...''

- पाडा पडूं त्या चट्टा-मट्टाचें!... पाडा पडूं त्या पांडूभाऊचें! हज्जारदां नंदनाच्या मनांत आयलें.. पूण तोंड धांपून ओग्गी न्हिदून रावलें.

दुसरे दिसा शाळेंत वतकच शाली-माली धांवतच ताच्या म्हन्यांत आयलीं. ''आगो, खंय गो तूं काल? कितें जाल्लें गो तुका?... तुजे खबरीक लेगीत वचूंक दिना जाली म्हजी आई... म्हणूंक लागली... तुज्या म्हन्यांत गेल्यार म्हाकाय हागवण लागतली...'' शालीन म्हळें.

''अशें जाल्लें तरी कितें गो तुका?'' मालीन विचारलें.

''कांय ना गो.'' नंदनान बेजारत म्हळें, ''चट्टा-मट्टा जाल्लो म्हाका...''

''म्हणचे गो?... चट्टा-मट्टा म्हळ्यार... केन्नाच आयकूंक ना... जोर आयिल्लो.. कितें जालें? कसो जाता?''

''चट्टा-मट्टा म्हळ्यार चट्टा-मट्टाच! तो आपशींच जाता... आनी कितें सांगूं??'' नंदन व्हडान तापलें.

इश्टिणी बाबड्यो ताच्या तोंडाक पळयतच उरल्यो.

- सुधा खरंगटे
आकें, मडगांव - गोंय

बिम्ब
मासिक

# म्हजे जिवाभावाचे तीन इश्ट



- नं. ध. बोरकार

*केशुबाब मुंबय गेल्या उपरांत खुशालचेंडूकडें म्हजी इश्टागत इल्ली चडूच वाडली. ताणेंच वाडयली ती. खुशालचेंडू अकरांच्या सुमाराक येवन आपले कोंसुलतरेंत बसतालो. हांवय तेच वेळार मेकळो आसतालों. हांवें येवन ताच्या म्हऱ्यांत मोन्यानी बसचो. हांव केशुबाबाकडें उत्केपणान उलयतालों, तशें उलोवप हांगा आमच्या मदें जायनासलें. तरी पेशंट ना तेन्ना खुशालचेंडू गप्प कसोच बसूंक शकनासलो.*

१९६०तली गजाल. केशूबाब मुंबय आपल्या लागसारच्या सोयऱ्यांगेर रावन मॅट्रीक मेरेन शिकलो. उपरांत मॅट्रीक नापास जावन तो गोंयांत येवन, आपल्या चुलत्याक, शेटपणाच्या कामांत मजत करूंक लागलो. असल्या वेळार ताची आनी म्हजी व्हडलीशी वळख नाशिल्ली. दाट इश्टागत जाय सारखी तर नाशिल्लीच नाशिल्ली. तो मध्यम वर्गांत वाडटालो आनी म्हजो आवय-बापूय शेतकार-कश्टकार! एका गांवांत आसुनूय एकामेकागेर येवप-वचप जावपाची संद मेळनाशिल्ली. मागीर इश्टागत जमतली कशी?

तरी ताची आनी म्हजी इश्टागत घडोवन हाडची अशी ईश्वराची इत्सा आशिल्ली जावंये. बाजारांतले चाळींत पयल्याच कुडांत केशुबाबाल्या बापोलयाचें शॉप आशिल्लें. त्या शॉपार तो शेटपण करतालो आनी केशुबाब शॉपाच्या जनेलाभायर उबो रावन, रस्त्यावयल्यान येतल्या-वतल्यांक पळेतालो.

केशुबाब मुंबयसावन येवचे पयलीं, हांवूंय दोनेक वर्सां मडगांवां रावन आयिल्लों. ताका लागून म्हज्यांतली थोडीशी देशेंतकाय केशुबाबाक स्पश्टपणान दिसताली. हांव कोणाकडे उलयतासतनाय तो म्हजें उलोवप मुजरत कान दिवन आयकतालो. असल्या वेळार ताचें तोंड हांसतें आसतालें. एकंदर ताचे हालचालीवेल्यान तो म्हजेकडें, इश्टागत खयीं पावूं पूण उलोवंक सोदता, हें म्हज्या लक्षांत आयलें.

आनी हांवेंच ताका एक दीस बाजारांत वतना मुजरत जापायलो -

"शेट खंय गेला, दिसना-सो!"

"आतांच घराकडे गेला. येतलो रोकडोच, कितें काम आसलें?"

"काम कांय ना, म्हजे आवयक ल्हानशी कसली तरी वस्त करूंक जाय आसली खंय! आतां पवन खंय पावलां, हें विचारूंक जाय आशिल्लें शेटीक. तुका बी खबर आसा, कशें जालां तें?" हांवें केशुबाबाक सहजतायेन प्रस्न केलो.

"ना. तें बाबूच सांगतलो तुका." केशुबाब आपल्या बापोलयाक बाबू म्हणटालो.

"बरें आसा तशें जाल्यार, हांव मुजरत सांजचो येतां पांचांक सुमार."

"नाका नाका, सांजे येवं नाका. सांजे आमी शिनेमाक वचपाचे आसात."

"शिनेमा, कसलो लागला शिनेमा रावाल्या थेटरांत?"

"मधुमती. बरोऽ आसा खंय शिनेमा. दिलिपकुमार आनी वैजयंतीमाला काम करतात. तूं केन्ना पळेता शिनेमा?"

"म्हाका आवडटा. मडगांवां आसतना पळेतालों. थंयच गोडी लागली म्हाका पिक्चरां पळोवपाची. आठ दिसांनी तरी एक पिक्चर पळेतालोंच हांव. आतां जमना."

"कित्याक जमना?"

"पणजे वच्चो पडटा न्हय! दब्बल पयशे खर्च करचे पडटात. तिकेटीक आनी येवपा-वचपाक. दिसाचें शेतांत काम करचें पडटा आनी रातचो वतलों म्हणल्यार वांगोड ना. मडगांवां बरें आशिल्लें. दोन-तीन थेटरां लागीं-लागीं आसात. दिसाचें काम करून रातीचें शिनेम पळोवंक मेळटालें. आतां कशेंच जमना."

"तुका कोण-कोण ॲक्टर आवडटात?" केशुबाबान मुलाखतीक विचारतात तसो प्रस्न केलो.

"म्हाका देव आनंद, किशोरकुमार बी आवडटात. पूण सगळ्यांत चड आवडटा तो राज कपूर. नटयांमदें म्हाका सगळ्यांत चड आवडटा ती नर्गीस आनी तिच्या फाटोफाट मीना कुमारी!"

हें आयकून आमचो केशुबाब फुल्लो. कारण शिनेमाचे बाबतींत आमच्यो आवडी निवडी एक आशिल्ल्यो. एदो वेळ आमच्यो गजाली उब्यानी चलिल्ल्यो. आतां केशुबाबान म्हाका म्हजो हात धरून आदरान भितर व्हेलो आनी कदेलार बसयलो. आयज मेरेन शिनेमाविशीं आस्था दाखोवन ताचेर अधिकारान उलोवपी कोणूच मेळूं नाशिल्लो ताका.

बरोच वेळ आमी शिनेमांचे बाबतींत खूब उलयले. दोगांनीय खंयचे-खंयचे शिनेमा पळेले ते याद केले. खंयच्या खंयच्या शिनेमांनी कोणें-कोणें कशीं-कशीं कामां केल्यांत, हाचेविशीं उलोवपां जालीं. एक-दोन गाणींय एकामेकाक म्हणून दाखयलीं. उलयतां उलयतां आमी इतले गूंग जाले की इगर्जेची साडेबारांची घांट वाजली तेन्नाच आमी शितिदार आयले. हाचो परिणाम

असो जालो की बाजारांतलीं सगळीं खारव्यां नुस्तें विकून घरा गेलीं आनी म्हाका ते दिसा कढवणान सवराक जेवचें पडलें.

तरी ते दिसा हांव खूश आशिल्लों. ते दिसा सावन म्हाका एक शिकिल्लो आनी देशेंत इश्ट मेळिल्लो. केशुबाबूय आयज इल्लो चडच खोशी जाला, अशें ताच्या फुलिल्ल्या चेऱ्यावयल्यान दिसून येतालें.

म्हज्या ह्या नव्या आनी पयल्याच इश्टाक 'केशुबाब' नांव कशें पडलें, तें सांगतां. तें जालें अशें -

गांवांत वर्साक एकदां सार्वजनीक सत्यनारायणाची पुजा जाताली. ते निमतान नाटकय जातालें. ते वर्सा गांवकारांनी 'ताची करामत' हें कोंकणी नाटक काडलें आनी म्हज्या ह्या नव्या इश्टाक केशुबाबाचो ल्हान-सो 'पार्ट' दिलो. खरें म्हणल्यार ताणें हे आदीं नाटकांत केन्नाच पार्ट करूंनाशिल्लो. हेय वर्सा तो घेवंक तयार नाशिल्लो. पूण गांवच्या नाटकमंडळान फोर्सान तो ताच्या गळ्याक घालो. कारण तो खूब वर्सांनी मुंबयसावन गोंयां आयिल्लो.

म्हजो हो इश्ट शांत सभावाचो आनी ताचेर सोंपयल्लें काम मन लावन करपी आशिल्लो. ताणें केशुबाबाचे भुमिकेक फाव तो न्याय दिलो. धवेंफुल्ल पुडवें आनी ताचेर धवेंच खोमीस. माथ्यार तांबडी तोपी घाल्लो साठ-सत्तर वर्सांचो म्हातारो केशुबाब ताणें असोऽ सोबयलो, की गांवांतले लोक ताका कितलोऽ तेंप केशुबाब म्हुण वळखूंक लागले. ताचो माचयेवेलो प्रवेशूच ताळयांच्या कडकडाटान जालो. ह्यो ताळयो ताका प्रेक्षकांनी ताचें सवंग पळोवन पेटल्योना, तर ताणें फेकिल्या संवादाक लागून पेटिल्ल्यो. माचयेर चलतां चलतां 'फट्ट म्हण्टां ब्रह्महत्त्या' हें वाक्य फेंकल्या उपरांत ताणें वांगड्यांच्या हातार अशे तरेन ताळी दिली, की ताची ती कला पळोवन प्रेक्षकांनीं ताळयांचो शिंवोर केलो आनी तेन्नाच्यान तो गांवचो केशुबाब जालो.

केशुबाब आनी हांव पळोवंक समवयस्क दिसताले. पूण तो घडये म्हज्याहून दोन-तीन वर्सांनी व्हड आशिल्लो जावंये. पूण खरे इश्टागतीक वय, रंग-रूप, जात-धर्म बी तसलें कांय बादना. आमच्या दोगांयमदें असलो एक समान गूण आशिल्लो, की ताका लागून आमची इश्टागत एकेच भेटेन घट्ट जाल्ली.

दुसऱ्या दिसा सावन आमी चुकनासतना भेटूंक लागले. हांव अकरांच्या सुमाराक शेतांतल्यान वयर सरून पयलीं घरा वचून, हात-पांय धुवन, मुस्तायकी घालून बाजारांत वतालों. तो म्हजी आतां अकराच्या सुमाराक सद्दां शॉपा भायर वाट पळेत उबो रावंक लागलो. एक दीस म्हाका उशीर जालो जाल्यार ताका थार जायनासलो. तो एक दीस भेटलोना जाल्यार म्हाकाय तशेंच जावंक लागलें.

ताची आनी म्हजी इश्टागत घट जावंक लागल्या, ही गजाल ताच्या चुलत्याच्या लक्षांत गेली. चुलतो उकत्या मनाचो आनी शिनेममोगी आशिल्लो. ताकाय आवडटाल्यो शिनेमाच्यो गजाली. केन्ना केन्नाय केशुबाब शॉपार नासतालो. तेन्ना ताच्या चुलत्यान म्हाका भितर आपोवन व्हरप, मानान कदेलार बसोवप आनी म्हाका आवडटात म्हुण शिनेमाच्यो गजाली कोमेस करप.

असोच एक दीस केशुबाबान आनी ताच्या चुलत्यान दिसाचो पणजे शिनेमाक वचपाचो बेत केलो. म्हाकाय तांच्या वांगडा वच्चें-शें दिसलें. पूण दिसाचें शेतांत काम करपाचें आशिल्ल्यान म्हाका तें शक्य नाशिल्लें. पूण केशुबाबाक मात हांव वांगडा जाय आशिल्लों. ताणें आमच्या मुखार एक प्रस्ताव मांडलो. तो म्हणल्यार चुलत्यान दिसाचो तिनाच्या खेळाक वचपाचो आनी आमी दोगांनीय स च्या खेळाक सायकलीन वचपाचें.

चुलत्याक हो बेत खूब मानवलो. कारण तांचेकडें सायकल आशिल्ली. एकल्याचे गाडयेचे दुडू वाचताले. पूण म्हाका लुकसाणाक पडटालें. म्हाका सायकल भाड्याक घेवची पडटाली. उणेच चार आणे भाड्याचे फारीक करचे पडटले आसले. तरी केशुबाबाच्या सांगाताक आनी शिनेमाचे ओडीक लागून हांवें तो प्रस्ताव मानून घेतलो.

म्हजी आनी केशुबाबा मदली इश्टागत आतां जून जाल्ली. शिनेमा पळेवपांत इल्ली वाड जाल्ली खरी, पूण आमचे इश्टागतीचें मुखेल कारण आतां तें उरूंक नाशिल्लें. बरोऽ शिनेम आयलो जाल्यारूच पळेताले आमी. तरी एकामेकांक भेटल्या बगर आमकां कशेंच सूख लागनाशिल्लें. आमच्यांतलें विचारधन दिसान दीस वाडत आशिल्लें. अशें घडपाक ते वेळार आमी पळेल्ले दर्जेदार आनी अभिजात शिनेमा कारण आशिल्ले जावये.

आमचे इश्टागतीक केशुबाबाल्या घरच्यांचो कसलोच विरोध नाशिल्लो. उलट ताचें कुटूंब म्हाका केशुबाबाचो इश्ट म्हुण आदरान वागयताले. म्हज्या बापायक मात, हांवें केशुबाबाकडें केल्ली संगत मातूय मानवनाशिल्ली. कारण ताका दिसतालें, की हांव कामांतलों गेलों. ताणें म्हाका हिणवपा खातीर म्हाकाच केशुबाब म्हणपाक सुरवात केली. पूण हांवें केशुबाबाची इश्टागत कशीच सोडलीना आनी तोय म्हजेपसून मनान कसोच पयस जालोना.

फुडें केशुबाबाची आनी म्हजी ताटातूट जाली. ताका एका लागसारच्या सोयऱ्यान मुंबय व्हेलो. केशुबाबाकूय तेंच जाय आशिल्लें. ताका परत एकदां मॅट्रीकेक बसून पास जावंक जाय आसलो. ताणें सोयऱ्यांगेर रावन चिकाटेन मॅट्रीकेचो अभ्यास केलो. मॅट्रीक पास जाल्या उपरांत त्या सोयऱ्यानूच ताका एके बरे कंपनेत चिकटायलो.

केशुबाब गोरो-गोमटो, देखणो आनी शांत सभावाचो तरणाटो आशिल्लो. बापूय मेल्ल्यान, आवयक आनी एका ल्हान भावाक सांबाळपाची जापसालदारकी ताचेर आशिल्ली. चुलतो म्हुण तांकां कितलो तेंप सांबाळटलो आशिल्लो?

धूर्त लोक सदांच मनशाच्या बरेपणाच्या गुणांचो लाव घेवपाच्या प्रयत्नात आसतात. केशुबाबाचे बाबतींतूय तशेंच घडलें. ताका आधार दिवपी सोयऱ्यान आपली चली ताच्या गळ्यांत बांदपाचें थारायलें. चली तशी रुपान साप्प वायट नाशिल्ली. पूण ताकाय भावना आशिल्ल्यो. आपल्या भावनाची कोणेंय तरी कदर करची अशें ताका दिसतालें. ताचे आवडी-निवडीक कोणेंच म्हत्व दिलें ना.

आपल्या उपकारकर्त्याची पांग फेडपा खातीर ताणें ताचे चलयेक आपणायली. कसलीच कुरकूर करिनासतना!

आपलो संवसार उमेदीन फुलोवपा खातीर ताणें मुंबयत फ्लॅट घेतलो. पूण फुलूंक जाय तसो ताचो संवसार फुल्लोना. भुरगेंबाळ नाशिल्ल्यान सदांच दुखाच्या सांवटांत जियेवंक लागलीं तीं दोगांय.

केशुबाब मुंबय रावंक लागलो खरो, पूण म्हाका तो विसरलो ना. सुर्वेक तो तनान मुंबय आशिल्लो, पूण मनान गोंयांत. आमचो एकूय दीस असो गेलोना, की आमी मनान दोशीं जाले नात.

एकदां तर केशुबाबान म्हाका फोर्सान मुंबय व्हेलो. हे आदीं हांवें मुंबय चारसो बीस सिनेमांत पळेल्ली. आतां ताणें म्हाका चडशी मुंबय भोवन दाखयली. ते भायर कितलींशींच नावाजतीं थेटरांय दाखयलीं. दोन दीस सुटी घेवन ताणें म्हाका स सिनेमा दाखयले.

उपरांत हांव खूब वेळां मुंबय पावलों, पूण केशुबाबा वांगडा पळेल्ली मुंबय हांव केन्नाच विसरूंक शकलों ना.

केशुबाब केन्ना केन्नाय बायलेक घेवन गोंयांत येतालो. येतकीर सगळ्यांत पयलीं तो म्हाका सोदूंक येतालोच!

असोच एकदां तो गोंयांत आयिल्लेकडें आसतना म्हाका एका बार्रार घेवन गेलो. वेळ अकरा-बारांचो आशिल्लो. म्हाका दिसलें हो तानेला बी आसतलो. थंड सोडा ना तर तसलेंच कितें घेवंक भितर सरला आसतलो. ताणें म्हाका विचारलें, 'कितें घेता' हांवें म्हणलें, 'सोडा!'

ताणें म्हजे खातीर सोडाची ऑर्डर केली. आपले खातीर ताणें कसलो तरी सोरो मागयलो. बॉल्सांतलें शिगारा पाकीट भायर काडून लागलो शिगार फुसकावंक. म्हाका अजाप दिसलें. म्हज्या सांगाता आसतना ताणें ना केन्ना शिगार ओडलें ना, ना सोऱ्या घोंट घेतलो ना आनी आतां अशी अधोगती?

हांवें जाप काडली ना. फकत ताचेर तिडकलां, हें दाखोवपाचो प्रयत्न केलो. ताका उपदेश-बिपदेश करपाचे भानगडींत पडलों ना. मात एकूच सांगलें, 'ह्या फुडें जर तूं आमची इश्टागत तिगोवन दवरतलो, तर तूं केन्नाच बार्रार पांय दिवचो ना.'

ताची आनी म्हजी हीच निमणी भेट आशिल्ली. तो मुंबय गेलो. थंय ताणें सोरो सोडलो काय कितें, हें समजूंक मार्ग नाशिल्लो. केन्नाय चीट बरयतालो, तीय आतां बंद केल्ली.

एकदां चुलतभावाकडल्यान कळ्ळें, केशुबाबाची बायल भायर पडली. हांव ताका मेळपाक मुंबय गेलों. आदीं आवय मेल्ली, आतां बायल! ताचें पियोवप चालूच आसतालें, हें ताची कूड सांगताली.

हांव ताका जाप दिवपाक गोंयच्यान मुंबय गेल्लों, पूण ताणें जाप दिवची सोडून, फकत दोळ्यांतल्यान दोन दुकां गळयलीं.

आनी थोड्याच म्हयन्यांनी म्हज्या कानार खबर पडली.. केशूबाब गेलो....

***

**म्ह**जो दुसरो इश्ट खुशालचेंडू. मुंबय वच्चे आदीं केशुबाबानूच ताची वळख करून दिल्ली म्हाका. केशुबाबाक लागुनूच आमची इश्टागत खूब दाट जाल्ली. खरें म्हणल्यार ताका म्हजो इश्ट म्हणून घेवपाची म्हजी लायकी नाशिल्ली. इश्टांमदें थोडी तरी समानताय आसची पडटा. आमच्या मदें ती बिल्कूल नाशिल्ली. तो आमच्याहून आठ-णव वर्सांनीं जाण्टो आशिल्लो. ते भायर हांव शेतांत काम करपी, मोटवें काल्सांव घालून भोंवपी तरणाटो. केशुबाब तर ते वेळार विद्यार्थी आशिल्लो. तरी ताका सुशिक्षीत म्हणूं येतालो आनी हो आमचो नवो इश्ट आशिल्लो दोतोर! मदें-मदें पोर्तुगेज उलोवपी. लग्नकार्याक, फेस्ता-बिस्ताक गेलो जाल्यार फात मारपी. असल्या ह्या देशेंत इश्टांमदें म्हज्या सारको गावंढळ इश्ट म्हुण कसो सोबतलो! तरी ताणें म्हाका आपलो इश्ट मानलो. केशुबाबानूच ह्या नव्या इश्टाक म्हजी वळख आपलो इश्ट म्हुण करून दिली.

हो आमचो नवो इश्ट मजेदार आनी व्हड मनाचो आशिल्लो. केन्ना केन्नाय तो आपल्या इश्टांकडें आनी आपल्या घरच्यांकडें उलयता काय बोब मारता, हें कळपाक कठीण जातालें. आपल्या पेशंटांकडें मात तो आपूण दोतोर आसुनूय मायेमोगान उलयतालो. पेशंटाक तपासल्या उपरांत खूबशा दोतोरांचीं मुखामळां अवचीत गंभीर जातात. पूण आमच्या ह्या इश्टाक गंभीर कशें जावप हेंच कळनाशिल्लें. मोटवो आनी हांसत्या तोंडाचो आशिल्ल्यान, पळोवंकूच दिसतालो किशोरकुमार कसो! ताकाच लागून आमी ताका आपसांत खुशालचेंडू म्हणटाले

केशुबाब मुंबय गेल्या उपरांत खुशालचेंडूकडें म्हजी इश्टागत इल्ली चडूच वाडली. ताणेंच वाडयली ती. खुशालचेंडू अकरांच्या सुमाराक येवन आपले कोंसुलतरेंत बसतालो. हांवय तेच वेळार मेकळो आसतालों. हांवें येवन ताच्या म्हऱ्यांत मोन्यानी बसचो. हांव केशुबाबाकडें उक्तेपणान उलयतालों, तशें उलोवप हांगा आमच्या मदें जायनासलें. तरी पेशंट ना तेन्ना खुशालचेंडू गप्प कसोच बसूंक शकनासलो. कारण तो पोर्तुगेज भाशेंतल्यान दोतोर जाल्लो खरो, पूण ताचें हिन्दी-मराठी वाचन भरपूर जाल्लें. आपले तकलेंत भरिल्लें गिन्यान, कोणाकडें तरी व्यक्त जावंचें. जात-धर्माविशीं चर्चा भासाभास जावंची आनी आपणें तातूंत वांटो घेवंचो, अशें ताका मनापासून दिसतालें. पूण हें घडटलें कशें? खंयच्याय



विशयांचेर भासाभास करतलो जाल्यार, उणेच दोन व्यक्तींची तरी गरज आसता. त्योय विशयांचें गिन्यान आशिल्ल्यो आसच्यो पडटात.

हांगा तर सगळेंच उरफाटें. म्हज्या मुखार बशिल्लो खुशालचेंडू उच्च शिक्षीत आनी ताच्या सामकारा बशिल्लों हांव बावळट जरी नासलों, तरी गावंढळ निश्चितूच आसलों. ताचे तकलेंत ज्योतिबा फुले, डॉ. बाबासाहेब आंबेडकार, स्वामी दयानंद सरस्वती, भगवान गौतम बुध्द बी घोळटाले. आनी म्हज्या बोडांत थाण मारून बसिल्ले ते शिवाजी-संभाजी, संताजी-धनाजी आनी फकत म्हाराष्ट्रांतले संत नामदेव-तुकाराम. हांची वळख म्हाका नाटकां-किर्तनांनी करून दिल्ली.

आनी एक म्हत्वाची गजाल म्हणल्यार, म्हज्यांत एक सांगल्यार चार समजुपाची ताकत आशिल्ली. म्हजी ही ताकत खुशालचेंडूच्या लक्षांत गेल्ली जावये. कारण म्हाका शाणो मानून आनी म्हाका खूब कितें कळटा अशें समजून, आपले तकलेंतले गिन्यान तो म्हजे मुखार पातळायतालो. म्हाका तें नवें आशिल्लें, तरी रुचतालें. कारण तें जातपात, अंधश्रध्दा, बुवाबाजी हाच्या आड आसतालें. म्हाकाय ह्यो गजाली आवडनाशिल्ल्यो, खटकताल्यो. पूण त्यो खऱ्यो काय खोट्यो, हाचो निर्णय हांव घेवंक शकनासलों.

खुशालचेंडूल्या उलोवण्यावेल्यान त्यो आतां पक्क्यो जाताल्यो.

कसल्याय विशयाचेर भासाभास सुरू करचे पयलीं, ताणें म्हाका विचारचें, तुका ही गजाल खबर आसा काय म्हुण. हांवें खबर आसल्यार लेगीत ना म्हुण सांगचें. उपरांत ताणें आपूण जावन ती विस्तारान सांगची.

डॉ. आंबेडकर, भगवान गौतम बुध्द आनी ज्योतिबा फुले, हांच्यो गजाली तर ताणें अशे तरेन सांगच्यो की, त्यो आयकतल्यान हिन्दू धर्म आक्ताक सोडचो!

उलयतना तागेली एक खाशेली अशी खुबी आशिल्ली. उलयतां उलयतां तो 'समजलो मरे?',



'कळळें तुका?' अशें म्हणपाक केन्नाच चुकनाशिल्लो. अशें घडटना आयकतल्याक दिसतालें, हो पिसो बी न्हय मू? कांय लोकांक तो दिसतालोय पिसो कसो. पूण म्हाका मात तो तसो केन्नाच दिसलो ना.

फुडें-फुडें ताची आनी म्हजी इश्टागत वाडत गेली. इतली, की हॉटेलार च्या पिवंक वतना ताणें म्हज्या खांदार हात घालचो आनी आमी उलयत उलयत चलचें. कोणागेर विजीताक वचपाचें जालें जाल्यार, ताणें कोन्सुलतोर बंद करची आनी स्कुटरीचेर फाटल्यान म्हाका बसोवन व्हरचो.

एकदां तर मजाच जाली. म्हाका घेवन तो आपल्या मावोड्या गेलो. वाट दोनेक वरांची आसली. वतां-वतां वाटेर म्हाका कडकडून मुतूंक जालें. हांवें ताका थांबयलो. मुतून यो जाल्यार हो नाच. ताका दिसलें आसतलें हांव येवन स्कुटरीर बसल्लां. हो हातवारें करीत बडबडत मैलभर फुडें वचून वळून आयलो आनी मोट-मोट्यान हांसून म्हणूंक लागलो, 'आरे, हांव समजलों तूं फाटल्यान बसला म्हणून मरे!'

केशुबाब म्हज्या पसून पयस जालो, तसोच थोड्या तेंपान खुशालचेंडूय पयस जालो. ताका देलेगाद साऊद म्हुण सरकारी नोकरी मेळ्ळी. तरी आमचें आत्रेपयऱ्यान एकामेकागेर येवप-वचप चालूच उरलें. तो कितलोय पयस ट्रांसफर जावन गेलो जाल्यार हांव तागेर वतालोंच आनी हांव गेलोना जाल्यार तो म्हगेर येतालो. एकामेकाक भेटल्या बगर आमकां कशेंच सूख लागनासलें.

म्हजो हो उच्च शिक्षीत इश्ट बडबडटालो खूब, लोकांक सल्लो दिवपाकूय तो हुशार आशिल्लो. पूण ताच्या हातांतल्यान मात कांयच जायनाशिल्लें. पयलीं तो बुध्दाच्या मोगांत पडलो, उपरांत ताका स्वामी दयानंद सरस्वतीचो आर्य समाज आवडूंक लागलो. ताच्याय नंतर बहाई धर्माच्या फाटल्यान नाचूंक लागलो. एकूय थीर अशें नाशिल्लें ताचे कडेन.

तरी तो म्हाका आवडटालो. कारण ताचें मन नितळ आनी विचार प्रगतीशील आशिल्ले.

ताच्यांतलो सगळ्यांत व्हडलो दुर्गुण म्हणल्यार कोणाकूच ना दुखोवपाचो. पोकोळ कानाचो आशिल्ल्यान कोणेंय कितेंय सांगल्यार आयकतालो आनी स्वताचें आनी हेरांचेंय लुकसाण करून बसतालो. कसल्यातरी कारणाक लागून, कोणें तरी चार चौगांनी म्हज्या आड ताचे कान फुंकले. घे, हो खूबलो. एक दीस म्हज्या घराकडे येवन, तोंडाक सुवाद धरिनासतना, मोटमोट्यान कित्या कितेंय बडबडूंक लागलो. म्हजें कितेंच आयकूंक तयार ना जालो. कारण ताच्या मत्तान चौग जाण खरे आशिल्ले आनी हांव एकटो फटकिरो!

हो प्रसंग घडून गेल्या उपरांत म्हज्या उच्च शिक्षीत इश्टाच्या लक्षांत आयलें, की ते चौग जाण खोटे आशिल्ले आनी हांव उजू. आपले करणेचो ताका पश्चाताप जालो खरो, पूण आतां ताचो कांयच उपेग नाशिल्लो.

ह्या प्रसंगावेल्यान एक गजाल मात हांव शिकलों आनी ती म्हणल्यार, उच्च शिक्षितां परस केन्ना केन्नाय अशिक्षीत अकलेन आनी मनान श्रेश्ठ थारतात.

खुशालचेंडू कडल्यान खूबशीं पिशेंपणां घडटालीं. म्हाका तीं मानवनाशिल्लीं. तरी ताच्या मरणा मेरेन आमची इश्टागत घट्ट तिगून उरलीच.

***

**चि**बडोजी म्हजो तिसरो आनी सगळ्यांत चड लागसारचो इश्ट. तो सामको अशिक्षितूय नाशिल्लो आनी उच्च शिक्षितूय नाशिल्लो. तो आशिल्लो एक हुशार पसरकार. तिसरी-चौथी मराठी शिकिल्लो. खुशालचेंदू भाशेन बडबडो आशिल्लो तो. पूण निश्क्रिय नाशिल्लो. गरीब, गिरेस्त म्हूण पळेनासतना खंयच्याय वेळार कोणाचेय मजतीक धांवन वचपी.

ताची-म्हजी इश्टागत वाडपाक ताचो होच एक गूण कारण थारला आसुंये. ताकाय म्हज्यांत कसलो तरी, इश्टागत करपा सारको, ओड लावणो गूण दिसलो जावंये. ना तर गांवांत शेंकड्यांनी समवयस्क भुरगे आसतना, आमचे मर्देंच इश्टागत कशी जमची? ते भायर आमी जातीपातीचेय नाशिल्ले. भिन्न सभावाचेय आशिल्ले आमी. तो इल्लो फोल्गी आशिल्लो आनी म्हाका परिस्थितीन चिक्कू केल्लो. तो उक्तेपणान सिगार ओडपी. चोरून बारांर भितर सरपी. कार्तांनीय खेळपी. चलयांकडे लज-भीड धरिनासतना, तोंडाक येता तें कित्या कितेंय बडबडपी.

आनी हांव ह्या सगळ्यां पसून जाता तितलो पयस रावपी!

चिबडोजी पसून मुजरत पयस रावपाक म्हाका आनीक एक कारण आशिल्लें. तो उच्च जातीचो आशिल्लो, आनी हांव भोवजन समाजांतलो. म्हाका दिसतालें, ताणें कशाकशेंय वागचें न्हय. आपले जातीचें स्मरण करून, ताच्या समाजाक सोबता तशें वागचें. पूण म्हाका कितें दिसता तें हांव ताका उक्तेपणान सांगूंक शकनासलों. तरी म्हज्या मनांतली गजाल ताच्या लक्षांत आयल्या बगर रावनासली. तेन्ना तो खंती जातालो. थोडे दीस म्हज्या मुखार सोंडो करून रावतालो आनी मागीर परत, 'येरे माझ्या मागल्या' जाल्ल्याचो सबाव मेल्या बगर वचना म्हणटात, तें ताका लागू पडटालें.

तो जेन्ना बिनधास्तपणान आपले पद्दतीन वागतालो, तेन्ना ताका याद येताली ती फक्त म्हजी! हांव म्हऱ्यांत आसल्यार ताची जीब ताच्या नियंत्रणांत उरताली. ताकाच लागून म्हाका ताचो वांगड सोडचो-सो दिसनासलो. म्हजे दिश्टीन चिबडोजी दुर्गुणाची खण आशिल्लो. पुणून



ताचेकडें कांय बरेय गूण आशिल्ले. ताचे हे बरे गूण ताच्या दुर्गुणांचेर पांगरूण घालताले.

ताचो सगळ्यांत व्हडलो बरो गूण म्हणल्यार समाजकार्याक हातबोट लावपाचो. गांवांत कसलेंय सामाजीक कार्य करपाचें जालें जाल्यार, सगळ्यांत पयलीं चिबडोजीची धांवपळ सुरू जाताली. आमच्या भुरगेपणांत लोक एकठांय जावन गांवांत गणपती पावंक भोंवताले. असल्या वेळार चिबडोजीचो बोवाळ चड! कोणागेर भट नासत जाल्यार पुजा चिबडोजीन सांगप. आरत्योय ताणेंच म्हणप. माटोळीय ताणेंच हालोवप. माटोळेचें बऱ्यांतलें बरें फळ तोडून, तें स्वता खायनासतना आपले मर्जेंतल्या मनशाक तो दान करी. प्रसाद वाटपाच्या वगतार चिबडाफोडींच्या ताटाचेर पयली नदर पडटाली ती चिबडोजीची.

हाकाच लागून ताच्या एका कुच्छित्री काकान ताका चिबडोजी नांव दवरलें. ताका लागून, तो म्हजो इश्ट आसुनूय, ताचें खरेलें नांव म्हाका खबर आसुनूय तो चिबडोजी म्हूण म्हज्या मनाक दसलो, तो ताचें म्हानिर्वाण जाय मेरेन तस्सो उरलो.

तशीं ताचीं आनीकूय खूबशीं रुपां नाचतालीं, खेळटालीं. तो बातमीदाराच्या रुपान पत्रकार म्हूण गांवांत वावुरलो. पेपरविको तर तो आशिल्लोच. ते भायर बऱ्यांतलो बरो मराठी लेखकूय आशिल्लो. कार्यक्रमांच्यो खबरो अशे तरेन बरयतालो, की जातीचो अस्सल कोंकणो आसुनूय ताच्या मुखार दर्जेदार महाराष्ट्रीय मराठी लेखक फिको पडचो. तो एक उत्तम नट आशिल्लो. गांवांत हौशी नाटकां जातालीं, तेन्ना येसाये वगतार 'प्रोम्पटींग' करिसारको दुसरो मनीस पंगडांत आनी गांवांत मेळपाक कठीण आशिल्लो.

गांवांत पटी काडून सत्यनारायणाची वर्सुकी पुजा जाताली. तेन्ना बरींच-शीं कामां चिबडोजीच्याच वांट्याक येतालीं. देवाच्या नांवान पटी कोणा-कोणाकडल्यान वसूल करपाची, हें तो ज्युस्त जाणा आशिल्लो. पटी वसूल करतना ताच्या मुखार हिन्दू-किरिस्तांव हो भेद नासतालो.

पणजे वचून कंपन्यांचीं नाटकां पळोवपाक तो खंयच्याय वेळार फुलतालो. पणजे कसलेंय नाटक आयलें रे आयलें, चिबडोजी फुल्लोच. वांगड्यांक एकठांय करून, तिकेट्यांची वेवस्था करून, भाड्याची गाडी करून, कोण येतात तांकां नाटकां दाखोवन हाडपाची जापसालदारकी तो आपल्या आंगार घेतालो.

चिबडोजी इल्लो व्यसनी आसलो, तरी तो लोकप्रिय आसलो. ताणें कोणाकूय कसलेंय काम सांगचें आनी तें जायनासतना उरलें, अशें केन्नाच घडलें ना.

गांवांत तो जितलो फामाद आशिल्लो, तितलो आनी कोणूच नाशिल्लो.

शेणिल्लें गोरूं करमळे तळ्यार तशें वाट चुकिल्लो मनीस चिबडोजीगेर सापडटालो, अशें गांवच्या लोकांक दिसतालें.

चिबडोजीची आनी म्हजी दोस्ती हेरां परस चड तेंपाची. ताच्यो खूबशो संवयो म्हाका साप्प मानवनासल्यो. तरी ताका हांवें म्हजो जिवाभावाचो दोस्त मानलो. एकदां कोणाकूय इश्ट मानलो म्हण्टकीर, ताच्यांतल्या सगळ्या गुण-दोशांसयत ताका आपणावपाचो पड्टा. लुकसाण-फायद्याचो विचार करिनासतना, जो आपली इश्टागत तिगोवन धरता, तोच खरेलो आनी जिवाभावाचो इश्ट आसता.

चिबडोजीची आवय एक दीस म्हणूंक लागली, "बाबा, तूं म्हज्या पुता वांगडा भोंवता तें पळोवन म्हाका खूब बरें दिसता. जाता जाल्यार दोन गजाली सांग आनी मनशांत हाड ताका."

हांव चिबडोजीक सुदारपाचे भानगडींत पडलों ना. हांवें ताका सोरो बी सोडपाचो उपदेश केल्लो जाल्यार, तो म्हाका सोडपाचो, पूण सोऱ्याक न्हय!

मात एक गजाल हांवें ताच्या मुखार सतत चालू दवरली, आनी ती म्हणल्यार व्यसनी लोकांची निंदा-नालस्ती करपाची. कोण सोऱ्यान टी. बी. जावन मेलो. कोण शिगरेट ओडटालो तो कॅन्सर जावन मेलो.

ह्यो गजाली आयकून तो पिकार जातालो. तरी तो म्हजेर उबगनासतना सगळें मोन्यांनी आयकून घेतालो.

तो व्यसनी आशिल्लो, अर्दशिक्षीत आशिल्लो, तरी हुशार आशिल्लो आनी संवेदनशीलूय आशिल्लो. नितिमत्तेचोय भरपूर आसपाव आशिल्लो ताच्यांत. हाचेर ताचेर घालून हांव कितें उलयतां तें आपल्या बऱ्या खातीर, हाची पुराय जाणविकाय आशिल्ली ताका. एक दीस तो म्हजेर अवचीत इतलो तापलो, इतलो तापलो की वांगडाच ताचे दोळे रागान तांबडे जाले. सगळें आंग ताचें थरथरूंक लागलें. उपरांत ताणें म्हाका किंवाट्यान आड्डून सांगलें, "त्यो जाणवायो तूं सदांच म्हज्या मुखार येवन उलोवं नाका. आयकूं नज त्यो म्हज्यान. फाल्यांच्यान सोरोय बंद आनी शिगारूय बी!"

चिबडोजीन आपल्या उतराक पाळो दिलो आनी खऱ्यानीच दुसऱ्या दिसा सावन तो व्यसनमुक्त जालो.

उपरांत सुमार पंचवीस-तीस वर्सां निर्व्यसनी चिबडोजीचो म्हाका सांगात मेळ्ळो. ह्या काळांत आमी एकामेकाचो मान राखून, एकामेकाच्या सुखा-दुख्खांत सहभागी जावन जियेले.

पूण एका वर्सा फाटीं अकस्मात विपरीत घडलें. सकाळच्या आठांच्या सुमाराक हांव खाटीर पडून पेपर वाचतालों. म्हजो व्हडलो पूत पडिल्लें तोंड घेवन म्हऱ्यांत येवन उबो. म्हणूंक लागलो, "एक वायट खबर आसा तुका."

"कितें जालें रे?"

"चिबडोजी काका गेलो."

म्हाका कच्च जालें. तिगांभितरलो हो निमणोय इश्ट म्हाका एकट्याक सोडून गेल्लो. म्हाका सगळो संवसारूच रिकामो जाल्ले भशेन दिसलो.

खरें म्हणल्यार हांव एकटों नाशिल्लों. बायल-भुरगीं, भाव-भयणां सगळीं आशिल्लीं म्हज्या सांगाताक. पूण ह्या सगळ्यांकडें हांव म्हजीं सुख-दुख्खां केन्नाच व्यक्त करूंक शकलोंना कारण इश्टांकडें हांव ज्या विश्वासान उलयतालों, त्या विश्वासान हेरांकडें उलोवपाचें धाडस म्हाका केन्नाच जालें ना. ■

– नं. ध. बोरकार,
मास्कारेन्यस वाड, गोवा वेल्हा. फोन : ०८३२-२२१८१४६

बिम्ब
मासिक

# दुबावा-पातक



- जयमाला दणायत

*अश्यो ल्हानसान घडणुको जणएकाचे जिणेंत घडत आसतात. केन्ना तरी हें दुबावाचें जाळें तयार जाता. खरें म्हळयार आयच्या जगांत बुद्धी परस मनच घटमूट आसचें पडटा. निरोगी, नातर निगरगट्ट तरी! दुबावाचो संबंद थेट मना कडेन आसता. मन चिंतता, तें दुस्मान लेगीत चिंतना म्हणटात. मनशाचें हें मन मोठें चंचळ!*

मन आनी दुबाव हांचें सामकें लागीचें नातें! तशेंच दुबाव आनी भंय हांचे मदली देग-मेरय सामकी हय-न्हयशी, दिसता ना दिसता अशी! आपलें कितेंय शेणटलें ह्या भंयान आनी असुरक्षिततायेचे भावनेन दुबाव निर्माण जाता. मनीस मार्गार चलतना चुकून लेगीत ताणें सकयल ओणोव घालो जाल्यार तो फातोर उखलतलोच ह्या भंयान भोंवतणचीं सुर्णी, माजरां, कावळे शिटकतात - म्हणचे एकेतरेची अविश्वासाची भावना दोगांच्याय नात्यांत दुबाव तयार करता. आपले कोणाय दोगां मदलें संबंद हे एकमेकांच्या विश्वासाच्या पांयारच निंबून आसतात. घरांत, कोण नासतना वावराडेच्या हातांत चावी दितात तें तिचेवेल्या विश्वासानच न्हय? म्हणचेच विश्वास हो दुबाव, भंय आनी असुरक्षितताय हांचे मदले परस्पर संबंद घटायता. घोव-बायल, मोगी, भाव-भाव-भयणी, मांय-सून, इश्ट आनी हेर नात्यांनीय एकमेकांविशीं विश्वासाची गरज आसता आनी तांचेमदीं दुबाव रिगतकीच त्या नात्यांमदीं जीं धुमशेणां कांडप चालू जातात तें 'सर्वश्रूत'च आसा.

आपणाल्या सहवासांत येवपी जण एकल्याकडेन आपणाचे केन्ना इश्टागतीचे, मोगाचे, बरेपणाचे संबंद आसतात, तर केन्ना एकमेकांमदीं दुस्मानकाय वाडीक लागता. मनीस आपल्याक आयिल्ल्या अणभवांचेर जावं कोणय सांगता ताचेर आपलें बरें वायट मत थारायता आनी तांचेकडेन अदीक-उणो संबंद दवरता आनी ह्या संबंदांमदीं दुबाव निर्माण जाल्यार तें कितलें वायटाक पडटा हें सगळ्यांक आपापल्या अणभवान वा आयकून, वाचून खबरच आसतलें.

ही दुबावाची भावना सगळ्यांत चड धुमाकूळ घालता ती घोव-बायलेच्या नात्यांत! आपल्या जोडीदाराविशीं नाका इतली मालकीची-'स्वामित्वाची' भावनाच तर हो दुबाव परतो परतो तकली वयर काडूंक लायता. जावं मागीर आपल्या परस चड बरो जोडीदार मेळ्ळ्यार न्युनगंडाची म्हणचे इन्फेरीटी कॉम्प्लेक्साचे भावनेंतल्यान दुबाव जल्माक येता आनी दुबावाचें हें भूत जोडीदाराची आख्खी जीणच दुख्खदायी करून सोडटा. कसल्या ना कसल्या मोयपासांत आडकून आमी मनांत दुबावाक थारो दितात आनी आपणाक समजनासताना ताचे गुलाम जावन पडटात. आमच्या शेजरा एक नवेंच लग्न जाल्लें जोडपें रावंक आयलें. अजून आंगावेली हळद आनी हातावेली मेथी पुसून वचूंक ना इतलें नवेंताल्ल! जाय-जुयेच्या फुलापरी नाजूक, गोरी-धवी सोबीत व्हंकल आनी घोव सर्वसाधारण रुपाचो, काळोसांवळोच म्हळ्यार जाता. चलयेच्या आवयबापायन 'माता बित्तं, पिता श्रुतम्'चे धर्तीर शारांत व्हडलो फ्लॅट, फर्निचर, गाडी, चार पांच आंकडी पगार पळोवन 'योग्य स्थळ' मानून लग्न करून दिल्लें जांवये! पूण ते चलयेच्या तोंडार केन्नाच खोशी म्हणून झळकनासली. सदांकाळ भंयभीत कर्शे! बायलेचें मन समजून घेवन, हळुवारपणान ताका फुलोवंक जाय हें एकतर त्या मनशाक समजनासलें जांवये! तो फकत 'हाचेकडेन उलोंव नाका, ताका पळोंव नाका, हांगेर वचूं नाका, अशें चलूं नाका, तुजी कोणाकडेन कितें भानगड आशिल्ली, कोणाचेर मोग आशिल्लो' अशें करून सारको ताचो दुबाव घेवन ताका रडयतालो. उतरांच्या भाल्यानी ताचें काळीज रक्तबंबाळ करतालो. तो ताचो छंदच कसो जावन पडलो. संवसारांत बेट्टो आपुणूच समजुतदार आसून भागना, आपलो जोडीदार लेगीत शांत समंजस आसचो पडटा. पूण अशें खंय घडटा? चडशीं जोडीं विजोडच म्हणपाचीं! शेवटाक ते चलयेन तीन चार म्हयन्यां भितरच आपलो जीव होगडायलो.

एकट्यान विस्कटायिल्लें घर दुसऱ्यान सांबाळपाची वेवस्था आमचे भारतीय संस्कृतायेन केल्या म्हणून आजूनमेरेन आमची ही कुटुंबसंस्था तिगल्या. खरें तर लग्न करतना दोगांयमदीं एक गाढ विश्वासाची भावना तयार जावप खूब म्हत्वाचें! घोव बायलेमदीं दुबाव उप्रासल्यार ताचे खूब भयंकर परिणाम जावं येतात हें वयर दिल्ल्या उदाहरणावेल्यान दिसून येता. आयच्या काळांत तर साद्या साद्या फुस्काच्या कारणावेल्यान लेगीत डायवोर्स घे मेरेन गोश्टी पावतात. त्या परस दोगांय मदीं दुबाव उत्पन्नच जावंक दिवचो न्हय म्हणून सादूर रावंक जाय. साद्या साद्या गोश्टींनी मनांत दुबावाच्या भोंवऱ्यान घर केल्यार आपल्याच पांयार कुराड मारून घेतलेवरी जावपाचें! शेजारचे दुसरे एके चलयेचो घोव दिसूंक बरो - सामको हटणिचो

एको! 'आगो, तुजो घोव सामको हिरो दिसता मगो! सांबाळून गो बाये, कितलीं जाणां मरतात देव जाणां, कोणाकोणा बरोबर भानगडी करता सांगू नज हां.' शेजान्नीन ताच्या मनांत दुबावाचें बीं रोयलें. तें मागीर ताचेरच येवजूंक लागलें. सदचे परस मात्सो वेळ जालो, कोणा बरोबर भोंवता काय दिसप, ताच्या बोल्सांत सिनेमाच्यो तिकेटी आसात काय, कोणाचो लेंस, कागद बी आसा, शर्टार कोणाले केंस बी मेळटात काय तेळप! ताका लागून आपले आपणाकच मनस्ताप करून घेवप – सूख दुखूंक लागलें पापणीक! नशीब, तोणान कांयच उलोवंक ना म्हणून! खरें तर ताचो बायलेचेर सामको जीव! ताका मात बरें ना जाल्यार कामार वचूंक लेगीत तो फाटीफुडें जातालो.

अश्यो ल्हानसान घडणुको जणएकाचे जिणेंत घडत आसतात. केन्ना तरी हें दुबावाचें जाळें तयार जाता. खरें म्हळ्यार आयच्या जगांत बुद्दी परस मनच घटमूट आसचें पडटा. निरोगी, नातर निगरगट्ट तरी! दुबावाचो संबंद थेट मना कडेन आसता. मन चिंतता, तें दुस्मान लेगीत चिंतना म्हणटात. मनशाचें हें मन मोठें चंचळ! मनाचें हें शेवणें खंय खंय भिरतभिरत आसता सांगू येना. मनांत उठपी हीं भावभावनांचीं ल्हारां आपल्या उलोवपा–करपांतल्यान दिसतात. मन खोशी तर ओंठ शिळोणी घालतात, पदां गुणगुणटात. मागीर पळोवपी म्हणटा– 'तो मनीस पळे कितलो सुखी आसा–सदासुखी म्हणपाचो!' हाचे उरफाटें तापल्यार मागीर सगळेकडेन फडफडप, किरकिरप! कोणय म्हणटलो, 'इतलें तापूंक कितें जालां हाका? भारीच बाये तडकू राम! गरम मिजाजी!' अशा ह्या चंचळ मनाचो भावनीक मूड म्हणजेच दुबाव! मनशाची सहज सुलभ वृत्ती–आपसुवार्थी! पूण सतत ते नदरेन जगाकडेन पळोवप बरोबर न्हय. नदर दुबावी जाली म्हणटकीच आपल्या विचारांचेर, वागण्याचेर ताची पकड बसता. दुबावाक लागून मनशाचे वैयक्तीक जिणेचेर, नातेसंबंदाचेर वायट परिणाम जातात आनी मनाचें स्वास्थ इबाडटा.

जगांत सर्वसुखी असो कोणच ना, तरी जणएकलो सुखी जावचेलो मार्ग सोदतच आसता. कोणाक कुटुंबांत स्वस्थकाय जाय आसता, तर कोणाक समाजांत प्रतिश्ठा, मान–सन्मान जाय आसता. ताचे खातीर कितेंय करची तांची तयारी आसता. मनशाचो समाजांत जायते जाणांकडेन संबंद येता. सगळ्यांकडेन उणेअदीक प्रमाणांत जिव्हाळ्याचे, इश्टागतीचे वा दुस्मानकायेचे संबंद येतात. मन कसलो ना कसलो विचार करीत आसता. सदांच्या बऱ्यावायट अणभवांतल्यान दुबाव निर्माण जाता. खरें तर ती एकेतरेची आपल्यामदली जागृताय आसता.

एकल्यान दुसऱ्या कडल्यान आयकल्ली खबर तो मीठ मिरसांग लावन येद्याचें येद्दे करून तिसऱ्याक सांगता. घोवान ऑफिसांत मिटींग आसा म्हणून वेळान येवप हे असले अणभव सगळ्यांकच केन्ना ना केन्ना येतात. भुरगो कॉलेजींत वता सांगून मित्रांबराबर वता. आपणें उलयल्लीं नाशिल्लींच उतरां आपणें उलयल्यांत अशें आपल्या आंगार येता. खरें तर खंयच्याय नात्याची बुन्याद आपसांतल्या विश्वासाचेर निंबून आसता. पूण मनांतल्या दुबावी विचारांनी नात्यानात्यांत एकेतरेची तेढ निर्माण जाता. मागीर तीं दोगां मित्र–मैत्रिण, भाव–भयण, घोव–बायल, मांय–सून कोणय आसूं. आपल्यामदीं उप्राशिल्ल्या दुबावाचो वेळारच विलो केलो ना जाल्यार हें भूत मागीर सामकेंच गोमटेर बसता. एकेच गोश्टीविशीं परतपरत शंका आयल्यार ताचें रुपांतर मागीर दुबावांत जाता आनी तो बळावता. मागीर सगळी नदरच बदलता. मनांत साशंकता निर्मिता. उदाहरण दिवचें जाल्यार घोव सद्दां टायमार येवपी, चुकून एक दीस वेळ जाता. फोन केल्यार लागना. बायलेक दुबाव मारता, आपणाक फटयता म्हणून ती तिरतिरता. तो घरा येनाफुडें ताका पुरो जालां बी कांयच येवजी नासतना वाद घालता. तिचो तोल सुटता. 'आयकून तरी घे' म्हणून तो समजावन सांगूंक सोदता. पूण त्या वेळार ती सामकी दुबावाच्या प्रभावाखाला आसता. कांयच आयकून घेवची तिची तयारी नासता. शांत जातकीच तो तिका आपल्या एक्स्ट्रा कामाविशीं सांगता. तिका लज जाता, पश्चाताप जाता ताचेर दुबाव घेतलो म्हणून! अर्थांत घोव तापट आसल्यार तोय तापता. एका विशयावेल्यान दुसऱ्यार वचत मोठें केस्तांव पेटूं येता. घोवावेल्या अती मोगान आनी काळजेन चिंता जाता, दुबाव येता. कांय विघ्नसंतोषी मनशां तांचेमदीं मागीर पेत्रोलय घालतात.

कांय मनीस आंकवार चले चलयांकडेन दुबावान पळेतात. घरचींय तांचेमदीं आशिल्ले इश्टागतीकडेन दुबावतात. पयलींच जनरेशन गॅपाक लागून जाण्टीं आनी भुरगीं हांच्या येवजण्यांचो फरक आसता, तातूंत मागीर कोणतरी सारके आपल्याक तेळत आसतात हें भुरग्यांक खपना. खरें म्हळ्यार कांय गोश्टी भुरग्यांक विश्वासांत घेवन विचारूंक जाय. पूण अतीकाळजी घेतल्यार शंकेचें रुपांतर दुबावांत केन्ना जाता हें तांच्या लक्षांत येना. मनांत एकदां दुबाव रिगलो म्हणटकच हातपांय पातळायता आनी ताका लागून दोरयेचो सोरोप कसो जाता आनी कोण सुतावेल्यान सर्ग गांठता सांगूं नज. मांय–सुनेच्या संबंदांतय अशेंच घडटा. तांचे मदलो दुबाव केन्ना आकांताचो आकार धारण करता आनी मागीर तांचेमदीं बाबड्या त्या चल्याचो कसो सँडवीच जावन वता कळच ना! ह्या दुबावाक लागून कितल्याशाच कुटुंबांनी व्हडल्यो समस्या उद्भवतात. संवसार म्हळो की आयदनाक आयदन आपटताच, अशें आसलें तरी हाचें मूळ कारण दुबाव आसल्यार झगडीं–केस्तांवां वाडटात. मागीर कोण घर सोडून पळून वता, कोण आत्मघात करता – वीख पियेता, गाडयेपोंदा जीव कितें दिता, तर कोण गोळाक लावन घेता. खबरांपत्रांनी ह्या दुबावाचें विकृत रूप धारण केल्ल्यान घडिल्ल्या परिणामाविशीं जायतें वाचूंक मेळटा.

संवसार रथाक सुवार्थ आनी अहंकार हे दोन उधळावन लावपी घोडे आसले आनी दुबावरुपी सारथी आसत जाल्यार मागीर आनी विचारपाचेंच ना. त्या संवसाराचे बारा बिरेस्तार आनी तेरा शुक्रार जावंक कळाव लागना. जणएकाक आपले इतले लागींचो दुसरो कोणच नासता. पयलीं आपसुवार्थ मागीर परमार्थ म्हणपी! कोणाचीय हत्या करूंक हेर कसल्या शस्त्राची गरज ना. उतरां परतें दुसरें शस्त्र ना. आनी उतर एकदां तोंडांतल्यान भायर सरलें तर दुसऱ्याच्या काळजाक खोमता – तें परतें घेवंक



जमना. कोणाक घायाळ करूंक हातांत धनुष्यबाणच घेवपाची गरज ना. दुबाव आसा तोच पुरो! ह्या दुबावाचें अशें आसता. जाका दुबाव येता ताका चैन पडना आनी जाचेविशीं दुबाव आसता ताका तो बरेभशेन जियेवंक दिना! कितले तरानी हो दुबाव आपल्या मनांत घर करून आसता हें आपलें आपल्याकच समजना. आपल्या मनाचीं कवाडां बंद करून एक दीस मनांत कितें साचलां ताचो अंदाज घेवंचो! गोबरा पोंदा मुमरांत दुबावाचे कितले कोळशे पालवल्यात आनी कितल्यो किटी पेटल्यो उरल्यात हाचो अंदाज घेवचो! सिंदबादच्या म्हाताऱ्याभशेन हें भूत एकदां मानगुटेर बसलें काय जिणेविशीं मनांतलीं रंगरंगयाळीं सपनां पालवतात. दुबावरुपी हे संशयात्मे मनाक सामके दयनीय करून सोडटात.

समजा कोणाकय आपणांक कितें तरी जालां असो सारको दुबाव येता. मागीर ताचें 'हें दुखता तें दुखता' सुरू जाता. ताच्या मनांत तें मूळ धरून रावता. – हो दोतोर, तो स्पेशलिस्ट चालू जाता. पयशापरी पयसो, वेळापरी वेळ वता आनी ह्या चक्रांत मनीस एकदां सांपडलो, मागीर ताची सुटका नासता. मनशांमनशां मदलीं दुबावाचीं जळमटां एकवेळ झाडून पुसून साफ करूं येतात. पूण असल्या दुबावान खचून गेल्ल्याक परत जिणेंत सारको उभारून येवप खूबदां शक्य जायना. देवादिकांक लेगीत ह्या दुबावाच्या पातकांतल्यान सुटका ना म्हणटात – तांतल्यान दुबावाचें हें सर्वकाळी अस्तित्व जाणवत रावता. लोककाणयेंतल्यान लेगीत संशयाचें हें जगावेगळें रूप दाखयलां. देखीक – एक राजा देवीमाँची खूब सेवा करता, तप करता आनी ती ताका प्रसन्न जाता. ताच्या राज्यांत येवन रावचें कबूल करता. पूण अट घालता – चलतना ताणें फाट करून पळोवप ना. राजा फुडें, देवी फाटल्यान चलूंक लागता. बरोच पयस पावतकीच राजाक कांय आवाज येना. दुबाव येवन तो फाटल्यान पळेता आनी देवी फातरा रुपान थंयच घट जावन रावता.

कांय वेळार दुबाव कर्दनकाळ जाता. शेक्सपियराच्या नाटकांत ओथेल्लो दुबावान पिसावता. शेवटाक आपणाल्या गुणी बायलेचो घात करता. आपलो नाश आनी जगाचें हांशें – हो दुबावाचो परिणाम – नाटकाची ट्रॅजडी करता. हाचे उरफाटें संशयकल्लोळांत कॉमेडी दाखयल्या फाल्गुनरावाली! मनीस केन्ना दुबावान कोणाची दुस्मानकाय आंगार ओडून घेतात तर केन्ना आपल्या पांयार कुराड मारून घेतात. दुबावाचें मळब मनशाच्या मनार दाटून येता आनी तो धुल्ल फाफडून उडयतकीच मन पर्थून सोबीत सोज्वळ जाता. शंकासूराक जिणेंत जागो दिवं नये. ताका पयस दवरिल्लेंच बरें.

सदांच दुबावी नदरेन हेरांकडेन पळोवचें न्हय. नदर दुबावी जाली म्हणटकीच विचाराचेर, वागपाचेर ताची पकड बसता. ताची जातच दुबावी म्हणटात, म्हणुनच 'अतिसर्वत्र वर्जयेत' हें लक्षांत दवरूंक जाय. दुबावाक लागून आपल्या मदल्या नातेसबंदांचेर वायट परिणाम जातात आनी मानसीक त्रास जाता. आपूण जाचो दुबाव घेता ताच्या जाग्यार आपणाक दवरून पळोवचें. मनांतल्या दुबावाक विवेकाची जोड दिवंक जाय. दुबावाचें जाळें तयार जावंक दिनासतना दुबाव ना कसो करचो तें पळोवचें. नातर मागीर ताचें व्हड मानसिक दुयेंस जावं येता. दुबावाचें भूत मानगुटेर बसूंक दिवं नये. मागीर तो संवसार सुखांत माती केन्ना कालयत तें सांगूं नज. होच

मुखेल धागो मर्दी धरून 'संशयकल्लोळ' नाटक विणलां, हो दुबाव सामको पोको, फोलपट साल, असो आसूनय संवसारांत कसो उत्पात घडोवंक शकता हें तातूंत दाखयलां. कोणाच्याय मनांत दुबाव मिक्स जालो म्हणटकीच मनाचें अस्सल रूप शेणटा, आनी मागीर परतीची वाटच मेळना. जोडीदार मेकळ्या मनाचो आसल्यार संवसाराची ही मैफल मस्त सुरेल जाता. नातर सगळेंच बेसूर, बेताल! साडेभावार्थी दुबाव ना नपयत जावन निळें लकलकीत मेकळें मळब पळोवंक मेळटा. निवळिल्ल्या दुबावाचें मागीर चकचकीत भांगराळें वत जिणेंत नवें संवसार सूख हाडटा.

तशी जणएकल्याची जीणेकडेन पळोवपाची आपली अशी एक नदर आसता. त्या त्या मनशावेले संस्कार, ताचें अणभवाचें संचित, ग्रह-पूर्वग्रह हें सगळें मेळून ताचे जिणेची फास्की तयार जाता. दुदाच्या आयदनांत चुकून एक मिठाकणी पडल्यार जशें सगळें दूद फुटता, तशें दुबावाचें येदेंशें कूस लेगीत आख्खी जीण सतरवितर करून उडयता. 'शुभमंगल सावधान' म्हणून सुरू जाल्ल्या संवसाराची परेड सारकी मार्गाक लागूंक जाय जाल्यार मनशान दुबावा पसून आपणाक पयसच दवरचें बरें. अशे तरेन दुबावाक खलनायकाच्या जाग्यार मानलो तरी पूण पुलिस खातें, गुप्तहेर खातें, सी. बी. आय., ॲण्टी करप्शन ब्युरो हांगा दुबाव हो नायकाच्या रुबाबांत वावुरता. राखणे खात्याक सतत जागरूक दुबावी रावचें पडटा म्हणून आमी सुसेगादीन जीण जियेवंक शकतात. दुबाव कोणाय खऱ्या गुन्यांवकारी खुन्याचो सोद लायता. दुबाव म्हणचे ह्या खात्याचो श्वासच म्हळ्यार जाता. बनावट नोटी छापपी, गाडयो फारावपी, खुनी, दरोडे घालपी हांच्यो टोळयो ना करपाक पुलीसांचो दुबावच कारण आसता. कांय लोक सुखी संवसार म्हणचे ऐश आराम अशीं सपनां पळेतात. तांकां 'इझी मनी'ची गोडी लागता. पूण हो पयसो खंयच्यान येता वा कसल्या मार्गान तो आपूण मेळयता हाचें भान तांकां उरना. ह्या वेळार बायलांनी घरांत भरपूर पयसो येता म्हणून खोशी जायनासतना तो खंयच्यान येता हाची बारीकसाण घेवप गरजेचें. 'आमदनी अठन्नी, खर्चा रुपय्या' करपी आसल्यार घोवाचो तो इन्कम 'ब्लॅक मनी' आसूंक फावो असो दुबाव बायलेन घेवन सादूर रावंक जाय. ना जाल्यार इन्कमटॅक्साची धाड, लांच लुचपतीचें प्रकरण भ्रश्टाचार असल्यांनी मागीर मनशाची जीण नानपशचात जावं येता आनी सगळ्या सपनांचोय सत्यानाश!

देशांत दंगली घडोवन हाडपी, फामी घालपी, समाजांत अस्थिरताय पातलावप, दुबावीत वातावरण निर्मूवप - ताचो फायदो घेवन चोरयो करप, राजकी अस्थिरताय निर्मूवप असलीं कामां 'समाज-कंटक' करीत आसतात. अश्या वेळार मनाचो तोल सांबाळून धिरान वागूंक जाय. दुबावाक थारो दिनासतना आपले वेव्हार सदचेवरी सरळ चालू दवरून समाज थीर दवरूंक वावरूंक जाय.

शास्त्रज्ञ, संशोधक ही देशाची व्हडली संपत्ती! आनी विज्ञानाची बुन्याद शंकेचेर, दुबावाचेर आदारिल्ली आसता. न्युटनाच्या मनांत झाडावेलें फळ सकल पडपांत कसली तरी शक्त कारण आसा असो दुबाव उदभवलो आनी गुरूत्वाकर्षणाचो सोद लागलो. जे भशेन विज्ञान दुबावाचेर आदारिल्लें आसा तशेंच नव्या नव्या दुयेंसाचेर वेगवेगळीं वखदां सोदून काडप हें संशोधकांचें काम - तांच्या मनांत दुबाव येना जाल्यार तीं वखदां सोदून काडप जावपा ना. शिकपी भुरग्यांमदीं चड दुबाव परगटावपी भुरगो चड हुशार समजतात. ल्हान भुरगीं जाण्टयांक प्रस्न विचारून जाम करतात - हीं तांच्या बुद्दीच्या उदरगतीचीं सोपणां समजूंक जाय. हांगा दुबाव हो उदरगतीचो मार्ग समजूंक जाय. अशे तरेन दुबावाचे लाव आनी लुकसाण पळोवंक जाय. दुबावाक सदांच दुस्मान मानपाची गरज ना. कांय कांय वेळार जिवाच्या इश्टा प्रमाण दुबाव आपल्या फाटल्यान उबो रावता - जिणेंत व्हडलो बदल घडून येता. एखाद्या हुशार भुरग्याक धावे बारावेचे परिक्षेंत आपल्याक मेळिल्ल्या मार्कांचो दुबाव येता. पेपर तपासपाचे सिस्टमींत कितें पूण गडबड आसा ह्या दुबावान रिचेकींग करूंक लायता आनी सामको टॉपर थारता. हो दुबावच ताचे जिणेक वेगळें मोडण दिता.

सदांच कित्याचोय दुबाव घेत रावप बरोबर न्हय, तरी लेगीत कोणाल्याय वर्तणुकी विशीं दुबाव आयल्यार ते विशीं पडताळो करून घेवचो - सोक्षमोक्ष लावचो. एके चलयेचो थाटान साखरपुडो जालो. न्हवऱ्यान वज्रां मुदी, मोतयां सेट बी दिलो. पूण मागीर परत भेटच ना, फोन केल्यार उखलना. चलयेक दुबाव मारलो - तें तांच्या घरा गेलें तर तो बरो ना म्हणून कळ्ळें. कितें जाता काय म्हळ्यार सादो जोर अशें सांगलें. पूण त्या मनशाची नदर वेगळेंच सांगताली. चलयेन ब्लड टेस्ट करया म्हळ्यार फाटीं फुडें येवंक लागलो. ते लोक कितें पूण लिपयतात असो दुबाव मारतकीच ताणें घरा सांगलें. ताका टि. बी. आसतलो, दोतोराकडल्यान तपासून घेवंक लायात म्हणून फाटल्यान लागलीं. आवय बापूय ताचेरच तापलीं - न्हवरेकारांक कोण टेस्ट करूंक सांगतात? शिकिल्ल्यो चलयो अती शाण्यो करून ताकाच तापयलें. पूण तें आपल्या म्हणण्याचेर घट रावलें. टेस्ट करिना जाल्यार लग्न जावचें ना म्हणून. तिचे इश्टय तिचे फाटल्यान उबे रावले आनी तिच्या 'सिक्स सेन्साचें' खरें जालें. तो भुरगो एच. आय. व्ही. पोझिटीव्ह आसलो. लग्न मोडलें. पूण तिचे जिणेचो गोबोर जावचो चुकलो. पेपरांत खबर छापून हाडून तिणें हेरांकय सादूर केलें. हांगा तिचो दुबावच जिणेक तारपी थारलो. ह्या सगळ्याचो विचार करून दुबाव कसो, कोणाचो, कितलो घेवप हें आपणेंच थारावचें. बुद्दीन येवजून आत्मपरिक्षण करून फावो तो नियाळ घेवप हातूंतच शाणेपणां आसात.

■

- जयमाला दणायत
बंगळुरू मो. : ०९७५७११९३१७

बिम्ब
मासिक



*हे कवितेकडें म्हजें आनीक एक खास नातें आसा. दिस्टावो हो काव्यसंग्रह प्रसिद्ध जालो तो खीण आनी तो दीस म्हजे खातीर अविस्मरणीय आसा. २९ मे १९७२ ची सांज. पणजेच्या प्रोग्रेस हायस्कुलाचे माळयेवयल्या एका क्लासरुमांत कांय कोंकणी प्रेमी एकठांय जाल्यात. धा पंदरा आसत. त्या काळार इतके लोक म्हणचें खूब जाले अशें दिसता. कारण त्या काळची धा पंदरा ही संख्या म्हणचे आयचे शें देडशें आसूं येता.*

# ही जाग, उदेन्ती

- रमेश भगवंत वेळुस्कार

**म्ह**जो *माती* हो काव्यसंग्रह म्हजे बुजुर्ग इश्ट कोंकणी कवी श्री पांडुरंग भांगी हांकां ओंपला. एक दीस म्हाकां एका म्हज्या इश्टान विचारलें की हांवें तो संग्रह भांग्यांकूच कित्याक ओंपलो? हो म्हजो इश्ट तसो साहित्याचो मोगी बी कांयच न्हय. तो म्हजे वांगडा शाळेंत शिकतालो. ताका म्हजे इश्टागतींतूच कर्तव्य. हांवें ताका सांगलें की ते एक कोंकणींतले श्रेश्ठ कवी. शिवाय ते म्हजे आमीग. तांकां म्हजी कविताय खूब आवडटा. म्हणून हांवें म्हजो संग्रह तांकां ओंपला. ताका म्हजी जाप पुरो जाली. आयज जेन्ना म्हाकां हे घटणेची याद जाता तेन्ना म्हज्या इश्टाक दिल्ली ती जाप ही म्हाकां अपूर्ण दिसता. अपूर्ण अशा खातीर की वयर दिल्ल्या कारणाभायर म्हाकां तांचे एके कवितेंनूय पिशें लायिल्लें. म्हाकां तांचो मातयेसंबंधांतलो दिश्टीकोण खूब आवडलेलो. फकत दिश्टीकोण न्हय तर तांची कवितेक म्हणचेच मातयेक भिडपाची पद्धत आवडली आनी ते पद्धती परसूय तांच्या मातयेच्या आवाक्यांत भरसुपाची धुंदी आवडली. ही कविता तांच्या पयल्याच *दिस्टावो* ह्या संग्रहांतली पयलीच कविता. *दिस्टावो* ही म्हज्या मनांत अचळय येवन बसली.

मातयेचीच कूड ही
मातयेकूच मेळचेली
मातयेंतूच रुजता भात
त्याच भातार पोसचेली

मातीच ही सगळी खरी
मातयेचीच पूड
तरी तिचे गर्भकणयेंत
हावेसांची चूड

हेच चुडी उजवाडार
झेलतां खेळयत ल्हार
ल्हारा, ल्हारा, काळजाक म्हज्या
न्हिदेंतूय जाग

ही जाग– उदेन्ती
भाग्याचो सुगर्वो
आनी म्हज्या पातकांकय
फुडाराचो दिस्टावो

त्या संग्रहांतल्यो म्हाकां ज्यो कविता आवडल्यो तांतली ही एक अतिशय म्हत्वाची कविता. हें भांग्यानी गायल्लें धतरेचें स्तोत्र आसलें. तांकां जो मातयेचो साक्षात्कार जाल्लो ताचो हो रुपकार आसलो. चारुच ओळींच्या चार कडव्यांची, आटीव, कोरीव शब्दशिल्पाची, संवेदनस्पर्शी आशयाची आनी फुडारांतल्या उदेन्ती भाग्याचो दिस्टावो पळोवपी ही कविता आसली. माती म्हंटल्यार धर्तर आनी




आपले जिणेचें अविभाज्य तत्व आंगोवन आयिल्ली ही भांग्यांची कविता कोंकणीतली एक श्रेश्ठ कविता आसा ही जाणीव म्हाकां तेन्ना प्रकर्शान जाली. विशयाक भिडपाची ही आयट कोंकणी कवितेक सामकी नवी आसली. ही बाकीबाबाची संगीत समन्वय सादपी शब्दसुंदर लकब नासली, ही मनोहरबाबांची सादी सोपी आनी सामान्य मनशाकूय सहज जाण दिवपी पद्धतूय नासली, ती पंडितांची उत्स्फुर्त छंदमुक्त लोकोच्चारांच्या आधारान शब्दांकीत जावपीय आयट नासली तर ही भांग्यांची, कोंकणी शब्दशिल्पाक एक नवें आयाम दिवपी,

आशयाच्या गर्भ-सौंदर्यान फुलपी नवकविता आसली.

हे कवितेच्यो पयल्योच दोन ओळी पळोंवच्यो. मातयेचीच कूड ही / मातयेकूच मेळचेली हीं फकत पांच उतरां. ह्या दोनूच ओळींत ही धर्तर आनी तिचेर वास्तव्य करपी मनीस हांचो संबंद प्रस्थापीत जाला. *मातयेचीच कूड ही* अशें म्हणटना मनीस आनी ताची हे धतरेचेर अवलंबून आसलेली जीण प्रकर्शान व्यक्त जाता. *मातयेचीच* ह्या उतरांत ताची अवलंबीतताय सामकी नितळ उकती जाल्या. एका साद्या शब्दांत मनांतल्या भावाभिव्यक्तिक जुस्ताजुस्त बसोवपी हो प्रयोग. अणभवांतली फिशालकाय इतल्या फिशालपणान व्यक्त करपाची ताकद आसलेलो हो कवी मनांत भरलो. अख्खी मनीस जात आनी जीव जिवावळ ह्या पांच उतरांच्या सुमेळांतल्यान जाल्ल्या धारणांच्या आवाक्यांत येता. ही समर्थताय, हे कवितेंत उबी जावपाक लागली. कविता वाचनाच्या परिणामांतल्यान जेन्ना मनाचेर जाणिवांची निःशब्द व्यापकताय आंकरेवन येवंक लागता तेन्ना हे समर्थतायेचो आटाप मनांत आकाराक येवंक लागता. *मातयेंतूच रुजता भात / त्याच भातार पोसचेली* ह्या स उतरांतल्यान तर मनशाच्या आनी जिवावळीच्या इहलोकींच्या समस्त व्यापाराचो आलेख व्यक्त जाता. मातयेनूच पिकोवन दिंवचें आनी मनशान तशेंच जिवावळीनी ताचेर जगराण करची.

सगळी माती म्हटल्यार सगळी धर्तर. तीच तितलें सत्य. कवी सहजतायेन किंचितांतल्या समुच्चयीत करुन मांडपाची सैमदेण कवीक फाव जाल्ले कारणान कवी धतरेच्या माध्यमांतल्यान जाणवल्लें तें कशें सांगता, तें पळयात. तो सवन धर्तरी आनी मातयेची इल्लीशी पूड हातूंत मात्तूय फरक करिना. *मातीच ही सगळी खरी / मातयेचीच पूड* ह्या उतरांतल्यान हें नितळपणान व्यक्त जाता. पूण उपरांत येवपी शब्दांतल्यान ते मातयेचे पुडींत आसलेल्या दर एका अणु-रेणूंत चेतनेची उर्जा कशी उपाट भल्लेली आसा तें सांगता. आनी हें सांगपा खातीर गर्भकणी अशें एक सुंदर उतर कवीन घडलां. गर्भकणी. गर्भ ह्या शब्दांतल्यान उक्ती जाता त्या अक्षरांत लिपून आसलेली अद्भुत सृजनशक्त तशेंच तिच्यांत आसलेले निर्माण प्रक्रियेचे हावेस. मनशाच्या आनी हेर जिवावळीच्या जगपांतली उर्जा हांगा दिश्टी पडटा. ते गर्भकणयेन त्या वेळा म्हाकां पिशें लायिल्लें. शब्द निर्मितीची कळाशी म्हाकां आवडलेली. शब्दांचे जोडणेंतल्यान फावो आसलेले व्यापकतायेक आस्पावन घेवपाची शब्दांची कुवत, ह्यो सगळ्योच गजाली म्हाकां आवडलेल्यो. मातयेक लागून घडत गेल्लो दिस्टावो म्हाकां मानवल्लो. हाका लागून कवितेचें मोल वाडत वयतालें.



**कवी पांडुरंग भांगी तांच्या 'चाफेल्ली सांज' ह्या काव्यसंग्रहाक २००० वर्साचो साहित्य अकादेमी पुरस्कार फावो जाला.**

गर्भकणयेंतल्या उजवाडाचें दर्शन हो आनी एक मनीसमनाक जाल्लो साक्षात्कार. ह्याच नाड्यार तर संवसारांतले सगळे खेळ चल्ल्यात, हें तांकां कळटा. हाकाच लागून तांच्या काळजाक न्हिदेंतूय जाग येता. म्हाकां तर अशें दिसलें की हांगा तांचे न्हिदेकूच जाग येता. आनी कवीक तर ही जाग म्हटल्यार उदेन्ती भाग्याचो सुगवोसो दिसता. हें भाग्य उदेवन येतकूच पातक ही असमंजसपणाक लागून आयिल्ली भावनाच ना जावन वयता. कारण त्या पातकांकूच फुडाराचो दिस्टावो जावपाक लागता. सयभोंवतणच्या लोकांच्या असमंजसपणाक लागून निर्माण जाल्ले कितलेशेच दुभाव (पातकां) हे कवितेन पयस केले. देखूनूय ही माती आनी तिचो दिस्टावो म्हाकां खऱ्यांनीच पिशें लावन गेल्लो.

हे कवितेकडें म्हजें आनीक एक खास नातें आसा. *दिस्टावो* हो काव्यसंग्रह प्रसिद्ध जालो तो खीण आनी तो दीस म्हजे खातीर अविस्मरणीय आसा. २९ मे १९७२ ची सांज. पणजेच्या प्रोग्रेस हायस्कुलाचे माळ्येवयल्या एका क्लासरुमांत कांय कोंकणी प्रेमी एकठांय जाल्यात. धा पंदरा आसत. त्या काळार इतके लोक म्हणचें खूब जाले अशें दिसता. कारण त्या काळची धा पंदरा ही संख्या म्हणचे आयचे शें देडशें आसूं येता. सुरेश काकोडकार, र. वि. पंडित, गुरुदास पै, माधव बोरकार, रमेश भगवंत वेळुस्कार, नागेश करमली, प्रकाश पाडगांवकार, खासा कवी पांडुरंग भांगी, रवीन्द्रबाब, शंकर परुळेकार, आंतोन मोराईश, शंकर भाडारी, गोविंद मुद्रस अशे कांय कोंकणी मोगी थंय एकठांय जाल्ले.

म्हाका ह्या कार्यक्रमाचें आमंत्रण र. वि. पंडितांल्या आल्तिनावयल्या शिरोडकार बिडिंगेंतल्या घराच (फ्लॅटांत) मेळिल्लें. हें आमंत्रणूय दोट्टी आसलें. एक आमंत्रण पंडितान दिल्लें. तर दुसरें आमंत्रण थंय आयिल्ल्या पुस्तकाच्या प्रकाशकान म्हटल्यार गुरुदास पै ह्या आपल्या मोगाळ हांशान तशेंच सुसंबद्ध साजूक शब्दांनी वातावरण निर्मळ करपी मनशान दिल्लें. योच आं, अशें ताणें म्हाका आग्रो करुन सांगिल्लें. तो वेळ मेरेन हांवेंय पांडुरंग भांगी ह्या कवीक पळोवंक नासलो. हांवें रेडिओचेर वाचलेली *पर्तवण* ही म्हजी कविता भांग्यांक खूब आवडल्या अशें म्हाका गोवा आकाशवाणीचो निवेदक पुरुषोत्तम सिंगबाळ हाणें सांगलें. ताणें फुडें हेंय सांगलें की ताका कोण्णाचें कांय आवडना. ताका म्हजी कविता आवडल्या हो म्हजे खातीर एक व्हडलो कोंप्लिमेंट आसलो. ते वेळार हो म्हजे खातीर एक व्हड पुरस्कारुच आसलो म्हंटल्यार जाता. तांच्यो कविता हांव तेन्नाच्या मॅगझिनांतल्यान वाचतालों. म्हाका त्यो आवडटाल्यो.

दिस्टाव्याच्या प्रकाशना उपरांत बऱ्याच दिसांनी हांव तांकां मेळूंक सोदतालों. हांवें

आमच्या एका बुजुर्गाक ते संबंदान विचारलें जाल्यार ताणें म्हाकां सांगलें की तो मनीस मात्सो मनीसघाणो. आपल्याक कितेंय आवडलें ना जाल्यार तो हेंस-फेंस करुंक शकता. ह्या बुजुर्गाचें मत आयकून तर हांव मतींतल्यान घुस्पल्लों. तांकां मेळन तर दिसतालें. तांकां म्हज्यो कविता आवडटात म्हण्टकूच ते निदान म्हजेकडें तरी अशे वागप शक्य ना. तांकां मेळपूच. मनान थारायलें. म्हज्या साहित्यीक इश्टाक पुंडलिकाक तेन्ना हांवें ही गजाल सांगली आनी आमी तांकां पणजे मळ्यांत विठ्ठल मंदिरा लागीं आसलेल्या तांच्या घरा मेळ्ळे. ताणीं आमचें बरें स्वागत केलें. बुजुर्गांनी सांगिल्ल्यो गजाली प्रत्ययाक आयल्यो ना ही एक बरी गजाल थंय घडलेली. आनी भांग्याविशीं नाका आसतना मनांत निर्माण जावन आयिल्लें किल्मिश उल्लें ना. पूण ते उपरांत तांकां अशें बेगी बेगीन मेळप जाय नासलें.

दिस्टाव्याच्या प्रकाशनाक भांग्यांच्या दोंयवशीं म्हाकां आनी माधव बोरकाराक बसयले. म्हजें थंय बसपाक नांव आयलें तेन्ना हांव घुस्पलों. भांग्यांनी हो आपलो दिस्टावो उदेन्ते पिळगेक ओंपला. देखून आयोजकांनी आमकां थंय बसयल्लें हें संग्रहाची प्रस्तावना पळयली तेन्ना कळ्ळें. आनी आमी तांच्या पुस्तकाचें प्रकाशन केलें. प्रकाशक गुरुदास पै न सांगलें की रातची झेम पडना तेन्ना गुळी घेवन न्हिदचें पडटा हें आमकां खबर आसा. पूण आपल्याक मात गुळये बदला कितेंय तरी वाचचें पडटा, ते बगर झेम पडना. आपूण ते खातीर कविता वाचतां. हें आयकून म्हाकां बरें दिसलेंच पूण कविता, भलायकेचो बॅलन्स जाग्यार दवरपाचोय वावर करता, हें आवडलें. हे वेळार रवीन्द्रबाब, भांडारी हांचीं उलोवपां जालीं. रवीन्द्रबाब बरे गंभीर उलयले. *मातीच ही सगळी खरी/मातयेचीच पूड/तरी तिचे गर्भकणयेंत / हावेसांची* चूड हाचो उल्लेख करुन ताणीं ताचेर सुंदर भाश्य केलें. गर्भकणी ह्या उतराचेर बरोच भर दिल्लो. शंकर भांडाऱ्यांचें उलोवपूय बरें आसलें. भांग्यांची कोंकणी भास, तांच्या उतरांच्या वापराचें खाशेलपण हें सगळें खास तांचे स्वताचे विनोदी आंगान मांडलें. विनोदाक लागून मूळ साहित्यिक गंभीरतायेक बाधा येता अशें म्हाकां जाणवलें. भांग्यांनीय आपली कविता कोंकणी तर आसाच अशें सांगून ती राष्ट्रीय पांवड्याचीय आसा हें खूब थोड्या उतरांनी सांगलें. सगळो कार्यक्रम एका वरा भितर उलगलो.

मागीर हांव आनी शंकर परुळेकार वांगडा भायर सरले आनी आमी उलयत उलयत प्रासार आयले. वाटेक हांवें चलतां चलतां संग्रह उकतो करुन पयलीच कविता वाचली. ती म्हाकां खूब घोस्ताक गेली. मातयेचें अफाट उपाट नातें म्हाकां चंवरुन वयतालें. हांवें परुळेकाराक म्हटलें की ही कविता कोंकणी कविता म्हुण व्हड आसाच पूण उपरांत ही मनशाचो धतरिवयलो मोग व्यक्त करता आशिल्ल्यान ही कविता सवन विश्वाचीय कविता जाता. भांग्यान आपल्या थोड्याशा उतरांनी जें म्हटलें तेंय सामकें खरें आसा.

भांग्यांच्या कवितेचेर आसलेलो मोग आनी तिचे श्रेश्ठतायेक लागून तांच्याविशीं निर्माण जाल्लो आदर तशेंच तांचेविशीं तयार जाल्ली आपुलकी ह्या सगळ्या कारणां खातीर हांवें म्हजी *माती* भांगीबाबांक ओंपली हें सांगुंकूच नासलें. तें ताका, म्हणचें त्या म्हज्या इश्टाक सांगपाचें उल्लेलें. तो म्हजो इश्ट संवसारांतल्यान ना जाल्यार बरींच वर्सां जाल्यांत. पूण ताका हांवें हें सांगलें ना ही चुटपूट मनाक लागून उल्ल्या. ती कोणाक तरी सांगून मन मात्शें ल्हव करचें म्हुण हें सगळें बरोवन काडलें. हाचें पडबिंब बिम्बांतल्यान कोणाकूय पळोवंक मेळचें म्हुण हो आटाप केलो. अप्रबुद्ध काळार आमकां दिल्लो भौमान हे भांगीबाबांचे आनी आयोजक प्रकाशकांचे आमचेर उपकार आसाच! पूण ह्या भौमानाचो धेंक सयसलामत दवरपा खातीर आमचे कडल्यान फावो सारकें साहित्यिक कर्तृत्व करुन घेतलें, हे काळान आमचेर केल्ले भोव उपकार म्हणपाक जाय.

००

पाळें. २६-१२-२०१३

■

– रमेश भगवंत वेलुस्कार
पाळें, शिर्दोन – गोंय मो.: ९४२०६८८४६१





*आज शिक्षकांचेर खूब व्हडली जबाबदारी आसा. आपलीं भुरगीं भरकटूंक जायना म्हुण घरांत पालकांनी आनी शाळेंत शिक्षकांनी मार्गदर्शन करपाक जाय. तीं व्हावत वचचीं न्हय, तांकां योग्य दिका मेळची म्हुण तांका वेगवेगळ्या कलेंत घुसपावन दवरपाक जाय. त्या खातीर तांकां वेळ दिवपाक जाय. भुरगेपणांत जिविताचें सत्य पटोवन केल्ले संस्कार भुरगीं केन्नाच विसरनात.*

# पयलें इनाम

- कुसुम अग्रवाल

'शणै गोंयबाब कथामाळ' सर्तींचें आयोजन मडगांवच्या 'कोंकणी भाशा मंडळान' ओंदूय घडोवन हाडिल्लें. कोंकणी शिक्षिका आशिल्ल्यान दर वर्सा सर्तींत वांटो घेवपाक हांव म्हज्या शाळेंतल्या भुरग्यांक घेवन वताले. शिक्षकी पेशांतल्यान निवृत्त जाल्ल्यान ह्या वर्सा ती जबाबदारी म्हजेर नाशिल्ली. कांय कारणाक लागून काणयांचो आस्वाद घेवपाची संद म्हाका मेळ्ळिना.

आमचे शाळेक खंयचें इनाम मेळ्ळां? ही उमळशीक आशिल्लीच. एक तरी इनाम हाडप ही आमचे शाळेची परंपरा आशिल्ली. म्हजे शाळेची कोंकणी शिक्षिका इनाम मेळ्ळ्यार गोड बातमी दितली हाची म्हाका खात्री आशिल्ली. भुरग्यांक फोन करून विचारप म्हणल्यार इनाम मेळूंक ना जाल्यार तांच्यो भावना दुखोवप. हांवें म्हज्या मनाचेर नियंत्रण दवरलें. म्हजें भाकीत खरें थारलें. म्हज्या शाळेंतल्यो कोंकणी शिक्षिका सोनाली चोडणकारान फोन केलो. 'मीस, स्टेफनी डायसाक आठवी ते धावी गटांत पयलें इनाम मेळ्ळां.'

शाळेंत घडोवन हाडिल्ल्या काणयांच्या सर्तींत सांगिल्ली काणी, ते सर्तींत सांगूंक ना. ऐन वेळार ताणें थंय दुसरीच काणी सांगली आनी पयलें इनाम घेतलें.

ही गोड बातमी आयकून म्हजें काळीज खोशयेन नाचूंक लागलें. हांवें सोनालीक परबीं दिलीं. हांव भूतकाळांत गेलें. सवेक आसतना पयल्याच फावटी हांवें स्टेफनीक सर्तींत वांटो घेवपाक म्हापशें व्हेल्लें. शाळेंत सवेच्या वर्गाची काणयांची सर्त आशिल्ली. शाळेंत ते सर्तींत ताका पयलें इनाम मेळिल्लें. गोरें गोमटें गुटगुटीत भुरगें. दोन विणयो आनी वेवस्थीत गणभेस. आदर्श विद्यार्थिनी सोबऽसारकें. समरस जावन काणी सांगपाची पध्दत, आवाजाचो चड-उतार, तोंडावयले हाव-भाव, प्रेक्षकांचेर मोनेळ घालताले. हांव तर काणी सांगपाचे ताचे पध्दतीचेर सामकेंच भाळिल्लें.

ताचे बरोबर आनीकूय भुरगीं वेंचून काडलीं आनी तालीम दिवपाक सुरवात केली. हळुहळू ताणें काणी सांगपाचीं कसबां शिकून घेतलीं. ताका स्वताक नवें नवें शिकपाची उमेद आसली. 'टिचर हें वाक्य हांव कशें म्हणूं?' सांगता तशशी नकल करपाची कळाशी ताचेकडें आशिल्ली. ताचें तें प्रसन्न मुखामळ पळोवन पयलींच तें लोकांचीं मनां जिखतालें. त्याच खातीर जेन्ना तें आंतरशालेय सर्तींत वांटो घेतालें तेन्ना पयलें वा दुसरें इनाम घेवनूच येतालें. तेच बरोबर परिक्षकांनी आनी आयोजकानी आपली कशी तुस्त केली तें लजून भुरकटून सांगतालें.

ल्हान आसतनाच, कठीण परिश्रम केल्याशिवाय येश मेळना ही गजाल भुरग्याच्या मनाचेर बिम्बवची पडटा. भुरग्यान सर्तींत वांटो घेतना पयलें इनाम मेळचें म्हुण तयारी करपाक जाय. पयल्या जाग्यार दुसरें वा तिसरें मेळ्ळ्यार हरकत ना. आमी मातशी तयारी केल्यार आमकां इनाम मेळटलें आशिल्लें अशें मागीर म्हणप योग्य न्हय. तेच बरोबर आपल्या परस सर्तक बरो आसूं शकता हेंवूय भुरग्याक सांगपाची गरज आसता.

भुरगीं सर्तींत वांटो घेवपाक वतालीं तेन्ना तीं तालीम केल्या शिवाय केन्नाच गेलीं नात. मागीर तें चोंबो गीत आसूं, काणी आसूं. एकोडें गीत आसूं वा कवितेचें सादरीकरण आसूं सदांच इनामा मेळटाच अशें ना पूण सादरीकरण बरें जावचें हो मुखेल उद्देश.

भुरगीं खूब उत्साही आसतात. नवें नवें शिकपाची तांकां आवड आसता. 'टिचर काणी कशी सांगप हें आमकां दाखय मगे?' म्हुण फाटीक लागतालीं. वर्गांत तासाच्या वेळार काणयेचीं कसबां शिकोवप शक्य जायनाशिल्लें. मागीर तांकां आठांची शाळा आसल्यार साडेसातांक आपोवप, शाळा सुट्टकच रावून तांची तालीम घेवप. नाजाल्यार चार वरांचेर आमच्या घराच्या दरवंट्याकडें येवन हाजीर

जातालीं. शिकपाची ती उमळशीक पळोवन म्हाकाय बी उमेद येताली. सर्त सामकी लागीं पावल्या आनी कांय कारणांक लागून घराकडें वा शाळेंत येवप शक्य जायनाशिल्लें तेन्ना हांव तांच्या घराकडें वचून तालीम घेतालें.

शणै गोंयबाब कथामाळ सुरू जावचे पयलीं बारदेसांत उदय देशप्रभू नांवाचो कोंकणी मोगी 'नीज गोंयकार पंगड' नांवाचें, कोंकणीची सेवा करपा खातीर केंद्र चलयतालो. हें केंद्र काणयांची सर्त घेतालें. ते सर्तीत भाग्यदा चोपडेकार नांवाच्या भुरग्यान वांटो घेतिल्लो. सर्तीच्या आदल्या दिसा ताका जोर आयलो. आंग खतखततालें. घाम सुट्टालो तरी आसतना तें सर्तीत वांटो घेवपाक दुसऱ्या दिसा शाळेंत आयलें. ताची ती परिस्थिती पळोवन ताका व्हरपाक हांव मातशें फाटींफुडें जातालें. पूण ताणें म्हणलें 'टिचर, हांवें खूब तयारी केल्या कितले दीस जाले तुमी म्हजी तालीम घेताली. ना, आतां हांव फाटीं सरचें ना. हांवें क्रॉसीन घेतल्या. म्हजो जोर देंवतलो.' ताची ती जिद्द पळोवन हांवें ताका सर्तीत वांटो घेवपाक व्हरपाचें थारायलें.

कवी पुनाजी जे बालभवनांत, काणी कशी सांगप हाचें भुरग्यांक प्रशिक्षण दितात ते परिक्षक तशेंच मुखेल सोयरे म्हुण हाजीर आशिल्ले. थंय भाग्यदा चोपडेकाराक आठवी ते धावी गटांत पयलें इनाम फावो जाल्लें. मुखेल सोयऱ्यान ताची खूब तुस्त केली. 'काणी कशी सांगप? हीं कसबां भाग्यदाक बेस बरीं कळ्ळ्यांत. काणयेंत कशें समरस जावचें हें ताणें आज भुरग्यांक दाखोवन दिलां' एका प्रशिक्षकाकडल्यान मेळिल्ली उर्बा भाग्यदाक ताच्या जिवितांत तशेंच म्हाका खूब मार्गदर्शक ठरली.

आज शिक्षकांचेर खूब व्हडली जबाबदारी आसा. आपलीं भुरगीं भरकटूंक जायना म्हुण घरांत पालकांनी आनी शाळेंत शिक्षकांनी मार्गदर्शन करपाक जाय. तीं व्हावत वचचीं न्हय, तांकां योग्य दिका मेळची म्हुण तांका वेगवेगळ्या कलेंत घुसपावन दवरपाक जाय. त्या खातीर तांकां वेळ दिवपाक जाय. भुरगेपणांत जिविताचें सत्य पटोवन केल्ले संस्कार भुरगीं केन्नाच विसरनात. 'आमकां वेळ ना' अशीं कारणां दिल्यार आमी खंयतरी उणीं पडलीं म्हुण आमच्या भुरग्यांचो बरो फुडार आमी करपाक शकलिना ही खंत आमकां जिवीतभर आमचें मन कोंचायत रावतली.

तांकां जर शाळेंत तशेंच घरांत योग्य दिका मेळ्ळ्यार स्टेफनी आनी भाग्यदा सारकीं भुरगीं शाळेंत मेळिल्ल्या आत्मविश्वासाच्या म्हालवजाचेर जिणेचे चडाओडींत वांटो घेतलीं आनी येशस्वी जातलीं. स्वकश्टान, स्वबळाचेर, शाळेचेंच न्हय तर आवय-बापायचें आनी शिक्षकांचेंय नांव वयर काडटलीं. बरी जीण जगून समाजाकडल्यान शाबासकीचें इनाम घेतलीं आनी हेंच तर आवय-बापायचें आनी शिक्षकांचें सपन आसता.

■

– **कुसुम अग्रवाल**, शिवोले – गोंय.मो. : ९८६०२०७९७६

## तात्पर्य कथा

**बिम्ब** मासिक

**एकात्मता दौड पुराय देशा वांगडा गोंयांतूय १५ डिसेंबराक जाली. हे दौडींत गोंयचे मुख्यमंत्री मनोहर पर्रीकारूय धांवले!**



"भाई, आकांत धांवता न्ही रे? असो धांवल्यार लुसोफोनियात लेगीत पयलो येवपी!"

"आरे मस्को मारू नाका. आमचो भाई तो. खरें तेंच सांगपाक जाय. भाईऽऽऽ, सुशेगाद, संवय ना तुका!"

"म्हाका संवय ना? तुमी म्हाका सांगतात? म्हजें धांवप खबर ना तुमकां. हांव धांवूंक लागल्यार कोणाक आयकना!"

तात्पर्य : 'वाघ' फाटीक लागतकच अशेंच घडटा!





*त्याच दिसा सांजेर सोनियाचेर निमाणे संस्कार जाले. सुरेशान जरी मारतें घेतिल्लें जाल्यार पासून राजेशान बदल्याची भावना बाळगिल्ली. हेच वेंचणुकेक ह्या मंत्र्याक धडो शिकोवंक एक बरी संद आसा अशें येवजून ताणें आपल्या भितरूच अभ्यास सुरू केलो. मंत्र्या विरुद्ध वेंचणूक लडोवपी आर्थूराक जर बरें मार्गदर्शन आनी लोक जागृती करूंक वाटो सोदून काडल्यो जाल्यार बरो निकाल लागूं येता म्हण राजेशान पारखिलें.*

# नीत

- विन्सी क्वाद्रुस

विधान सभेच्यो वेंचणुको जाहीर जाल्यो आनी राजकी मळावेल्या फुलगड्यांचे दीस उदेले. सत्ताधारी मनशां खुस्तार मस्ती आनी दादागिरी सुरू जाली. चलयांचो छळ आनी बायलांवेल्या आगळीकांक ओतो आयलो. पुलीस सामान्य लोकांचें आयकुपाक तयार नासले. तातूंत नावेले मातदारसंघांत हें चड्च पळोवंक मेळटालें. तीन टर्म मंत्री आशिल्ल्या फेर्नांडीसान आपल्या वावुरप्यांक नाका तितली सूट दिल्ली म्हण तांचीं मदांदपणा वाडिल्लीं. पयसो आनी सोरो मेळत तसो तांच्या हातांत आयिल्ल्यान तरणी पिळगी वेंचणुकेच्या नांवान चुकिच्या प्रवाहांत व्हांवपाक लागिल्ली. ह्या मंत्र्याक आव्हान दिवपाक कोणूच ना म्हण एक इमानदार शिकोवपी ताचे विरुद्ध वेंचणुकेंत देंविल्लो.

नावेलेच्या गांवांतूय वेंचणुकेन रंग घेतिल्लो. एका वाड्यार मंत्र्याचे जाहीर सभेची तयारी चलताली. पूण त्याच वाड्यावेल्या सोनियाच्या घरांत मात मंदी पसरिल्ली, दुखाची सावळी देंवपाक लागिल्ली. सांज जावनूय सोनिया कॉलेजीक थावन घरा परतूंक नासलें. घरच्यांक ताचो हुस्को जाल्लो. पांच जावचे आदीं तें घरा पावतालें. ताच्या सोदाक नेट आयलो. ताणीं कोणा-कोणाक फोन करून विचारलें, कोणूच सांगूंक शकलो ना. 'येतलें येतलें' म्हणून तीं वाट पळेत रावलीं.

सोनियाचो बापूय सुरेश, ताचो भाव सुनील आनी सुनिलाचो व्हडलो पूत राजेश हे



वेंचणुकांच्या दिसांनी सदांच सक्रीय पूण आज तांकां कितेंच नाका जाल्लें. सोनियाची खबर आयकून शेजारी तांगेर जमा जालीं. सभेक गेल्ले वाड्यावेले लोक परतले आनी ताणींय घराकडें गर्दी केली. आपलेंपण आनी हुसक्यान कोण कोण सोनियाची आवय जानकीक भूजवण दितालीं.

काळोख दाट जालो. रात रंगार येवपाक लागली. सवका सवका लोक आपापल्या घरा परतले. परत एक फावट सोनिया शिवाय घर खावंक येवंक लागलें. जेवणाचें लेगीत तांकां पडून वचूंक नासलें. रातचीं णव जाल्या उपरांत केन्नाच लायट दिसनाशिल्ल्या घरांत मध्यान जाली तरी घर उजवाडान भरिल्लें आसलें.

रातच्या सुमार एक वराचेर सुरेशालो मोबायल वाजलो.

''हें सोनिया म्हणटात ताचें घर?'' दुसरे वटेच्यान आवाज आयलो.

''हय, हय, कोण उलयता?'' सुरेशान भियेत भियेत प्रस्न केलो.

''हांव पुलीस इंस्पेक्टर उलयतां. कुडटरेच्या तळ्यांत आमकां एका चेडवाची कूड सांपडल्या आनी ताचेकडें आशिल्ल्या वस्तूं वेल्यान, ती तुमची धूव म्हण कळून आयलां. तुमी मात्शे व्हडल्या हॉस्पीटलांत येयात आनी तुमचे धुवेक वळखात.''

खबर आयकून घरांत एकूच बोवाळ जालो. कोण कोण घरचीं व्हडल्या हॉस्पीटलांत धांवलीं. पुलिसांनी तांकां सोनिया फुड्यांत व्हेलीं. ती कूड सोनियाचीच आसली. जानकी सोनियाचेर तकली दवरून थंयच रडपाक लागली. पुलिसांनी कायदेशीर रितीन आपली कारवाय केली आनी फुडले प्रक्रिये खातीर सोनियाची कूड पोस्ट मॉर्टमा खातीर व्हरूंक आदेश दिलो. सकाळीं णव वरांचेर पुलीस चौकेर येवपाक तांकां विनयलें.

दुसऱ्या दिसा सुरेश आनी राजेश पुलीस चौकेर गेले. थंयची थोडी रीत सोपोवन दोग जण हवालदारां सांगाताक ते व्हडल्या हॉस्पीटलांत आयले. थंय वाड्यावेले कांय तरनाटे आदींच येवन आसले. धा वरांचेर सोनियाचे कुडीचेर पोस्ट मॉर्टम जावन कूड कुटूंबाचे सुवादीन केली. फॉरेन्सीक अहवाला प्रमाणें सोनिया बुडून मेलां आनी ही एक आत्महत्या आसूंक शकता म्हण तांकां कळयलें. तें बुडून मेलां हें आयकून

सगल्यांकूच धक्को बसलो. ताणें आत्महत्या करपाचें कारण तीं सोदूंक लागलीं. तरी निमणें संस्कार करचे खातीर सोनियाचें मडें घरा हाडलें.

सोनिया एक बरें भुरगें म्हण गांवांत ताची वळख आसली. तें एक शेगूणी कलाकार आसलें. ताणें आत्महत्या केल्या अशें सत मानूंक कोणूच तयार नासलो. ताच्या खासगी जिवितांत कसलें तुफान आयलें काय असलें पावल मारूंक? कोणाकडेन वायटपण नाशिल्ल्या चेडवान नावेलेच्यान कुडटरे वचून कित्याक जीव दिलो? अश्या साबार प्रस्नांनी घराकडेन जमिल्ल्या लोकां मदें भासाभास सुरू जाली.

''चलात आतां ताका पयलीं न्हेसोवया.'' म्हणीत वाड्यावेले ५०-५५ वर्सांचे एके नर्सीन फुडाकार घेतलो. ती विमला गायतोंडे, तांच्या घरांत येवपी-वचपी आनी कुटूंब-इश्ट कशी. ती सोनियाक एकदम बरी करताली. ताका पयलेच फावट म्हयनाळी पाळी जाल्ली तेन्ना आवय परस तिणेंच ताका आपले कुडिची जतनाय घेवंक शिकयल्लें. तें आपल्यो अडचणी लेगीत तिचेकडेन वाट्टालें. पूण असलें पावल मारूंक शकता हे विशीं केन्ना कितें उलोवंक नासलें. सोनियाच्या मड्याक पळोवन पळोवन ती भितरल्या भितर रडटाली, फुगार जाताली. तिणें आपलें तोंड लेसान बंद करून दवरिल्लें.

सोनियाक भितरल्या रुमांत निमाणचें न्हेसोवंक व्हेलें. आवयन गरम उदक हाडून विमलाकडें दिलें आनी दार घालून घेतलें. दोळ्यांतलीं दुकां आटोवन विमलान सोनियाक पुसूंक सुरू केलें. पुसतां पुसतां सोनियाच्या आंगार बुडिल्ल्या सारकें दिसूंक लागलें. कांय कडेन आंग तांबसार आसलें. तिच्या मनांत नवे विचार येवंक लागले आनी जेन्ना ती ताच्या गुप्तांगांकडेन पावली तेन्ना तिच्या विचारांक धार चडली. सोनियाचें गुप्तांग सुजिल्ल्या सारकें दिसतालें, रक्ताळ कशें जाल्लें. खीणभर तिणें निरीक्षण केलें. जानकीक लागीं आपोवन हाडली आनी तिच्या कानांत कितें तरी सांगलें. तिवूय ताका बारीकसाणेन पळोवंक लागली.

''जानकी, सोनिया बुडून मरूंक ना वा ताणें आत्महत्या करूंक ना, बगर ताचेर बलात्कार जाला आनी ताका जिवेशीं मारून उदकांत व्हरून उडयलां हें हांव खात्रेन सांगतां.'' विमलान एकदम उठून सांगलें. जानकी सारकीच मोनी जाली.

''कितें करुया आतां?'' भितरल्या भितर घुस्मटत जानकीन विचारलें.

''पुलीस कागाळ करून ताचेर परत पोस्ट मॉर्टम करूंक जाय. ताचेर जाणें बलात्कार केला ताका असोच सोडून दिवपाचो?'' विमलान वाट सांगत तिडक उक्तायली.

''कोणाचेर म्हण कागाळ करतलीं? परत पोस्ट मॉर्टम... पयलीं बायेक न्हेसोवया आनी आमगेल्या कडेन उलोवया.'' जानकीन सोनियाक न्हेसोवपाक सुरू केलें. विमलान तिका आदार केलो.

न्हेसोवन जातकच जानकी भायर गेली. सोनियाक पळोवंक आयिल्ल्यांची भायर गर्दी आसली. सोनियाच्या कॉलेजींतल्यान भुरगीं आयिल्लीं. जानकीन आपल्या घरकाराक, सुनीलाक आनी राजेशाक आपोवन भितर व्हेले. विमलान तांकां सवकासायेन पळयल्लें तें सांगलें. तांचे मर्दी भासाभास जाली आनी सगल्यांनी एकमुखी निर्णय घेतलो मुखार वचपाचो. थंयच रावून राजेशान आपल्या एका वळखिच्या वकिलाक फोन लायलो, आनी विमलान सांगिल्ली गजाल सांगून सल्लो विचारलो.

''पळे राजेश'' वकील उलोवंक लागलो. ''हांव तुमची परिस्थिती जाणां. तुजे बापोल भयणीचेर बलात्कार करून तिका मारून उडोवपी सादारण मनीस आसचे नात. देखून गंभीरतायेन विचार करात आनी कोण तरी बळवंत, पयशेकार वा गूंड मवाली मनशां विरुध्द झुजूंक तुमची तयारी आसत जाल्यार मुखार वचात. पयशांचोय वापर पडूं येता. ना जाल्यार सोनियाचें आनी तुमच्या कुटूंबाचें नांव इबाडटलें.'' वकीलान सादूरताय बाळगून विचार मांडलो. ''सोनियाचेर बलात्कार करप्यांक सोदून काडप आनी तांचे विरुध्द झूज मांडप ह्यो दोन गजाली. दोनूय कडेन म्हजो तुमकां आधार भासयतां. घराकडेन कांय सांगिनासतना तूं ते नर्सीक घेवन मडगांव यो. आमी पुलीस चौकेर वचून येवया.'' वकीलान सांगलें.

बरोच वेळ वकिलाकडें भासाभास केल्या उपरांत रुमाचें दार उगडलें आनी सुरेशान कोणाक कोणाक भितर आपयले. सोनियाचें मडें शेंदरेर घालें आनी भायर व्हेलें. राजेश आनी विमला घरांतल्यान भायर सरून गेलीं. निमणे संस्कार केन्ना करपाचे हें कांयच थारावंक नासलें.

सुमार एक वराचेर सुरेशाक राजेशाचो फोन आयलो. तो भितरल्या रुमांत गेलो.

''आमच्या मंत्र्याच्या चेड्यान आनी ताच्या सांगात्यांनी सोनियाक कॉलेजीक थावन येतना उबारून व्हेल्लें आनी ताणींच ताचेर बलात्कार करून ताका उदकांत उडयल्लें ही खबर खरी थारल्या. पूण तांचे विरुध्द कसलीच कारवाय करपाक पुलीस तयार नांत आनी व्हडल्या हॉस्पीटलाचो दोतोर खरो रिपोर्ट दिवपाक तयार ना. अशे परिस्थितींत कितें करपाचें तें कांयच कळना.'' राजेशान म्हायती दिली.

''बाबा, ते कोण ते कळ्ळें न्ही? पुरो. तांचे विरुध्द आमच्यान झुजूंक जावचें ना. देवान दिलें देवान व्हेलें ही देवाची खुशी मानून घेवन ताचो निमणो संस्कार करुया. येयात तुमी घरा.'' सुरेशान आपले दोळे घट्ट बंद करून राजेशाक सांगलें आनी फोनूय बंद केलो.

त्याच दिसा सांजेर सोनियाचेर निमाणे संस्कार जाले. सुरेशान जरी मारतें घेतिल्लें जाल्यार पासून राजेशान बदल्याची भावना बाळगिल्ली. हेच वेंचणुकेक ह्या मंत्र्याक धडो शिकोवंक एक बरी संद आसा अशें येवजून ताणें आपल्या भितरूच अभ्यास सुरू केलो. मंत्र्या विरुध्द वेंचणूक लडोवपी आर्थूराक जर बरें मार्गदर्शन आनी लोक जागृती करूंक वाटो सोदून काडल्यो जाल्यार बरो निकाल लागूं येता म्हण राजेशान पारखिलें. आर्थूर आदीं ह्याच मंत्र्याबराबर आसलो आनी ताच्या वेंचणुकांच्या दिसांनी तो सक्रीय आसतालो. काळो बाजार, लोकांचेर अत्याचार, कांय प्रमाणांत गुंडागिरी, भ्रश्टाचार, घोटाळे आनी ताच्या सुवार्थी मनाक लागून आर्थूर ताचे पासून पयस जाल्लो आनी बऱ्या प्रामाणीक मनशांनी इमानदार मनशाक मुखार काडिल्लो. सोनियाचेर बलात्कार जाला आनी मंत्र्याच्या चेड्याचो हातूंत हात आसा म्हण सवका सवका लोकांक कळूंक लागिल्लें.

हाचो फायदो घेवन पुराय मतदारसंघाक कळ्ळ्यार परिणाम जावं येता म्हण ताणें वळखलें.

''पळेयात'' आर्थूरान आपल्या वावुरप्यांक संबोधून म्हणलें. आपल्यो हालचाली मंद पडल्यात त्यो पळोवन ताच्या बऱ्या मागप्यांनी एक ताकतिकेची बसका आपयल्ली. वेंचणूक तोंडार पाविल्ली. ''तुमी जाणांत हांव एक शिकोवपी आनी म्हजो पागार कितलो तो. तुमी हेंवूय जाणांत आमचे विरोधक कितले पयशे मोडटात ते, जाची तांक आमचे कडेन ना. तरी आसतना तुमी एका वाघा फुड्यांत झुजूंक म्हाका मुखार काडला. म्हाका राजकारणाचें थोडेशें गिन्यान आसा. पूण तुमच्या आधारा शिवाय तें कित्याकूच उपकारचें ना. इतले दीस आमी हें पळेतात. फुडले दीस सामके निर्णायक आसात, तुमचेरूच हांव पातयेतां.'' आर्थूरान आपलें दुबळेपण तांचे मुखार मांडलें.

''सर.'' राजेश मुखार सरलो. सगलेच जण ताका पळोवंक लागले. सोनियाच्या दुख्खाचो फातर काळजार दवरून तो थंय आयिल्लो. ''हांव एक कंप्युटर इंजिनियर. हांवें आमच्या पुराय मतदार संघाचो एक मास्टरप्लान तयार करून हाडला.'' ताणें कांय कागदां ताचे मुखार दवरलीं. ''हांवें आमचो मतदारसंघ धा भागांनी वांटला. प्रत्येक भागाक एक मुखेली आसतलो. मंत्र्याच्या राजकी पक्षा भशेन आमची मांडावळ जावंक नाका म्हण पंचायतीचे प्रभाग दवरिनासतना, मंत्र्याचो वोट-बँक खंय आसा, ताचेर आधारून प्रभाग केल्यात. थंयचे पंच वांगडी न्हय तर हेर मनीस जे मंत्र्याकडें बरे नांत, ते काम सांबाळटले. ह्या कामाक जायते मनीस वेंचून दवरल्यात, जे सरकारच्या भ्रश्टाचारा विरुध्द आवाज काडटले, कांय जण नोकऱ्यां खातीर आवाज काडटले आनी कांय जण ह्या मंत्र्याच्या हलगर्जीपणाक लागून जाल्ले दुस्मान आसात. फाल्यांच्यान ते घरांघरांनी वचून प्रचार सुरू करपाचे आसात. तांचे मुखार आमी प्रस्न दवरतात ते अशे : तुमी आमकां कितेंय डोनेशन दिवंक शकतात? तुमच्या शेजाऱ्यांकडेन आमची वळख करून दिवशात? एका प्रामाणीक मनशाक निवडून हाडूंक तुमचो इल्लो वेळ दिवशात? सोनिया सारक्या चलयांक सुरक्षा दिवपाक आधार करशात? हातुंतल्यान आमकां आनीक वावुरपी मेळटले जे बूथ लॅवलाचेर काम करतले. एका बुथाचेर वावरूंक आमकां उणेच पांच जण मनीस जाय पडटले. सुमार १०० बूथ आसात म्हणल्यार ५००-६०० मनीस जाय पडटले. पसरकार, गाडेवाले, मोटर सायकल पायलट, हमाली काम करपी, बेकार तरनाटे आपलो पूर्ण वेळ दिवंक आसात. मुखेल म्हणल्यार आमचे बराबर कांय पत्रकार आसात. जायते लोक राजनितींत नवे आशिल्ल्यान तांचे कडल्यान कसलीय चूक घडची न्हय जावं ताणीं मतदारांक बरे भशेन मार्गदर्शन करूंक कमी पडचे न्हय ह्या हेतान फाल्यां सकाळीं पयलीं तांकां मार्गदर्शक कार्यशाळा राबयल्या. ही मांडावळ तुमकां मान्य आसत जाल्यार, फाल्यांच्यान काम करूंक ते तयार आसात. ना जाल्यार तुमचे प्रमाणें कशे मुखार वचपाचें तें सांगात, हांव तरी तयार आसां पूण कोंतान ह्या मंत्र्याक बुद्ध शिकोवंक जाय.'' राजेशान मास्टर प्लान तांचे मुखार दवरलो.

सगले आयकुंकच पडले. राजकारणांत आसून पासून आर्थूराक असली मांडावळ करूंक जमली ना.

''राजेश, वेळ आशिल्लो जाल्यार म्हज्या बदला तुकाच वेंचणुकेक उबो करूंक येतालो. सुंदर, अती सुंदर.'' घुस्पल्ल्या मनाच्या आर्थूरान राजेशाक शाबासकी दिली.

''सर, तूं आमचे खातीर न्हय, आमी तुजे खातीर काम करूंक तयार जाल्यात. हें सगलें हांवें एकल्यानूच करूंक ना बगर ताचे फाटल्यान आनीकय लोकांचो हात आसा. देखून तूं आमकां हुकूम दी मुखार वचूंक. ह्या मंत्र्याक हे फावट आपटुयाच आमी.'' राजेशान सांगलें. मुखार वचपाचें ताका उतर दिलें.

पर्थून एक फावट गॅर पेटलें. मंद जाल्लो आर्थूराचो प्रचार एकदम फुलिल्ल्यान मंत्र्यान आपल्या प्रचाराक नेट दिलो. सोरो, पयशे, साडयो वाटपाक सुरवात जाली. मिरवणुको दिसूंक लागल्यो. उगत्या मळाचेर वावुरप्यांक पाट्यो सुरू जाल्यो. नोकऱ्यांचीं आमिशां येवंक लागलीं. लोक घुस्पागोंदळांत पडले.

वेंचणुकेचया दिसा मतदान सुरू जालें. आर्थूरान आपलें मत घालें आनी आपल्या चार वावुरप्यां बराबर मतदारसंघाची भोंवडी करूंक गेलो. ताका वळखुपी व्हडलेशे कोण मेळूंक नांत. कितल्याशाच बुथांचेर जेन्ना तो थांबलो आनी मतदानांविशीं विचारलें तेन्ना ताचेच मनीस वोगी रावून पळोवंक लागले, घुस्पल्ल्या सारके दिसले. आर्थूर भियेलो. तयारेच्या दिसांनी आपूण हें करतले तें करतले म्हण सांगपी पयस पयस दिसताले. आर्थूर निराश जालो. मतदान करपी लोक ताका दिसताले पूण कोण कोणाक मत दितात तें स्पश्ट जायनासलें.

एका बुथाकडेन आर्थूर आनी मंत्र्याची भेट जाली.

"आमच्या तरनाट्यांक घेवन वेंचणूक लडयता? सोरो आनी पयशे दिवन सगल्यांक परत हाडले हांवें. तुज्या बुथाचेर आसात ते लेगीत म्हजेच खातीर काम करतात. आतां सुशेगाद वचून न्हीद. " मंत्र्यान सांगलें.

"आमच्या मतदारांक तुजेच सारके मनीस जाय जाल्यार म्हज्यान कांयच करूंक जायना. लोकान म्हाका मुखार काडला, लोकान म्हजे खातीर पयशे मोडल्यात, लोक म्हजे खातीर वावुरतात. जर तर हांव तांकां नाका जाल्यार, ती तांची खुशी." आर्थूरान जाप दिली. एक कोडू हांसो दिवन मंत्री थंयच्यान पासार जालो. तेन्नाच राजेश थंय पावलो.

"कितें रे राजेश? तुमचेर पातयेवन हांव मुखार गेल्लों पूण म्हज्या वांट्याक निराशाच उरली." खंती जावन आर्थूरान म्हणलें.

"सर, शिता फुडें मीठ खाय नाका. आमी मांडलां तें गणीत सारकें उतरलां. तूं कसलीच चिंता करूं नाका." राजेशान ताका थाकाय दिली. पूण ताचें समाधान जालें ना.

दुसरो दीस सोनियाचो बारावो आनी वेंचणूक निकालाचो दीस आसलो. बाराव्याच्यो विधी करचे खातीर राजेशाच्या घरांतलो कोणूच निकालाक वचूंक नासलो. विधी केल्या उपरांत तीं मौन रितीन सोनियाच्या फोटवाक पळेत घरांत बसून आसतना राजेशाचो मोबायल वाजलो. "देवा पाव" म्हणीत ताणें फोन घेतलो.

"राजेश, आमचो आर्थूर सर जिखलो.. तब्बल बारा हजार मतांनी जिखलो." दुसरे वटेच्यान म्हायती आयली. राजेश खुशाल जालो आनी ताणें ही म्हायती घरांतल्या मनशांक दितना सोनियाच्या फोटवाचो उमो घेतलो.

"आतां आमकां नीत मेळटली म्हजे भयणी." राजेश उदगारलो.

"आमकांच न्हय बाबा, ह्या पुराय राज्याक नीत मेळटली. हो मंत्री पडला जाल्यार ताचे सारके हेर दुश्टय पडल्यात आसतले. राजेश, तुमी पेटयल्ली कीट उज्याच्या रुपांत बदलूं दी आनी आमच्या न्हिदिल्ल्या प्रशासनाक जाग येवंदी. आमच्या सारक्या सामान्य मनशाक मान वयर करून जियेवपाक अण्णा हजारेन उबारिल्ल्या आंदोलना सारकें आंदोलन उबें करून भ्रश्ट, फटींग, अत्याचारी आनी दुश्टांक मांडावळीन धड्याक लावंक आतां वाट मेकळी दिसता." सोनियाचो बापूय सुरेशान आनंद उक्तायलो.

"नीत कोणाकूच उपेक्षीत दवरची ना हाची काळजी घेयात." जानकीन उमाळे व्यक्त केले.

त्याच वेळार नवनिर्वाचीत आमदार आपल्या सांगात्यां बराबर तांगेर आयलो आनी ताणें सोनियाच्या फोटवाक नमस्कार करून फुलांचो हार ओंपलो. "सोनियाक नीत मेळटली." तो उदगारलो.

■

– **विन्सी क्वाद्रुस**, आर्लेम राय, सालसेत-गोंय मो. : ९८२२५८७४९८

# संक्रांन्तिचो संदेश



संक्रांन्तिक आमी एकामेकांक तिळां लाडू वांटतात!
कित्याक! तिळां लाडू शिंया दिसांत बरे म्हुण?
इतल्याच खातीर न्हय.

आशाढांत सुर्य दक्षिणेचे यात्रेक वता. हाका लागून दिसा परस राती व्हड जातात. उजवाडा परस काळोख वाडटा. सक्रांती दिसा सुर्य उत्तरेक येवपाक लागता. आतां काळखाचो शेक इल्लो इल्लो उणो जायत वता. संक्रांत ही उजवाडाच्या काळखा वयल्या जैताची परब. आतां दीस व्हड जायत वतात. जिवितांत इल्लो इल्लो उजवाड वाडत वता.

हे खोशयेन आमी एकामेकांक तिळां लाडू वांटतात.

तिळां लाडवांत तीळ आसतात आनी गोड आसता. तिळांत तेल (स्नेह) आनी गोडांत गोडसाण (माधुर्य) आसता. इश्टांनी इश्टांत 'स्नेह' आनी 'माधुर्य' वांटलें जाल्यार तातूंत व्हडलेंशें कांय ना. खरें म्हळ्यार, जांच्या आड आमकां आयजवेर झुजचें पडलें वा जाचेविशीं आमच्या मनांत (खंयच्याच कारणांक लागून जांव) वितुश्ट आयलें तांचो हात हातांत घेवपाची आनी 'जाल्लें गेल्लें विसरून वचुंया' अशें मनापासून तांकां सांगपाची ही परब. गोंयांकूच न्हय, पुराय देशाक असल्या एकचाराची आयज खूब गरज आसा.

■

– रवीन्द्र केळेकार



*लग्न पंदरा दिसांचेर पाविल्लें. मितालीक मात घुस्मटलेल्या भशेन जातालें. तें मम्मीकडेन उलोवंक सोदतालें. हरशीं तें तेजसाकडेन ह्या विशयाचेर उलयल्लें. तेजसान ताका ग्रीन सिग्नल दिल्लें. पूण आपल्याक मम्मीकडेन उलोवपाक मात जमचेंना हेंवूय सांगिल्लें. तेजस घरा नासतना तें दोनदां मम्मीकडेन येवन गेलें. पूण ताच्यान विशय काइंक जालोना.*

# येजमानपण

– हर्षा शेटये

**आ**ज मितालीचें लग्न. शालू न्हेसून तें घटके म्हऱ्यांत दोनूय हातांनी दोन दोन तांदूळ घालीत बशिल्लें. तेजसाचो आनी ताचो मोग जुळ्ळ्यार चार-पांच वर्सां जाल्लीं. तो मर्दी एम्. बी. ए. करपाक गोंयांभायर गेल्लो. आतां हांगा येवन वर्सभर जाल्लें.

तेजसाच्या बापायची प्लास्टीक ट्यूब तयार करपाची फॅक्टरी आशिल्ली. एकुलतो एक चलो. धंदो बरो चलतालो. तेजसाचो बापूय मुळचो रिवणाचो. थंय भाट बेंस आशिल्लें. मडगांवां नवो बंगलो बांदिल्लो. त्या मानान मिताली मध्यमवर्गीय कुटुंबांतलें. पुताक चली मानवलां म्हणटकीच तेजसाच्या आवयबापायन कांयच आडमेळीं हाडी नासतना कुळदेवतेक सांगणें करून लग्न थारायलें.

तेजसाची आवय बापूय सामकी हौशी. तेजसाच्या बापायक चलयेची खूब आवड. ताणें मितालीक सांगलें, 'तूं म्हजें चली, तेन्ना धूव बापायक उलो करता, आरे पप्पा बी म्हणून तसोच उलो करपाचो. अडेवे तुमी बिमी म्हणपाचें ना.' तें आयकून मितालीक खूब बरें दिसलें. पप्पाक हरशींय शॉपिंगाची आवड. खंय गेल्लेकडेन बरीऽ पर्स दिसली, ड्रेस दिसलो, मितालीक घेवन येतालोच. मांयूय तशीच, बरें किते रांदलें जाल्यार तिच्या ताळ्यासकयल वचनाशिल्लें. मितालीक फोन करून आपयताली. नाजाल्यार धाडून दिताली. इतली बरी मांय-मांव मेळ्ळ्यांत तें पळोवन मिताली



सामकें भुल्लुशिल्लें. तेजसाच्या पप्पान फायव्ह स्टार हॉटेलांत साखरपुडो केलो. मितालीच्या आवय बापायकडल्यान कांयच खर्च घेना आसतना. आपल्याक चली आसल्यार आपूण ताचो साखरपुडो करचोना आशिल्लों काय किते? तशेंच समजा अशें म्हणून.

... आनी एक दीस फॅक्टरींत गेल्लो आसतना पप्पाच्या दाव्या हातांतल्यान चडून येवपाक लागलें. हात फोडूंक लागलो. हॉस्पीटलांत व्हरतनाच वाटेर ताची सुध्द गेली. हॉस्पीटलांत भितर व्हरतकीच दोतोरान सांगलें 'ही इज नो मोर'. घे सगळ्यांचेर आकांत... तेजसाचो रवीकाका रिवणां रावतालो. तो बायल भुरग्यांक घेवन धांवून आयलो. काकाचें व्हडलें चली सिया आनी धाकलें रिया दोगांय तेजसाच्या पप्पाचीं म्हळ्यार भाईकाकाचीं सामकीं अपुरबायेचीं. तेजसाच्या पप्पाक भयण नाशिल्ली. मावळणूय नाशिल्ली. फाटल्या चार पिळग्यांनी तांगेर चली भुरगें जल्मूंक नाशिल्लें. ते खातीर सिया जाल्लें तेन्ना भाईकाका सामको खोशी जाल्लो. ताणें रिवणां वाडोभर लोकांक पेडे वांटिल्ले. दुसरें चली जालें तेन्ना तेजसाच्या संगिताकाकीक मात्शें वायट दिसलें. तिका भाव नाशिल्लो. चल्याची आवड आशिल्ली. भाईकाकान तिका सांगलें हें चली म्हजें म्हणून समज आनी म्हाका दी. पूण तिणें दिलें ना. पूण भाईकाका ताका 'पोसक्या' म्हुण उलो करतालो. तीं दोगांय भुरगीं भाईकाका भायर पडलो हें आयकून सामकीं काचाबूल जालीं. दुसरे दिसा सावन सियाची धावेची परिक्षा सुरू जावपा आशिल्ली म्हुण मरण दुसरे दिसा करना आसतना तेच दिसा सांजवेळचें करपाचें थारायलें.

तेजसाचे मम्मीचेर तर सामको आकांत आयिल्लो. पप्पा तिचो फक्त घोवूच न्हय तर इश्टूय आशिल्लो. ती तर सामकी सतरवितर जाल्ली. हेवटेन सून हाडटा म्हुण सामकी खोशयेन आशिल्ली. पूण नियतीच्या मनांत वेगळेंच आशिल्लें. मरणाक खूब लोक जमिल्ले. तेजसाच्या पप्पाचो इश्ट परिवार व्हड. मिताली सामकें मम्मी म्हऱ्यांत बसून आशिल्लें. पप्पाची मावशेभयण कमाताई आयिल्ली. ती मितालीकडेन पळोवन म्हणूंक लागली.

'काय बरो मांव अर्थअपुरबाय करतलो आशिल्लो सुनेची. पूण सुनेच्या नशिबांत नाका तें? तोच ना जावन गेलो. सगळें नशिबांत

आसचें पडटा. बेश्टेंच कांय मेळना. म्हणून तर तीं नक्षत्रां बी जुळटात काय ना तें पळोवंक जाय. मूळ नक्षत्राचें बी आसत जाल्यार वर्सापयलींच मांवाक खाता खंय! हांगा कोणें पळयलां नक्षत्र. मूळ नक्षत्रूच आसतलें सुनेचें. नाजाल्यार धडधाकट भाई आमचो असो केन्ना आक्ताक वता?..'

हें आयकून मितालीक खूब्ब वायट दिसलें. पयलींच रडून रडून दोळे तांबडे जाल्ले. आतां ताका हुंडको येवपाक लागलो. ताणें तेजसाचे मम्मीकडेन पळयलें. ती बाबडी तोंडार पदर दवरून रडत आशिल्ली. मितालीचें मन संगिताकाकीक कळ्ळें. तिणें हळूच मितालीच्या खांदार हात दवरलो. 'मिताली बाय वयनीक पिवपाक इल्लो सोडा घेवन यो पळोवया' अशें म्हणून ताका भायर धाडलें. तेजसाचेर ताची नदर गेली. केंस तासून खड्डो जाल्ल्या तेजसाक पळोवपाचो ताका धीर जालोना. ताचो इश्ट रजत आनी रवीकाका ताचे बराबर आशिल्ले.

पप्पाची बॉडी निमणे संस्काराक भायर काडली. ल्हवू ल्हवू एक एक करून सगळीं बायलां गेलीं. उरली संगीताकाकी, मिताली, मितालीची आवय, सिया, रिया आनी शेजान्न उषाकाकी.

'बाय, मिताली तुमी कांय रांदू नाकात आं. हांव न्हांवन येतां आनी तुमकां कॉफी करून हाडटां. रातची चपाती भाजी धाडटां.' उषाकाकी वचपाक गेली. थोड्या वेळान अंतीम संस्कार करून तेजस, रवीकाका घरा परतले. आतां रातचो कोण रावतलो हो प्रस्न आयलो. ते दिसा रातचो रावता ताणें बारा दीस रावूंक जाय असो एक समज आसा. ते खातीर ते दिसा कोण रावपाक तयार जायनात. पूण रवीकाका म्हणूंक लागलो आपूण हांकां घरा पावोवन रातचों परतो येतां. हें आयकून सिया रडूंक लागलें. तेजसाची मम्मी तशी धिराची. तिणें सांगलें तुमी रावंक नाकात. फाल्यां सियाची परिक्षा. ताका फाल्यां परिक्षेक पावय. मागीर सांजचो यो. भाईकाका गेल्ल्यान ताकाय शॉक बसला आसतलो. तूं घरा ना जाल्यार ताका तें चड जाणवतलें. 'काका, हांव तेजसा म्हऱ्यांत रावतां. तुमी वचात रिवणां.' रजतान म्हळें.

"हय काका, हांव मम्मी म्हऱ्यांत न्हिदतां, तुमी हुस्को करूं नाकात." मितालीन म्हळें.

रातची उषाकाकी चपाती-भाजी घेवन आयली आनी फोर्सान सगळ्यांक खावपाक लायली. जेवून तेजस आनी रजत तेजसाचे कुडींत न्हिदपाक गेले. मम्मीक दोतोरान न्हिदेची गुळी दिल्ली. मितालीन तिका गुळी आनी उदक हाडून दिलें आनी घेवपाक लायली. मम्मीन मितालीक सांगलें, "मिताली, पप्पा गेलो. म्हजो प्राण गेलो. खरें म्हळ्यार म्हाका आतां कसलीच उमेद उरूंक ना. पूण हातूंत तुजी कसलीच चूक ना. व्हदळ कमाताई उलयतालें तें तूं तकलेंत घेवन बसूं नाका. कमाताईच्या मनांत तेजसाक आपले नणंदेचें चली करपाचें आशिल्लें. म्हणून ती तशें उलयताली. तूं मनाक लावन घेवं नाका."

तें आयकून मितालीच्या मनावयलो ताण कमी जालो. मांव गेल्ल्याचें दुख्ख ताकाय आशिल्लें. पूण मांयचीं उतरां आयकून ताका आपले मांयचो अभिमान दिसलो. ह्या असल्या दुख्खाच्या प्रसंगार लेगीत ती आपलें मन वळखली म्हणून.

फुडें स म्हयन्यांनी मितालीचें आनी तेजसाचें लग्न थारायिल्लें आशिल्लें. मम्मी म्हणूंक लागली लग्न फुडें धुकलपाचें ना. थारायिल्ल्या म्हुर्ताचेरूच करुया. नाजाल्यार पप्पाक वायट दिसतलें. लग्न पंदरा दिसांचेर पाविल्लें. मितालीक मात घुस्मटलेल्या भशेन जातालें. तें मम्मीकडेन उलोवंक सोदतालें. हरशीं तें तेजसाकडेन ह्या विशयाचेर उलयल्लें. तेजसान ताका ग्रीन सिग्नल दिल्लें. पूण आपल्याक मम्मीकडेन उलोवपाक मात जमचेंना हेंवूय सांगिल्लें. तेजस घरा नासतना तें दोनदां मम्मीकडेन येवन गेलें. पूण ताच्यान विशय काडूंक जालोना. मागीर एक दीस तें आयिल्लें आसतना ज्युस्त रवीकाका, संगिताकाकी आनी तेजस घरा आशिल्लो, ताका धीर आयलो. ताणें खबरो करतां करतां सहज मम्मीक विचारले भशेन केलें. "मम्मी तेजसाचें येजमानपण कोण करतलो?"

"अशें कितें गो मिताली? आनीक कोण करतलो? रवी आनी संगीता."

"तशें न्ही मम्मी, हांव सांगतां म्हणून तूं वायट धरूं नाका. आतां तुमीच सगळीं येवजून पळयात. आवय वचून बापूय आसलो जाल्यार बापुयूच पुताचें येजमानपण करता. मागीर बापूय वचून आवय आसता तेन्ना आवयन कित्याक करूंक जायना?"



"आगो तशें न्हय गो पापया, विधवा बायल म्हणून केन्ना येजमानपण करता? सगळें बरें बरें जावंक जाय पापया. विखाची परिक्षा कोण पळयतलो?"

"मम्मी तूं आधुनिक विचारसरणीची. तुवें आज पावल मुखार घालें जाल्यार तुजें पळोवन आनीकूय बायलो फुडें सरतल्यो. पूण कोणें तरी पावल मुखार घालपाची गरज आसा."

"तुजें म्हणणें पट्टा गो. पूण लोक कितें म्हणटले. न्ही रे रवी?"

"वयनी लोक कितें म्हणटले हाचो विचार तूं करूं नाका. लोक दोनूय भशेन उलयतले. पूण तुवें येजमानपण केलें जाल्यार फाल्यां तुजें पळोवन दोन तीन बायलो शेर्त मुखार सरतल्यो. आनी हांव आनी संगीता आसा न्हय तुज्या फाटल्यान. तूं काय हुस्को करूं नाका."

"ना रे, म्हज्यान एकट्यान तुजो भाई नासतना येजमानपण करपाक जमचें ना रे."

हें पळय मम्मी बायल वतकीच दादलो सुपारी किरवटेक लावन येजमानपण करता. सुपारी हें बायलेचें प्रतीक अशें मानून. तशेंच बायलेन नाल्ल बरोबर घेवन येजमानपण केलें म्हुण कितें जाता? नाल्लाक आमी श्रीफळ म्हणटात. तेन्ना नाल्लाक दादल्याचें प्रतीक मानूंक हरकत ना. आनी मम्मी तूं कांय परक्याचें कोणाचें येजमानपण करिना. आपल्याच पुताचें करता." मितालीन आपलें मत तिका पटोवन दिवपाचो यत्न केलो.

"हय मम्मा, म्हजें येजमानपण तुवेंच करूंक जाय हें म्हजें मत. आतां हाचेर आनी खंयच्याच हाय कमांडाकडेन अंपील करपाची गरज ना." तेजसान मात्शें वातावरण निवळावपाचो यत्न केलो.

"हय वयनी, आमी दोगांय जाणां तुजे फाटल्यान रावतां. तूं आतां आनी कांयच चड येवजूं नाका. लोकांच्या प्रस्नांच्यो जापो हांव दितां. भाईचीच तशी इत्सा आशिल्ली म्हणून सांगतां."

हय ना करीत निमाणी तेजसाची मम्मी येजमानपण करपाक तयार जाली.

आज घटके म्हऱ्यांत बशिल्लेकडेन मितालीक फाटलें सगळें येवजतालें.

"चल, चल म्हुर्ताचो वेळ जालो." मितालीचो अजितमामा ताका सव्यार व्हरपाक आयलो. मामाच्या हाताक धरून ल्हवू ल्हवू पावलां घालीत तें अंतरपाटाच्या मुखार येवन उबें रावलें. आवयन ताच्या हातांत फुलांचो हार काडून दिलो. पुरयतान मंगलाष्टकां म्हणपाक सुरवात केली... शुभमंगल सावधान. माथ्यार अक्षदा पडल्यो. अंतरपाट कुशीक काडलो. तेजस हातांत माळ घेवन उबो आशिल्लो. मितालीची नदर तेजसाचे कुशीक गेली. तेजसाची मम्मी हातांत शकुनदिवो घेवन उबी आशिल्ली. मितालीन समाधानान तेजसाच्या गळ्यांत माळ घाली.

■

**– हर्षा शेटये,** कृष्णप्रेम, अंबाजी, फातोड्डें. मो. : ९८५०५३०१५२

# बिम्ब पुरस्कार २०१३



## बिम्ब मासिक म्हळ्यार व्हड साहित्य चळवळ

### पुरस्कार सुवाळ्यांत सईद मिर्झा हांचें प्रतिपादन



आगशी : 'बिम्ब ह्या कोंकणी मासिकान १२ वर्सां पुराय करप ही आयच्या काळांतली खऱ्यानीच तोखणायेची बाब आनी एका मासिकान चलयल्ली ही व्हड साहित्य चळवळ जावन आसा' अशें प्रतिपादन नामनेचे चित्रपट दिग्दर्शक आनी साहित्यिक सईद अख्तर मिर्झा हाणीं केलें. ते बिम्ब मासिकाच्या वर्सुकी पुरस्कार सुवाळ्याक मुखेल सोयरे ह्या नात्यान उलयताले. 'आयज थळाव्या भाशेंतलें एक मासिक चलोवप म्हळ्यार मोठ्या तकालसीचें आनी जोखमीचें काम जावन आसा. पूण बिम्ब परिवार फाटलीं १२ वर्सां सातत्यान एक मासिक चलयता आनी १० वर्सां पूर्ण जाल्या उप्रांत ज्येश्ठ साहित्यिकांचे प्रेरणेन साहित्यनिर्मिती जावंची म्हुण तांच्या नांवान पुरस्कार भेटोवप हेंच एक व्हड कार्य आसा' अशें ताणीं सांगलें.

प्रुडंट मेडियाचे संपादक प्रमोद आचार्य हे सुवाळ्याचे अध्यक्ष आशिल्ले. 'बिम्ब हें एक दर्जेदार मासिक म्हुण फाटलीं १२ वर्सां लोक तोखेतात आनी कोंकणी साहित्य आनी भाशा चळवळीचें तें एक म्हत्वाचें साधन' म्हणपाचें ताणीं आपल्या भाशणांत म्हळें. 'दर्जोराखून खंयचींय प्रसार माध्यमा चलोवप हें चिकाटीचें काम जावन आसा. कोंकणी मनशांत चिकाटी आशिल्ल्यानूच तांच्या वावराची दखल समाज घेता' म्हणपाचें ताणीं सांगलें. ह्या वेळार बिम्ब पुरस्कार २०१३ सुवाळ्याचे मुखेल सोयरे सईद अख्तर मिर्झा आनी अध्यक्ष प्रमोद आचार्य हांच्या हस्तुकी, ज्ञानपीठकार रवीन्द्र केळेकार पुरस्कार नामनेचे कोंकणी कादंबरीकार नं. ध. बोरकार हांकां, ज्येश्ठ कवी माधव बोरकार हांकां डॉ. मनोहरराय सरदेसाय लोककवी पुरस्कार, कवयित्री नूतन साखरदांडे हांकां डॉ. र. वि. पंडित काव्यचेतना पुरस्कार, शंकर भांडारी विनोदी साहित्य पुरस्कार सुमेधा कामत देसाय हांकां आनी विजयाबाय सरमळकार बालसाहित्य पुरस्कार नयना आडारकार हांकां भेटयलो. २०१३ वर्साचो साहित्य अकादेमी पुरस्कार फावो जाल्ले खातीर साहित्यिक तुकाराम रामा शेट हांचोय ह्या वेळार मुखेल सोयऱ्यां हस्तुकी भोवमान जालो.

पुरस्कार भेटवण सुवाळ्यांत पुरस्कार निवड समितीचे वांगडी आनी लोककवी पुरस्काराचे आदले मानकरी रमेश भगवंत वेलुस्कार हाणीं ओंदुच्या पुरस्कार मानेलींची वळख करून दिली. सगळ्या पुरस्कार जैतिवंतानी आपलें मनोगत ह्या वेळार उक्तायलें. ह्या आनंद सुवाळ्याक गोंय भरच्यान वेगवेगळ्या मळावेले मानेस्त, साहित्यिक आनी बिम्ब परिवाराचे वांगडी व्हडा संख्येन हाजीर आशिल्ले.

# बिम्ब पुरस्कार २०१३



## सइद मिर्झा आनी प्रमोद आचार्य हांणी भेटयले बिम्ब पुरस्कार २०१३



ज्ञानपीठकार रवीन्द्र केळेकार यादस्तीक पुरस्कार स्विकारतना नं. ध. बोरकार



डॉ. मनोहरराय सरदेसाय यादस्तीक लोककवी पुरस्कार स्विकारतना कवी माधव बोरकार



डॉ. र. वि. पंडित यादस्तीक काव्य चेतना पुरस्कार स्विकारतना कवयित्री नूतन साखरदांडे



विजयाबाय सरमळकार यादस्तीक बाल साहित्य पुरस्कार स्विकारतना नयना आडारकार



शंकर भांडारी विनोदी साहित्य पुरस्कार स्विकारतना सुमेधा कामत देसाय



साहित्य अकादेमीचो २०१३ वर्साचो पुरस्कार लाबिल्ले खातीर तुकाराम रामा शेट हांचो भोवमान

# Directorate of Tribal Welfare

Shrama Shakti Bhavan, 5th Floor, Patto Panaji-Goa
Phone: 0832 2438024

## Different Schemes of the Department

1) Post Metric Scholarship: Monetary help to ST Students who are doing further studies.
2) Pre-Metric Scholarship: Scholarship to students from Vth to SSC.
3) Kanya Dhan: Aid of Rs. 25,000/- provided to ST Girl students after passing Xth Standard and entitled only after passing XIIth Standard.
4) Merit based award and recognition of high performance in the Board Exam of SSC and HSSC in the state of Goa: To motivate students by giving merit based Award based on the benchmark of the performance and to provide financial incentive to high performing students who are economically weak.
5) Grants for running hostels: For backward classes students by Voluntary Social Organization.
6) Scholarship to Home Nursing Courses: Help given for completing Home Nursing Course.
7) Sahayata: Assistance to voluntary organization for organizing Socio-Culture Activities.
8) Book Bank Scheme: Help given to institute for buying of set of books for the library and a cupboard.
9) Gagan Bharari Shiksha Yojana: Monetary help given to ST students on the expenditure on travel, food & accommodation. Rs. 7500/- p.a. for Day Scholar & Rs. 15000/- p.a. for Hotellers.
10) Prashikshan Yatra: Financial assistance up to Rs. 1 lakh for the institutions conducting study tour for incurring expenditure on travel and food of the ST students up to 40 number and two teachers.



बिम्ब
मासिक





## हरणाचें पील आनी मेंढरां

एक मेंढरांचो कळप आशिल्लो. लागींच आशिल्ल्या तणांत तीं सुशेगाद चरतालीं. थंयच एक हरणाचें पील तण खावंक आयलें. कांय मेंढरांनीं ताका पळयलें आनी तीं आड्डूंक लागलीं. मेंढरां कित्याक आड्डटात तें जाणून घेवपा खातीर राखणो थंय आयलो. ताणें आनी कळाव केलो ना. ताका ताणें सादुरकायेन धरलें आनी मारून खावपा खातीर मारप्यांकडेन घेवन वचपाक लागलो.

हरणाच्या पिलाक आपलें मरण लागीं पावलां हाची जाणविकाय जाली. तें भिंवन व्हडल्यान रडूंक लागलें आनी हातांतल्यान सुटून वचपाचो येत्न करूंक लागलें.

मेंढरांनीं हरणाचें पील रडटा तें आयकलें आनी ताका वचून तापोवपाक लागलीं. 'अशें कित्याक करता, राखणो आमकां लेगीत असोच उखलून घेवन वता. आमी किदें तुजे भशेन बोबाट मारतात?'

हरणाच्या पिलान म्हळें, 'हांव अशें कित्याक करतां तुमकां किदें खबर आसा? तुमका राखणो धरता तो तुमची अपुरबाय करपा खातीर. म्हजें दुख्ख विंगड आसा. तुगेल्या राखण्यान म्हाका धरलां तें मारून खावपा खातीर. हांव इतलें सुंदर आसून लेगीत ताका म्हजी काकुळट दिसना.'

मेंढरांक खूब वायट दिसलें आनी मुकाट्यान आपल्या कामाक लागलीं.

**तात्पर्य : कोणय त्रासांत पडला तें पळोवन ओगी रावचें न्हय.**

## मुंगूस आनी मनीस

एक आशिल्लो मुंगूस. तो घराच्या लागींच रावतालो. केन्नाय तो त्या घरांत वचून पाली, हुंदीर आनी ल्हान ल्हान किड्यांक खावन उडयतालो. त्या घरच्या मनशांनी कुकडां पोशिल्ल्यान मुंगसाक केन्नाय चोरून कोंबी खावंक मेळटाली.

हें प्रकरण त्या घरच्या धनयाक खबर आशिल्लें आनी ते खातीर ताणें मुंगसाक धरून मारून उडोवपाचें थारायलें आनी त्या प्रमाण ताणें एक दीस मुंगसाक धरलो. ताका मारूंक वचपाक सोदतालो इतल्यान मुंगूस ताका पांय पडूंक लागलो. म्हाका वांचय धनया, हांवें तुमचेर खूब उपकार केल्यात. हांव तुमच्या घरांतले हुंदीर, पाली आनी तुमकां त्रास दितल्या किड्यांक खावन उडोवन तुमची राखण करतां.

धनयान अशेंऽऽ म्हुण आपली मान हालयली. 'तूं म्हणटा तें फट न्हय जाल्यार म्हज्या कुकडांक मारून खावपी कोण तर? आमच्या घरांतलें मांस चोरून व्हरून झाडांच्या झुडपांनी बसून खावपी कोण तर? तूं करता त्या उपकारा परस म्हाका लुकसाण चड जाता. त्या खातीर तुका ख्यास्त भोगचीच पडटली आनी तुकाय तशेंच मरण आयल्यार म्हाका खोस भोगतली.'

**तात्पर्य : बऱ्या गुणांच्या वांगडा ताचे वायट गूणय दाखोवन दिवंक जाय.**

■

– **अलका असोळडेकार,** मडगांव. मो. : ९८२२९८११०६

# सिंहासन बत्तीसी



## अकरावी काणी

# विक्रम अमृतफळ दिता

- माया अनिल खरंगटे

अकराव्या दिसा भोज राजा परत शिंवासना म्हऱ्यांत आयलो. ताणें शिंवासनाक हात लायले बराबर शृंगारकलिका नांवाची परी जिती जाली. तिणें म्हळें, ''राजा, तूं विक्रमावरी दयाळू आसल्यारच शिंवासनार बस.''

राजान म्हळें, ''हांव तो विचारच करना. पूण विक्रमादित्य कितलो दयाळू आशिल्लो तें म्हाका आयकुपाचें आसलें.''

परीन म्हळें, ''बरे भशेन, हांव तुका ती काणीच सांगतां. आयक –

नर्मदेचे देगेर एक महायोगी योगसाधना करतालो. विक्रमाच्या हेरांनी फिरतां फिरतां ताची म्हायती मेळयली आनी ती आयकून राजाकडेन येवन ताची तुस्त केली. तें आयकून राजाक दिसलें, 'अशे तरेचो योगी जर अवंतीत आयलो जाल्यार आमचें राज्य धन्य जातलें. आमच्या नागरिकांचेंय नशीब फळफळटलें.' हो विचार मनांत येतकच राजान आनी वेळ केलो ना. ताणें आपल्या एका जेश्ट दुताबरोबर चीट बरोवन दिली आनी पालखी धाडून त्या महायोग्याक अवंतींत येवपाचें आमंत्रण दिलें. पूण जाप म्हणून त्या योग्यान राजाक एक रकाद धाडलो, ''विक्रमादित्या! तुजें धर्माक धरून वागप आनी तुजे बरे गूण सगळें म्हाका खबर आसा. म्हजो तुका सदांच आशिर्वाद आसा. पूण म्हाका संवसारीक गजालींची मातय इत्सा ना. शारांत आमी योगी लोक रावंक शकनात. हांव अवंतीक तुज्या राज्यांत येवंक शकना. आनी राजा, हांव कितें सांगतां तें सारकें लक्षांत दवर. जे लोक आशेचे गुलाम आसतात ते



सगळ्या लोकांचे गुलाम जातात. पूण आशा जांची गुलाम आसता तांचें आख्खें विश्वच गुलाम जाता. तशेंच कसलोय लोभ, आशा धरप म्हळ्यार तें पातकाचें मूळ जावन आसता. आमी दुयेंत जावपाचें मुखेल कारण म्हळ्यार चड रूच घेवन खावप. आनी कसलीय आसक्ती सगळ्या दुख्खाचें मुखेल कारण जावन आसता. म्हणून आशा, रूच आनी आसक्ती सोडल्यार मनीस सुखी जाता.

योगी म्हाराजान धाडिल्लो रकाद सेवकान येवन राजाक सांगलो. तो आयकून राजा वळखलो हो कोणतरी व्हड मनीस आसा. हांचेकडेन हांवें स्वताच वचूंक जाय. राजान वेळ होगडायनासतना आपल्या राज्याची वेवस्था प्रधाना कडेन दिवन तो त्या योगीराजाच्या आश्रमांत गेलो. थंय ताणें त्या योगीराजाची खूब सेवा केली. ताची सेवा पळोवन योगीराज खोशी जालो. ताणें एक अमृतफळ राजाक दिलें. आनी सांगलें, ''राजा हें फळ जो खातलो ताका कसलोच रोग जावचो ना. आतां तूं अवंतीक वचून बरेभशेन राज्य कर.''

तें फळ घेवन राजा घरा येवंक भायर सरलो. वाटेंत ताका एक कुश्ठरोगी दिसलो. ताची दशा पळोवन राजाक ताची काकूट दिसली. ताचो रोग वचून तो बरो जावचो म्हणून ताका तें फळ खावंक दिलें. तें फळ खाले बरोबर ताचो रोग गेलो.

ताणें राजाचे पांय धरून ताका नमस्कार केलो. राजान म्हळें, ''नर्मदा न्हंयच्या देगेवयल्या योगीराजाचे कृपेन तूं बरो जाला. हांवें कांयच करूंक ना.'' ताका अशें सांगून राजा परत अवंतीक गेलो.

इतलें सांगून परीन म्हळें, ''पळयलें राजा, विक्रम कितलो दयेस्त आशिल्लो तो. तूं तसो दयेस्त आसा?''

राजाची जाप आयकूंक रावनासतनाच परी शिंवासनाक वचून दसली. राजा अजाप करीत आपल्या म्हालांत परतलो.



**– माया अनिल खरंगटे**
दवर्लीं, नावेली – गोंय.

## आजी

आजी म्हजी शाणी
सांगी म्हाका काणी
पाखां लावन उडटा
तिचे काणयेंत राणी

शींव तिच्या रानांतुलो
तापान फण-फणटा,
बिलू गळ्यांत बांदी
हुंदीर शिटुक घण्टा

कोलवेंचो कोलो तिचो
सामको चालू चालू
दर्यांत बूड मारुन
खांवक हाडी पालू

मूय तिची सूयकशी
ल्हवूच येवन चावता
आनीक थेंब पावसाचो
न्हंय जावन व्हांवता

जाय तेन्ना येता तिच्या
झाडांक फुलांच फुलां
कितलेचदां ताणीं म्हजें
मनूच चोरुन व्हेलां

काणये काणयेंत तिचे
सुकणीं गितां गायतात
म्हाका आनी कुतूकय
सपन देशांत पायतात
००

–रमेश भगवंत वेळुस्कार





# याद घोरपडीची

- उषा ज. कामत

भुरग्यांनो, ही खबर खूब खूब पयलिंची. खूब फाटली. जवळ जवळ ४० वर्सां पयलिंची. म्हज्या भुरगेपणांतली. आमी तेन्ना 'नावेली मांडपांत' रावतालीं. घराचे एके वटेन आमच्या दुर्गाक तेंकून एक व्हडऽलें भाट आशिल्लें. गच्च झाडांनी भरिल्लें. आंबो, पणस ह्या झाडां बरोबर वोंवळां, सायल हीं झाडां चड आशिल्लीं. तातूंत एक व्हडऽलो अर्जुनाचो रूख आशिल्लो. सकाळीं सकाळीं तरेकवार शेवण्यांचीं तरेकवार गीतां आमकां सदांच आयकुपाक मेळटालीं. तरेकवार शेवणीं पळोवपाक मेळटालीं. आमी सालाच्या, कुडीच्या जनेलांत उबीं रावन त्या शेवण्यांक पळयत रावतालीं. खरेंच खूब खूब सुंदर आशिल्ले ते दीस.

त्या भाटाचो मालक दर वर्सा पावसांत तीं झाडां बोडकायतालो. बोडकावप म्हळ्यार वयल्यो फांदयो कापून उडोवप. एका वर्सा त्या भाटकाराक किदें येवजलें कोण जाणां. ताणें व्हडले व्हडले तीन चार रुखय मारले. व्हडलो आशिल्लो तो अर्जुनाचो रूख ताणें मारून उडयलो.

जून म्हयन्याचो पयलोच आठवडो तरी लेगीत पावसाक बरो नेट आसलो. आनी त्या पावसांत त्या रुखाचे धोलींत रावपी घोरपड बाबडी उक्त्यार पडली. तिचें रावपाचें घर गेलें. अशीं कितलींशींच जाणां त्या झाडाच्या आदारान रावपी शेवणींय वाऱ्यार पडलीं.

रूख मारल्या उपरांत दोन तीन दिसांनीं घडिल्ली ही खबर. आमचो पापा, म्हळ्यार म्हजो बापूय दनपरां जेवन हात धुवपाक फाटल्यान गेलो आनी सरसर करून भितर सरपी प्राण्याक पळोवन बेगोबेग दार बंद करून भितर आयलो.

तिचें तोंड दिसनासलें फकत फाट लांबची लांब दिसताली आनी ती घोरपड खूबच लांब आनी रुंदय आशिल्ली. फाटले वटेन न्हावपा कूड आनी बरीऽ व्हड रांदन आसली. ताचेर संबंद वेळ व्हडलें भाण तापत आसतालें. ते रांदनीचे उबेकच ती घोरपड येवन रावली.

पापान आमकां सगळ्यांक सांगलें, "फाटलें दार बंद केलां हांवें. कोणूच 'हांड्या रान्नी' कडेन वचनाकात आं." मागीर पापान ती कशी सरपटत रांदनीकडेन आयली तें सांगलें.

आमच्या घरा फाटल्यान गावडा समाजाची वस्ती. म्हज्या भावांनी बेगोबेग वचून तांकां खबर दिली. धा बारा जाण बडयो, लोखणाच्यो कामी घेवन आयले. पूण सगळेच बाबडे भिताले. "तो कोण प्राणी तें सारकें पयलीं पळोवपाक जाय. मागीरच ताका मारपाचें." सगळे आपापसात उलयताले.

हळुहळू करून एकलो एकलो फुडें सरतालो. हांड्या रांदनीक तेंकून मागीर बांय. ताचे पलतडीं वचून ताणीं



खांचिंतल्यान पळोवपाचो प्रयत्न केलो. मागीर ती घोरपडच हें नक्की कळतगीर बरे चार पांच जाण एका बरोबर व्हडल्यान बोवाळ करीत फुडें गेले. इतल्या व्हडल्या बोवाळांत ती बाबडी भिवन ओग्गी पडून रावल्या आसतली. तिचेर सपासप वार केले आनी तांणी तिका मारून उडयली. इतली लांब आनी जड घोरपड ओडीत ओडीत ते आपल्या वाड्यार घेवन गेले. ती मारना फुडें तिचें रगत पिल्यार केन्नाच 'दमो' जायना हो त्या लोकांचो समज. खरें फट कोणाक खबर! पूण कपां घेवन व्हडली रांग लागिल्ली आमी पळयली. ते दिसा आमच्या वाड्यावेले सगळे  लोक तें रगत पिले. ताचें चामडें खूब म्हारग. तें काडून तांणीं विकलें खंय! त्या भुरगेपणांत लेगीत जीव वाटावंक आयिल्ली घोरपड 'जिवानीशीं' गेली म्हणपाचें खूब खूब वायट दिसलें.

पूण तो काळच वेगळो. आयचे घडयेक जाल्यार रानखात्या कडेन दिवपाक जाता आसलें. तें भाट आतां सामकेंच विस्कळ जालां. भुरगेंपणांतले ते दीस आनी यादींतली ती घोरपड मनाच्या कोनशाक घट्ट चिकटून आसा.



**– उषा ज. कामत,** हरिमंदिरा लागीं,मडगांव – गोंय.

## शाळा, भुरगीं आनी शिक्षक

शाळा म्हणजे घर कशें
भुरग्यांनी आपलें समजूंक जाय
गिन्यान तुमी वापरून आपलें
भुरग्यांनी खूब शिकूंक जाय...

शाळा सदांच वाट तुमकां
फुडें वचूंक दाखयता
येस तें मेळूंक तुमकां
शिक्षक तुमकां शिकयता...

भुरग्यांनी तुमी मान-रेस्पेत
दिवंक पयलीं शिकूंक जाय
शिक्षकूच तुमचो आवय-बापूय
कसो तुमी समजूंक जाय...

चुकनासतना शाळा तुमी
भुरग्यांनी सदांच शाळेंत येवचें
शिक्षक कितें शिकयता तें
घट तुमच्या मतींत धरचें...

मस्तीपणां करिनाकात
सदांच बरे गूण आपणावचे
खूब तुमी अभ्यास करून
बऱ्या गुणांनी पास जावचें...

भुरगीं आपलें शिकप करतात
पूण शिक्षकान नदर दवरूंक जाय
शाळा, भुरगीं आनी शिक्षक
पवित्र मंदीर कशें आसूंक जाय...



**– ऍडवीन फर्नांडीस**
शेळवण – कुडचडें.
मो. ९८५०४५६५५६



# आमी खंय चुकतात काय?

- स्मिता तिंबले



**शा**ळा- कॉलेजीनीं शिकतात त्या भुरग्यांमदीं कांय भुरगीं आक्रमक वृत्तीचीं दिश्टी पडटात. कांय भुरगीं चडूच मंद, शिकपांत कसलोच रस न दाखोवपी अशीं मेळटात. तर, कांय भुरग्यांक अभ्यासाचेर लक्ष केंद्रीत करपाक खूबच त्रास जातात अशे दिसून येता. भुरग्यांनी अशे तरेचें आसप हें निसर्गीक? थोडे तेंपान तांचे मदीं सुदारणा जाता काय? घरच्या वातावरणाक लागून तांची वागणूक तशी जाता काय?

अशे तीन-चार प्रस्न पर्थून-पर्थून मनाचे तळयेंत उफेत्तात.

भुरग्यांची वागणूक स्पश्ट जावची म्हणून कांय देखी घेवया. चौथेच्या वर्गातलें एक चली. दिसपाक सोबीत, बावली कशें. माथ्यार सरळ दाट केंस. मदर मेरी कशें तोंड. शाळेंत येतना सगळीं पुस्तकां घेवन येता. जाय तितलींच हाड म्हळ्यार आयकना. ताच्या बोटव्यांत मुळाक एक, हाताक घालपाचें गुलाबी रंगाचें घड्याळ आसता. ताका हाताक बांदपाचोच खूब लांब असो पटो. मात्सो कोण पळयनासो दिसलो की तें, तें घड्याळ घेवन मनगटाचेर रेवडायता. दुबय कामाखातीर रावतले ताचे आवयन दिल्लें तें घड्याळ रेवडायतना आवयूच आपल्याक वेंग मारता अशें ताका दिसता काय? काजाराचें डेकोरेशन करपी ताच्या पप्पाक मनांत आसूनय तो ताका फाव तितलो वेळ दिवपाक शकना. भाड्याक लायिल्लो मोटरसायकलकार आनी सव्वेक शिकपी भाव हांचे बराबर तें शाळेंत यो-वच करता. तें बेगीन बरोवपाक शकना. ताचे दोळे समाधानी नात. ताचें मन अभ्यासाचेर केंद्रीत जायना.

चौथेच्याच वर्गांत शिकपी आनीक एकलो चलो. अभ्यासांत हुशार तो. पूण तातूंत ताका आवड आसा अशें म्हण् नजो. सदांच घरांत कोणाच्या तरी धाकान तो अभ्यास करता. ताचें अक्षर भयंकर. बरोवन मेकळें जावप इतलेंच तो जाणा. ताची आवय दिसभर कामाक लागून घराभायर आसता. घरांत तो आनी ताची आजी. बापूय घरा येतकूच तो भियेवन अभ्यास करता. दिसभर मस्ती करून तो घर माथ्यार घेता. एका जाग्यार एक मिनिट लेगीत तो बसूंक शकना. तो शाळेंत सगळ्या भुरग्यांक मारता, धुकलता, फट उलयता. गोडी नाशिल्लो, आक्रमक वृत्तीचो अशी सगळ्यांची ताचेविशींची कागाळ. बापूय ताका घराभायर खेळपाक धाडूंक सोदीना.



ताची आवय दिसभर भायर उरता म्हणून हो आवयच्या सांगाताक आशेता काय? आतां व्हड जालो ना तर तो? आज्जेबरोबर रावन ताका एकसुरेपण येता काय? खेळपाक मेळनाशिल्ल्यान ताचे शक्तिचें निस्सरण जायना काय? बापायचे कडक शिस्तीक लागून तो उबगला काय? व्हड जातकूच ताचेभितर फरक पडटलो अशी आस्त बाळगुपाची?

आनीक एकलो जाचेविशीं बरयतना काळीज अक्षरशः हालता. दोळ्यांच्यो पातकड्यो ओल्यो जातात. हो भुरगो पोरको न्ही. घरदार नाशिल्लो न्ही. गरीब तर न्हींच न्ही. ताच्या बुद्धीचो बुध्द्यांक तपासून जालो. नोर्मल नो प्रोब्लेम सर्टीफीकेट मेळील्लो भुरगो. खंयचोय विशय आत्मसात करुंक शकना. एकाय कवितेचें कडवें न चुकता म्हणपाक शकना. आत्तां सांगिल्लें आत्तां विसरता. गणीत विशय येतकूच मात्सो हय-न्हयसो ताच्या तोंडार उजवाड पडटा. आनीक एक प्लस पॉयंट म्हळ्यार, ताका कितें सांगपाक जाय तें, तो दुसऱ्याक इंग्लिशिंतल्यान सांगपाक शकता. बरींच बंडलांय मारपाक शकता. ताका शिकोवन सगल्यो शिक्षिका थकल्यो.

मुळावीं अक्षरां शिकपाकूच ताचो मेंदू तयार ना. तो फुडलीं सोपणां कशीं चडटलो? सोंपीं पुस्तकां दिवन जालीं. सुटयेंत शिकोवन जालें. ट्युशनाक लागून तर ताच्या भुरगेपणातले सगळे दीस काबार जातात अशेंच म्हाका दिसता.

ह्या भुरग्याचें करप कितें? व्हडले गाडयेन ताका शाळेंत हाडून पावयतल्या आवय-बापायकडेन ताका निवळ-नितळ गणवेश घालून धाडपाचें पाशियेंस ना. ताचेविशीं कितेंय सांगूक सोदल्यार त्या भुरग्याक माराशिवाय दुसरें कितेंय मेळत हाची खात्री ना. ताचे कडेन पेन? ना. बरोसो रफ बुक? ना. हस्तकलेखातीर हाडूंक सांगिल्ली सादिशी कसलीय वस्तू? ना. नाचाखातीर हाडपाक सांगिल्लो धवो बुशशर्ट? फाव तसो ना.

शाळेंतले तास ताचे खातीर जाता तितले सुकर करपाचे आमचे प्रयत्न चलतात ताका यस मेळत काय?

केलिडोस्कोपांत घाल्लेभशेन तरातराच्यो आकृती दिश्टी पडटकूच तांच्या वेगळेपणाक लागून प्रस्न पडटात. फाव त्या मात्रेंत पालकाचो सहवास मेळप हो भुरग्याचो जल्मसिद्ध हक्क. या मुलभूत हक्काची जागा दुसरी खंयचीय गजाल घेवंक शकना. भुरग्यांक सांगूक कळना. पूण, तांचे भितर कितेंतरी अर्दकुटें उरता. ते ताचे जिवितांत एक कोड कशें जावन रावता. ताचे व्यक्तिमत्वाक सारें-उदक घालपाखातीर धडपडपी पालकांक ही गजाल केन्ना कळटली? ती कळटली काय ना? ताचे घडवणेंत आवय-बापायच्या सहवासाचो एक म्हत्वाचो वांटो आसता. तो मेळ्ळो ना जाल्यार ती उणीव उरता. भरून न काडपासारखी, सासणाचीच. ■



# बदल

- सरस्वती दा. नायक

वीणा दिसूंक जितलें सुंदर आशिल्लें तितलेंच रागीटूय आशिल्लें. ताका राग आयल्यार ताचो स्वतावेलो ताबो वतालो आनी तें रागान मेळटा ती वस्त शेवटून मारतालें. मागीर ती शेवटिल्ली वस्त कोणाचेर बसतली, ताचो किदें परिणाम जातलो हो विचार करूंक ताची तकली जाग्यार नासताली. ताच्या ह्या रागीट सभावा खातीर ताका कोण चड लागीं करनाशिल्ले. गरज पडल्यारूच ताचेकडेन उलयताले. सातवेंत शिकतालें तें. पूण ताच्या बांकार ताचे वांगडा आनी कोणूच बसूंक तयार जायना आशिल्लो. ताका एकटेंच बसचें पडटालें. कोणूच इश्ट, इश्टीणी नाशिल्ल्यान सामकें एकमुळें जाल्लें तें.

घराय ताची धाकटी भयण सीमा ताका भिवनचं आसतालें. विणा ताचेकडेन आपली कसलीच वस्त पातयेनाशिल्लें. शाळेंतल्यान ताचेर किदें कागाळ आयली की आनी घरांतूय ताणें किदें फोडाफोड केली जाल्यार मागीर ताका ताचो बापूय बरोच मार घालतालो, समजायतालोय. पूण कांयच फायदो नाशिल्लो. आवय तर ताच्या फुडाराच्या चिंतनानी सामकी बेजार जाताली.

वय वाडटा तशें ताचो राग कमी जावचे बदला आनिकूय वाडटालो. एकदां तें वर्गांत आपल्या बांकार बशिल्लेकडें ताका कोणा भुरग्याचो चुकून हात लागलो म्हणून ताणें रागान आपली भरिल्ली उदकाची बाटली ताचेर शेवटिली. बाटली वचून बांकार उगडो आशिल्ल्या कोणाल्या कादेनार पडली. सगळो कादेन भिजून पाड जालो. भितर बरयल्लीं अक्षरां सामकीं धुवून गेल्लीं. मागीर टिचरीन ताका शिक्षा म्हुण नवो कादेन हाडूंक लायलो आनी सगळो पुसून गेल्लो अभ्यास परत बरोवन काडूंक लायलो. बरोवन बरोवन ताच्या हाताक गुळे आयिल्ले. वर्गांत तें चुकून केन्नाय आपले जाग्यार बसून आसतालें. चडशें तें बांकार उबें रावन, नाजाल्यार वर्गा भायर दिमयो घालून ताचे रागीट वागणुकी खातीर टिचरीन दिल्ली शिक्षा भोगतालें. पूण तें कशेंच सुधारपाचें नांव काडिनासलें.

आज तें सामकेंच रागान धुसफुसतालें. आयजूय ताची कागाळ ताच्या शाळेच्या हेडमास्तरालागीं पाविल्ली. हेडमास्तरान ताका आफोवन हाडून आनी फुडें एक लेगीत कागाळ आयली जाल्यार शाळेंतल्यान नांव काडून वडयतले म्हणून धमकी दिल्ली.

घरा पावता थंय आसा, ताणें पळयलें कालूच ताका शाळेंत मुखेलमंत्र्यांनीं भेट म्हणून दिल्लो 'ई-टेबलेट' घेवन ताची भयण सीमा खेळटालें. ताका सामको राग आयलो. ताणें रागान हेवटेन तेवटेन पळयलें. दारांत निकतोच तांगेर आयिल्ल्या शिरूमामाले चामड्याचे बूट आशिल्ले. ताणें फाटींफुडें पळयनासतना एक बूट उखल्लो तो सिमाचेर शेवटून मारलो. सिमान सोफ्या फाटल्यान लिपून तो चुकयलो आनी तें धांवूंक लागलें. तशें वीणा आनिकूय चाळवलें. "म्हाजी नवी ई-टेबलेट घेवन खेळटा, तूं म्हज्या हातांतल्यान कशेंच सुटूंक ना. तुका हांव मार घालतलेंच." म्हणत ताणें रागान दुसरोय बूट उखलून सीमा वटेन शेवटिलो. सीमान तकली बागोवन तो चुकयलो खरो, पूण बूट वचून



थेट ताचे फाटल्यान आशिल्ल्या काचेच्या पार्टीशनाक आपटलो आनी काचीक व्हडली वेर येवन ती फुटली. आवाज आयकून घरांत भितर दुसऱ्या कुडांत ताच्योच खबरी करपी ताची आवय, बापूय आनी शिरुमामा धांवत भायर आयलीं. बापायचो मार आतां ताका कसोच चुकचोना म्हुण तें सामकें भियेल्लें. ताचो बापूय ताका खरेंच मारता आशिल्लो पूण निकतेंच भितर कुडांत शिरुमामान तांकां समजायल्लें की वीणा मारान सुदारचें ना आनी ताका सुदारपाची जबाबदारी ताणें आपल्यार घेतिल्ली. शिरुमामा एक हुशार आनी मोगाळ प्रोफेसर. शिरुमामालीं उतरां याद जावन तागेलो बापूय वग्गी रावलो आनी सोफार बसून सकाळीं वाचून काबार केल्लो पेपर परत वाचूंक लागलो. आवयूय मोन्यानी सान्न घेवन जमनीर कवचे कुडके शिंपडिल्ले ते एकठांय करूंक लागली. शिरुमामाय तिका मदत करूंक लागलो. वीणाक अजाप जालें आनी आपलो मार चुकलो म्हुण खोशी जालें. सीमान ओदोळ झगडटाना सोफ्यार शेंवटिल्लो आपलो 'ई टेबलेट' घेवन ताणें मात्सो पोशेलो आनी कुडांत व्हरून आलमारींत दवरलो.

थोड्या वेळान सगळ्यांचीं जेवणां जालीं. वीणाक आजूनय आपल्या बापायकडें पळोवपाचो धीर जायनाशिल्लो. आपणें चूक केल्या हाची खंत ताका जाताली. उपरांत शिरुमामान फोन करून आपले ओळखीच्या एका मेस्ताक आफोवन हाडलो. हो मेस्त एका दोळ्यान कुड्डो आशिल्लो. ताच्या कपलार एक व्हडलीशी मांव आशिल्ली. आनी ते खातीर तो सामको विद्रूप दिसतालो आनी भिरांकुळय बीन. वीणाक मामाचो राग आयलो.

"इतलो भिरांकूळ दिसपी मेस्ताक आफोवपाची कसली गरज आशिल्ली? गांवांत घेऽ म्हणून मेस्त आसात." ताणें सीमाक हळूच म्हळें.

त्या मेस्तान फ्रेमीचें जोख काडून घरांत आशिल्ली नवी कांच कापून ते फ्रेमीत वेवस्थीत बसयली आनी बारीक खिळे मारून फ्रेम घट्ट केली. मेस्ताक जेन्ना वीणाचे आईकडल्यान कळ्ळें की कांच वीणान रागान बूट मारून फोडल्या तेन्ना तो कपडो घेवन कांच पुसीत सांगूंक लागलो, "ताकाय खंय ल्हान आसतना खूब राग येतालो. रागान तोय वीणाभशेन वस्ती शेंवटितालो. घरांतल्यो वस्ती फोडून ताणें खूब नुकसान केल्लें. एक दीस रागान ताणें हातांतलो सिझन बॉल शेवटिल्लो तो थेट दारार बशिल्लो. मागीर परत बावन्स जावन ताच्या दोळ्यार जोरान आपटून दोळ्याक खोल घावो जाल्लो. तो घुंवळ येवन लागींच आशिल्ल्या टेबलाच्या धारदार कोनशाक आपटून कपलाक व्हडली कोंक जाली. खूब तेंपान कोंक भरून आयिल्ली पूण कपलभर मांव मात तशीच उरली. राग येवन वस्तू शेवटुपाचे आपले संवयेन आपल्या दोळ्याक कुड्डेपण येवन आपूण विद्रूपय जालों."

इतलें सांगून आपल्या दोळ्यांतल्यान व्हांवपी दुकां पुसत ताणें वीणाक म्हळें, "बाय कांच फुटल्यार आमी ती सोपेपणी बदलूंक शकतात. दोळ्यांसारकी नाजूक वस्त फुटल्यार मात बदलपाक खोऱ्यानी पयसो लागताच. तशेंच बरें नशीबूय लागता. रागार मात्सो ताबो दवर आनी मेळटा ती वस्त शेंवटून वडोवपाचें सोड. नाजाल्यार म्हजे भशेन गत जावपाक कळाव लागचो ना. म्हाकां आतां दोळ्यांचें म्हत्व कळूंक लागलां. हालींच हांवें म्हजो बरो आशिल्लो दोळो म्हजे मरणा उपरान्त दान करतलों म्हुण बरोवन दिलां. म्हज्या एका दोळ्यान कांय जायना कोणा कुड्ड्याक हें जग पळोवंक मेळटलें म्हुण हांव खोशी जाता. हांव उलोयलों म्हुण राग धरनाका बाय."

वीणाचे तकलेर थापटल्या बशेन करून तो झुपझूप पावलां उखलीत थंयच्यान गेलो. ताचीं उतरां वीणाच्या काळजांत खोल वचून बसलीं. इतको वेळ वग्गी रावन आयकुपी वीणाक भंयान घाम सुटलो. ताका नाका तसलीं चितनां येवंक लागलीं. रातीकडेन ताका जेवण चल्लें ना. न्हिदिल्लेकडें सपनांत एक दोळो कुड्डो आशिल्लें आनी कपलार मांव आशिल्लें तें, केन्नाकेन्ना सीमा अशें आलटून पलटून दिसूंक लागलें. बूट सीमाक लागिल्लो जाल्यार तें स्वताक माफ करपा नाशिल्लें. मनांत कसलो तरी निश्चेव करून तें फांतोडेर शांत न्हिदलें. सकाळफुडें ताणें आपलेय दोळे आपल्या मरणा उपरान्त दान करतलें म्हणून सांगून ताचे आवय बापायक आनंदाचो धक्को दिलो. शिरूमामान फुडें येवन आपले भाचेक मायेन गोपांत घेतलें. आपले दिदीत जाल्लो बदल पळोवन सीमाय खोशी जालें. फुडें वीणाक केन्नाच राग आयलो ना. आयलोच जाल्यार तें शिरू मामान सांगिल्लेभशेन एक ते शंबर नंबर म्हणत रागाक खावन उडयतालें.

■



# मनसंवेदना



## तो

तो
चोंयवशीन बेणिल्लो
तो
कणान कण खिणेल्लो...

तो
निशब्द कथा
तो
चिरंतन व्यथा...

तो
उजवाडाचो पूत
तो
काळखाचो दूत...

तो
अर्धसत्य
तो
सूर्यसत्य...



– आर रामनाथ
मो. ९८५०४५८७६३

## रान लागीं पावलं

हालींसार रान म्हाका
खुणावंक लागलां
तशें पळोवंक गेल्यार
रानाचें आनी म्हजें
कांयच ना तशें नातें...

हालींसार रान म्हज्या
सपनांत येवंक लागलां
सहज हांवें काल
हारशांत खुमणें पळेलें
हारशानूच म्हजें वय सांगलें

पळे 'गो' तुज्या मुखामळार
जाण्ट्यापणाच्यो कुरवो दिसतात
काळजांत म्हज्या
खिणभर कच्च जालें
हांव आतां म्हातारें जालें

हारशान खरें तेंच सांगलें
तशी म्हाका मर्णाची
भिरांत हालीं दिसना
जाता तें जावं आतां
रान म्हजेलागीं पावलां

– सोनिया सुभाष शाह
मेरशी – गोंय

## आमी

ते गरिबीचेर उलयले
आमकां दिसलें
आतां गरिबी पयस जातली
ते म्हारगायेचेर उलयले
आमकां दिसलें
आतां म्हारगाय सोंपतली
पेटयेंत मतां घालून
बटणां दामून
आमी तेंकां वेंचून दिले
आमकां घालून पांयांपोंदा
ते आमचेर उबे रावले
आमी मोन्यानी पडून रावले
सत्तेच्या खुर्चेर बसून
ताणीं गांव देश विकपाक काडलो
तरीय आमचें हूंय ना आनी चूंय ना
खरेंच आमी जिते आसात की मेल्यात??

– उदय नायक
काणकोण – गोंय.
मो. : ८८०५३३३९०५

## गांवांत म्हज्या

गांवांत म्हज्या वेळेचेर
सुंगटां नाचतालीं
सांज वेळार घरा घरांत
घुमटां वाजतालीं

दोंगरांतल्यान गायत मोडत
व्हांवत वचऽ झरे
एके हारीन देंवतालीं
घेवन जळवा भरे
येतां वयतना वाठाऱ्या
देवाक भजतालीं

शिरवणांत सैमाचेर येई
आतवो भार
पाचवें न्हेसण न्हेसतकच
दीस तरणी नार
सूर्य किर्णां पयलीं पोरसांत
शेवतीं फुलतालीं
रुखाचीं मुळां कुळां
सोडून गेलीं गांव
भावपणांच्या म्होवाळ नात्याक
परकी जाल्यात भाव
विस्वसाचे उजू वाटेन
चलत रावतालीं

गोरवां गोठ्यांत पाडकुलीं
उडक्यो मारिना
सांज वेळार घुमटां, झांज
ताल धरिना
आपुलकेच्या पावस पाणयान
सगलीं भिजतालीं.



– सुनील हरी पालकार
नावशी – गोंय
मो. : ९९२१७९६८६५



## जल्म अस्तुरेचो

अस्तुरे मेळ्ळां तुकां
वरदान सृजनाचें
सैमिक देणें आवयपणाचें
बाळटेराच्या वेणांतल्यान
जाता तुजो पुनर्जल्म
तरी गर्भांत वाडपी
'चली' म्हणून गर्भपात
करता तेन्ना....
अवतिकाय तुज्या मनाची
कळत कोणाक?
फाटल्या फुडल्या विचाराक
नासता सुमेळ
गर्भांत मेळपी उब
आवयच्या कुसव्याची
हीच ताची शक्त
हीच प्रेरणा
होच आधार हीच सुरक्षा होच संवसार
पूण 'त्या' एकाच
निर्णयान जाता
सगळो विध्वंस
त्यो कातरी...
तीं आवतां...
त्यो सुयो...
तोणाक धवे कपडे
बांदिल्ले जशे यमदूत
कांचवेल्लो जीव
नाजूक सानुलो
पळोवनच आंगाक

शेळो घाम
निमाणो आधार
तुटता तेन्ना...
मोनें दुख्ख
मोने त्रास
मोन्यो किळांच्यो
मोने वळवळे
एक जीण सोंपता
न्हय सोंपयता
पूण अस्तुरी मात
मोन्यानीच सगळें
फकत सोसता
वळवळटा...
तळमळटा...
कळवळटा...
परवता...
निण्णटा
सगळे आपलेच
नशिबाचे भोग
मानून...
कारण तिचो
जल्म अस्तुरेचो
जल्म अस्तुरेचो...

– सुशीला निळकंठ हळर्णकार
दवर्ली, नावेली – मडगांव.
फोन : २७५२९१७



# काळीज

- कृ. म. सुखठणकार

*जांचें काळीज शेणला तांकांच तांच्यो व्यथा कळटा हें खरें. काळीज जशें शेणला तशेंच तें घुसपता. असल्या गजालींक मेडिकल सायन्सींत जरी स्थान नासलें तरी त्यो घडटात हें मात खरें. कारण असल्या प्रसंगांतल्यान गेल्ले लोकूच ह्या गजालींक साक्षी. जेन्ना काळीज घुसपता तेन्ना त्या मनशांक टेलीपथी बी जावपाक लागता.*

**का**ळीज हो एक शरिरांतलो भाग. तो सगल्यांक आसता (हें हांव कित्याक सांगतां तर आई म्हाका बोड ना अशें उतरा कणकणी म्हणटा, म्हणू बाबडी). काळजाक हृदय, कुरासांव, हार्ट, मोगान पडटकच कलेजा, जिगर अशेंय म्हणटात. काळजाचें काम कुडींत रगत पंप करपाचें. तें बाबडें दिसाक सुमार दोन हजार गॅलन रगत पंप करता. घड्याळी सारके ताचे ठोके पडटात, हांवें ते आयकुनात. दोतोरागेर वतकच ते तो आयकता आनी मेजता आनी ताच्यावेल्यान तो कितें तरी थारायता. मदीं मदीं तो लांब स्वास घे म्हणटा, कित्याक तें ताकाच खबर.

'मनशाक मरे एकवेळ मेंदु नासल्यार जाता पूण काळीज हें जायच!' अशें म्हाका वाड्यावेल्या फिलोजोफर दत्तान सांगिल्लें. हांवें अजागळान ताका 'तूं अशें कित्याक म्हणटा रे दत्ता?' असो प्रस्न विचारतकच ताणें फिलोजोफीन उपाट भरिल्ली जाप दिली... 'मोगान पडपाक तकली लागना, काळीज लागता बाबा' अशें म्हणून ताणें दिमी मारली आनी दोनूय हात दावे वटेन आपले छातयेर दवरले. तेन्ना म्हाका काळीज दावे वटेन आसता हें समजलें.

हें काळीज फ्राक जाता आनी मागीर ताका आताक येता. अमक्या अमक्याक मागीर कुरासांवाचें जालां वा अमक्या अमक्याक आताक आयलो अशें आमीं म्हणटात. हो आताक येवचे पयलीं छातयेंत दावे वटेन दुखता अशें म्हाका सावळ्यान सांगलें. हें कळटकच म्हाका पयलो आताक सातवेक आसतना ज्यूस्त परिक्षे कडेन आयलो. पूण आईन एकुलतो एक पूत आसून पसून व्हडलेंशें मनार घेतलें ना. म्हाका वोंवों खावन गरम उदक पिवपाक लायलें. हाका लागून आमचे फामिलीचेर येदें व्हडलें आयिल्लें अरिश्ट कशें निभावलें तें म्हाका कळ्ळें ना.

ह्या काळजाचें मुख्य काम रगत पंप करपाचें तें आमकां कळ्ळें. ताचो आकार मुठी सारको आसता अशें म्हणटात. णव्वेक आसतना, DRAW HUMAN HEART AND LABEL ITS IMPORTANT PARTS असो प्रस्न आयिल्लो (पेपर आपटे सरान काडिल्लो तें म्हाका मागीर कळ्ळें). आयुश्यांत बायोलोजी पुस्तक उगडूंक नाशिल्ल्या कारणान हांवें, संवये प्रमाणे एक बदाम काडलो, तातुंतल्यान आरपार बाण मारलो आनी HEART, ARROW, BLOOD DROPS अशें लेबल केलें. हांव बायोलोजींत फेल जालों तरी आसतना हांवें आपटे सराचें बरें जांव अशें म्हणिल्लें. तरीकूय ताका कुरासांवांचें कशें जालें तें म्हाका खबर ना. मागीर आपटे सर आपलो कार्डियोग्राम लेबल करुन सगल्यांक दाखयतालो अशें दत्ता सांगतालो, दाखोंव बाबडो.

हें काळीज म्हणटा ती वस्त आपल्या हातांत नासता, हें म्हाका खबर नाशिल्लें. तेन्ना हांव ल्हान आशिल्लों जांवये. एक दीस, वता कडार बापूय मागिलदारांतल्यान भितर सरलो आनी आईक म्हणपाक लागलो, कामणे म्हाका आवडपाक लागलांशें दिसता (कामणे आमगेलें कामेरें, शंबर रुपया दिसवडो, बापूय मानायांक पन्नास दितालो). घरांत घेऽ बोवाळ. त्या दिसा हांव शीत आनी खुटे कडयेनूच जेवलों. 'तुमचे मानेर कोण तरी बसला सो दिसता' अशें बापायक म्हणून, आई, बद्द कवळ्यां प्रसाद लावपाक गेली. बाबुली भटान देवतेक प्रसाद लायलो. देवतेन प्रसादार 'दिल तो है दिल दिल का ऐतबार क्या किजे आ गया जो किसी पे प्यार क्या किजे' अशें सांगलें. देवतेन अशें सांगलां म्हणटकच बापायन व्हडली अशी कांय चूक करुना, अशी आईन भुमिका घेतली.

हांवें वयर, काळजाचे घड्याळी सारके ठोके पडटात अशें म्हणलां. हे ठोके धड धाकट मनशाचे, मिणटाक साठ ते शंबर अशे पडटात. केन्ना केन्ना काळजाचे ठोके चुकतात. हाचो अणभव म्हाका, हांव वयार येतकच आयलो (हय, चलेय वयार येतात). हांवें लांब पॅण्ट घालपाक जेन्ना सुरवात केली तेन्ना हांव वयार आयलां अशें म्हाका जाणवलें. हांव सांजेचो पेत्रोल हाडपाक बरडाल्या पसऱ्याचेर गेल्लों. वडा कडेन मंद मंद पांयजणां वाजपाचो वेळ तो. पेत्रोल दिवपाक बरडान संध्याक बसयल्लें. संध्यान मानेर केंस सोडिल्ले, त्या केंसानीच म्हजो घात केलो. म्हज्या काळजाचे ठोके मिणटाक तिनशें ह्या हिसपान पडपाक लागले.



''कितें जालें रे?'' संध्यान लाग मारत विचारलें.

''तुजे केंस!''

''केंसांक कितें जालां? आत्तां माथ्यार न्हालां लायफबॉय लावन. आरोग्याचे रक्षण करी तो लाईफबॉय लाईफबॉय ज्याच्या घरी आरोग्य तेथे वास करी लाईफबॉयऽऽऽऽ'' अशें म्हणून ताणें केंसांचें उदक म्हजेर उडयलें.

''ठॉक ठॉक आवाज कसलो रे?''

''म्हजें काळीज तें .'' हांवें म्हणलें

''इतलें धडधडटा?''

''हय. पेत्रोलाच्या वासान'' अशें म्हणून हांव धडधडटें काळीज आनी पेत्रोल घेवन घरा आयलों.

हें काळीज बायलां परस दादल्यांचें घट आसता अशें बायलां म्हणटात. कठीण कठीण कठीण किती अशें नाट्यगीत पसून आसा (नाटक भावबंधन १९१९). बायलांचें काळीज मात्शें मोव आसल्या कारणान मोग, माया आनी साबार भावना बायलां कडेनूच आसतात अशें सिद्ध जालां. अमचो चा. फ्रा. बाब आपल्या मामयेचो मायामोग हे कवितेंत कितें म्हणटा तें पळेया –

माम जेदना गोट्याक वेता
अर्दो तांबयो हाडटा
मामी जेदना गोट्याक वेता
तांबयो भरुन हाडटा
माम मिसता आबलेसपणान
अर्दो तांबयो गिळटा
मामी मिसता मायामोगान
आपलें इल्लें पिळटा

हाचे वेल्यान आमकां बायलां भितर कितलो माया मोग भरला तें कळटा. बायलांचें काळीज सामकें फ्रेजील. तांचे दावे वटेन 'HANDLE WITH CARE' असो टॅग लांवक ना इतलेंच. बायलांच्या फ्रेजील काळजाचेर आधारीत सिनेमातलीं कांय पदां पळेयात मागीर तुमकां कळटलें. देखीक, शिशा हो या दिल हो आखिर टूट जाता है (आशा १९८०).

काळीज तुटटा तेन्ना आवाज जावपाकूच जाय अशें ना. केन्ना केन्ना काळजाचेर सुरी पसून फिरयल्यार आवाज येना, रगत गळना, नांव निशाणी पसून उरऽ ना. कट्यार काळजांत घुसली ह्या नाटकांत पुरषोत्तम दारव्हेकरानी बरयल्ली आनी बुवान संगीतबद्द केल्ली एक ठुमरी आसा, 'लागी कलेजवाँ कटार.' तातूंत ते म्हणटात, 'बुंद ना गिरा एक लहू का कछूं ना रही निसानी.' म्हजेर जाणीं कट्यारी चलयल्यात त्या कट्यारिंचो आकार आनी चलोवपी विंगड विंगड अशिल्लीं. केन्नाच कलेजांतल्यान रगत आयलेंना. हांवें म्हजो कलेजो असोऽऽ हातांत घेवन तांच्या सामकार धरला आनी ताणीं कट्यार फिरयल्या. 'तुझं काळीज किती नाजुक, लोण्या सारखं' एकटेन कट्यार म्हज्या कलेजाचेर फिरयतना म्हणिल्लें तें म्हाका याद जाता. हांवें हूं की चूं केलें ना. 'तुजी इश्टोरी शरतचंद्र चेटरजींक मेळिल्ली जाल्यार ते देवदास सोड्न बाबा बरयतले आशिल्ले.' अशें एकदां म्हुट्टे मस्तितना दत्तान म्हाका म्हणिल्लें.

काळजाच्यो सायजी आसतात, थोडीं जाणां आपल्या व्हड काळजान माफ बी करतात. हाचो अर्थ हांवें बाकिच्यांचीं ल्हान आसतात असो काडला. 'जेन्ना प्रेमभंग बी जाता तेन्ना काळीज व्हड करुन चलयांक माफ करचें पडटा' दत्तान सांगलें. प्रेम भंग जावपाचे जालेच पूण हें काळीज व्हड करून माफ करप म्हाका केन्नाच जमलें ना. 'आई आज आनीक एक प्रेमभंग जालो गे' अशें आईक सांगतकच 'आरे, मनशान आपल्याक जमता तेंच करचें, वयर माळयेर वच आनी आड पड, थोड्या वेळान सगलें जाग्यार पडटलें.' आईचो हो अ‍ॅडवायज आसतालो. माळयेर बसून, दिर्घ स्वास घेवन कुंभक बी जायते पावटीं केलें पूण काळीज व्हड जालेंशें म्हाका दिसलें ना. हांवें ह्या संबंदान दोतोर रायकाराक (सिनियर) विचारलें.

'दरिया दिल' बी शब्द आमकां साहित्यांतूच मेळटात. मेडिकल सायन्सित मेळऽनात. थोड्यांक आमीं काळीज नाशिल्ले म्हणटात. पूण देवान सगल्यांक दावे वटेन काळीज दिलां. बायपास बी जातकच तांकांय काळीज आशिल्लें हें आमकां कळटा. दोतोर रायकारान आमकां समजायलो.

''दोतोर, काळीज बदतमीज, बच्चा, कच्चा बी आसता?''

''आरे पापया, काळीज म्हणचे पंप. भुरगें पोटांत आसतनाच सवव्या आठवड्यार ताचें काळीज काम करपाक लागता तें मरऽ मेरेन ''

''अशें?''

''हय. बदतमीज मनीस आसता.''

''आनी कुसक्या काळजाचो, भांगरा काळजाचो बी ओगीच म्हणटात तर?''

''कुसक्या काळजाचो आनी भांगरा काळजाचो, दोनूय मनीस अजून मेरेन म्हजे कडेन तरी येवंक ना.''

''दोतोर, मैने तुझे दिल दिया म्हणटा तें कितें?'' हांवें दावे वटेंतलें काळीज काडून दोतोराच्या हातांत दवरलें. म्हणचे तसो अभिनय केलो.

''तूं टायम पास करपाक आयला काय कितें रे?'' दोतोर रायकार तापलो.

''ना. हांवें कोणाक तरी दिलां म्हूण विचारतां.''

''तुका हांव आतां गुळयो दितां.''

''ताणें कितें जातलें?''

''तकली थाऱ्यार येतली.'' दोतोरान म्हाका रसेद दिलें.

हांवें जेवतना आईक सहज म्हळें, ''आई हांवें म्हजें काळीज कोणाक दिलां शें दिसता.''

''जालें. बुद्दी घाण दवरल्या तें जाणां. आतां काळीजूय दिवन उडयलें? कटकट गेली.'' आईन म्हाका बांगड्या कुडको वाडीत म्हळें.

''आगे, आवयन आपलें काळीज काडून पुताक दिल्लें ती काणी तुका खबर ना?''

''त्यो आवयो इतिहास जमा जाल्यो. तुवें काळीज कोणाक दिलां तें म्हाका दिता जाल्यार दी हांव आनीक थोडीं वर्सां काडीन. जेव आनी उठ, भिकार भासो करुन आयुश्याचीं वर्सां वगडांव नाका. म्हाका आनीक कामां पडल्यांत.'' आई तापली.

जांचें काळीज शेणटा तांकांच तांच्यो व्यथा कळटा हें खरें. काळीज जशें शेणटा तशेंच तें घुसपता. असल्या गजालींक मेडिकल सायन्सींत जरी स्थान नासलें तरी त्यो घडटात हें मात खरें. कारण असल्या प्रसंगांतल्यान गेल्ले लोकूच ह्या गजालींक साक्षी. जेन्ना काळीज घुसपता तेन्ना त्या मनशांक टेलीपथी बी जावपाक लागता.

''तुवें काल निळो ड्रेस घाल्लो?''

''हय''

''तूं सांजचें आड्या कडेन उबें रावन रस्त्या कडेन पळेतालें?''

''हय, तूं खंय आशिल्लो?''

''हांव पणजे नेशनला कडेन आशिल्लों .''

''मागीर तुका कशें कळ्ळें?''

''हांव जरी पणजे आसलों काळीज म्हजे बरोबर खंय आशिल्लें?''

''ओगी राव रे.''

''एका राक्षसाचो जीव एका पोपटांत आशिल्लो ती काणी तुका खबर आसा मगो?''

''मागीर ताची मान पिळ्ळी तसो तो राक्षस मेलो. पूण हांगां तशें घडचें ना आं! दाजी तुजीच मान डायरेक्ट पिळटलोसो दिसता.''

अशीं उतरां काळीज घुसपल्ल्यां कडल्यानूच आयकूंक मेळटात. मागीर ताचो परिणाम कितेंय जांव.

आतां काळजा बाबतींत म्हजोच असो अणभव आसा अशें न्हय. तुमीय साहित्य वाचतात, पदां आयकतात. तुमकां काळजाचीं विंगड विंगड रुपां तातूंत पळोवंक मेळटलीं. चकोर पक्षी साहित्यानूच आसता. प्रत्यक्षांत तो ना अशें जायत्या जाणांचें म्हण्णें, तशेंच काळजा बाबतींतूय काय? आमच्या आशी कुशीक जें प्रत्यक्षांत घडटा ताचेच वरवीं साहित्याची निर्मिती जाता. मागीर हो नियम काळजाचे बाबतींत कित्याक लागू जायना?

दिल के टुकडे टुकडे करके मुस्कुराते चल दिए (दादा १९७९), चुडी नही ये मेरा दिल है देखो देखो टुटे ना (गँबलर १९७१) हें ओगीच बरयलां? प्रत्यक्षांत काळजाचे कुडके जायनात? काळीज तुटना?

MY HEART GOES OUT TO HER म्हणल्यार कितें?

'ऐ मेरे दिल कहीं और चल, गम की दुनिया से दिल भर गया' अशें म्हणून हांव घरांतल्यान भायर सरतां आनी वितोराल्या तावेर्नाचेर वचून बसतां. तेन्ना म्हज्या वांगडा कोण आसता?

ह्या सगल्या प्रस्नांच्यो जापो जांकां काळीज आसा तेच्च दितले.

■

– कृ.म.सुखठणकार,
रायबंदर – गोंय. मो. : ९८५०५३०७५६

## खातकुतल्यो

### हांव कितें पिसो?

पिशां हॉस्पिटलांतले दोतोर पेशंटां मर्दी कितें सुदारणा आसात हें पळोवपाचे आशिल्ले. उदक नाशिल्ल्या सुक्या स्विमींगपुलांत गादयो हाडून घाल्ल्यो. एकएका पेशंटाक उडी मारपाक दोतोर सांगताले. स पयकीं पांच जाणांनीं उडयो मारल्यो. दोतोरांनीं तांकां अजून थोडे उपचार जाय सांगून परत धाडले.

एकूच पेशंट उडी मारिनासतना ओग्गी रावलो. दोतोरान ताका म्हळें, 'व्वा, तूं तर बरो जालो. तुका फाल्यां घरा धाडटां. पूण म्हाका एकूच सांग पळोवया, तुवें पुलांत उडी कित्याक मारली ना?'

पेशंटान म्हळें, 'उडी मारपाक हांव कितें पिसो? म्हाका पेवपाक खंय येता तर?'

***

### भार नियमन

एका पिश्या हॉस्पिटलांत दोतोरांनीं एका मनोरुग्णाक पाख्याक हुंबकळटना पळयलो. ताणें अजापान विचारलें, 'आरे, तूं त्या पाख्याक कित्याक लांबता?' पिश्यान दांत दाखयत म्हळें, 'दिसना तुका हांव बल्ब म्हुण?'

दोतोरान म्हळें, 'अशें? मागीर तूं पेटना कित्याक तर?' पिश्यान शाण्या सारकें म्हळें, 'कोणे दोतोर केला रे तुका? भार नियमन चलता हें खबर ना दिसता तुका...'

बिम्ब
मासिक

# तूंच वेगळो कित्याक?

**- ब्र. जॉन आल्फोन्सो**



देवान आमकां रचतना आपल्या सारकोच रचलो. आमी मनशां वाडलीं आनी संवसारी जाणवाय आमी घेतली. हे तरेन हळुहळू देवा सारक्याचें रूप आमचें वेगळें जायत गेलें. थोडीं देवाक मान-आदर करतात, ताचेरूच पातयेतात पूण ताची शिकवण मात फावो ते प्रमाणांत वेव्हारांत घालिनांत. दुसरे वाटेन थोडीं देवूच ना म्हुण आपल्याच बळाचेर पातयेवन आपली जीण फुडें धुकलतात. ही आयची परिस्थिती म्हणूंक जाय. कितेंय जावं, आमचें रूप मात आयज पिसडत गेलां. असले परिस्थितींत आमी आसात म्हणतच तीच आमची परंपरा, तीच आमची संस्कृताय आनी हीच आमची जीण अशें आमकां सहज दिसता. हेच तरेन आमी जिणेची फुडली वाटचाल धरल्या.

आमी देवासारक्याचीं तरूय आमची आयज परिस्थिती वेगळी. आमचो देश, भेस, संस्कृती, भास अश्यो जायत्यो वेगळ्यो गजाली. हें सगळें आमकां वेगळें करता जायत पूण देवाकडसून पयस वचूंक आधार जायना. परतेंच जाल्यार ह्या सगळ्या गजालींतल्या म्हळ्यार आमच्या वेगळेपणांतल्यान आमी एक जावन देवाक लागीं सरतात आनी सरूंक जाय. आमची भास, संस्कृती वो परंपरा वो देश वेगळो जालो म्हणटकच आमी वेगळीं जातात. हें आमी सगळीं मानून घेतात. खंयच्याय सुवाळ्याक (विशेश तरेन राष्ट्रीय आनी अंतरराष्ट्रीय पावंड्यार) गेले जाल्यार वेगवेगळे सांस्कृतीक कार्यावळी पळोवन वेगवेगळीं जेवणां चाखून आमी संतोशी जातात. तांचें न्हेसप आनी हेर वेगळेंपण आमी मानून घेतात. असल्या वेळार तीं वेगळीं कित्याक? असो कोणूच प्रस्न करिनात.

समाजांत जियेतना वेग-वेगळीं घडितां आमकां पळोवंक मेळटात. अनीत तरी आयज आपली मान वयर काडून पळयता. असल्या वेगळेपणाची आमच्या मदल्या जायत्या जाणांक संवय जाल्या. कोणूय तर अनीती आड झूज मांडूंक फुडें सरता जाल्यार फावो तितलो प्रतिसाद वो सहकार ताका मेळना. परतेंच जाल्यार ताका सरळ प्रस्न करतात 'तूंच वेगळो कित्याक?' हो जालो समाजाचो देखावो.

आमी जियेतना आमची वागणूक आनी वृत्ती गरजेची. खूब प्रमाणान ती आमचो संबंद बांदता. एक पंगड, एक कुटूंब वो एक समुदाय कसो जियेतना, ह्यो सगळ्यो गजाली वयर सरतात. आमचे मदल्या कोणाकूय तरी तत्वां आनी मुल्यांचे बुन्यादिचेर आमची वृत्ती बांदूंक जाय तर एक आव्हानूच अशें म्हाका तरी दिसता. 'सगळे तशेच करतात जाल्यार हांवेंच अशें कित्याक वागचें?' असलो प्रस्न आमकां विचारून तडजोड वृत्ती आमी आपणायतात. पंगडाच्या दबावाक लागून आमी एक नीज जीण जियेवचें आव्हान स्वीकारूंक फाटीं पडटात.

कोणूय तर आमच्या मनीसपणाक आनी जिणेक सोबता तसली जीण जियेवंक यत्न करता जाल्यार तूंच वेगळो कित्याक? हो प्रस्न आसाच. ह्या प्रस्नाक लागून आनी बरी आव्हानीक आनी प्रवादीक जीण सोडून दिवंची? असले जिणेवरवीं खीणा पुरते संबंद तुट्टात म्हुण आमी सगळ्याक 'हय देवा तुजेंच सारकें' म्हणून हात कवळून मोनेपणाचें सवंग करचें? हांव म्हणटलों ना! आमी असल्या चपक्यांतले भायर सरूंकूच जाय. वेगळो, न्हय एकसुरो जियेवंक आमी आमच्या मनाक सांगूंक जाय.

## तूंच वेगळो जाल्यार कितें जाता?

**पंगडाचो बहिश्कार :** आमचे बरोबरीची कसली जीण जियेवं. आमी तांका सहकार दिवंक जाय. तांचे बरोबर एक जावंक जाय म्हुण तांचो आग्रो आसता. आमी तांच्या आग्रहाक पाळो दिनात तेन्ना आमचेर तीं बहिश्कार घालतात.

**प्रतिमा इबाडूंक शकता :** वेगळेपणाची जीण जियेतल्याचेर तरेकवार आरोप आसतात. आडकां-नाटकां करून पुरावे पासून तयार जातात.

**मान मेळोना :** वेगळेपणाची जीण जियेतलो एकटोच. पंगडा मुखार ताचें बळ कमी पडटा. मान-रेस्पेद म्हणटात तो तुका मेळच ना.

**संबंदाक तो जागो ना :** असली जीण जाल्यार संबंद बांदूंक कठीण जाता, पूण हें फक्त खिणा पुरतेंच.

हे कांय म्हत्वाचे परिणाम. आमची कूड कोणूय नाश करूंक शकता, पूण आत्मो न्हय. असले न्हयकारी प्रणाम जातात म्हुण आमी नीज जीण जियेवंची सोडूंक जायना. केन्ना केन्नाय एकसुरपणाची पाळी आमचेर येवंक शकता. मनोभंग पासून जावंक शकता. असले परिस्थितींत वेगळो जावंक सोदता, म्हळ्यारूच वागणूक आनी वृत्ती वेगळी सांबाळूंक सोदता जाल्यार मन तयार आसून आमच्या रचतल्या देवाचोय आधार गरजेचो. अशें जाल्यार दुसरो आमचेर आरोप घालता, नांव इबाडटा आनी हेर जाल्यार पासून एक सुखी जीण जियेवंक फायदो जाता.

आमचे मदलीं जायतीं जाणां नीज तत्वाची जीण जियेवंक आशेतात. पूण तीं खंय तरी उणी पडटात. आपणाक दुसऱ्यांनी मानून घेवंक जाय अशें दिसून चडशीं जाणां वागतात ती वागणूक सारकी म्हुण समजून आपलें जिवीत फुडें व्हरतात. हांगा मनाची थिराय गरजेची कशी दिसता. चडशीं जाणां जियेतात तीच जीण सारकी अशें आमच्यान म्हणूंक जायना, म्हणटकूच मनीसपणाक सोबता तसली जीण जियेवंक आमी खुशालकाय जोडून घेतल्यार बरें.

■

- जॉन एम्. आल्फोन्सो कार्मेलीत,
म्हापशें-गोंय. मो. ९०९६६४७३४

# मांडवीच्या व्हांवत्या पाणयाची काणी....

*हालींच तुकाराम रामा शेट हांच्या 'मनमोतयां' ह्या निबंद संग्रहाक साहित्य अकादेमीचो राष्ट्रीय पुरस्कार लाभला. ते निमतान साहित्य अकादेमीच्या पुरस्काराचे आदले मानकरी भौ. रमेश भगवंत वेलुस्कार हाणीं घेतिल्ली ही मुलाखत. तांच्या 'सावुलगोरी' ह्या काव्यसंग्रहाक पुरस्कार लाभला.*




***   तुकाराम अभिनंदन. जिणेच्या अनेक वर्सांच्या कार्या उपरांत तुज्या ललित निबंद संग्रहाक राष्ट्रीय पुरस्कार मेळ्ळो ते खातीर तुजें हार्दीक अभिनंदन. तूं तसो फाटलीं तिशेक वर्सां तुजें लिखाण करता. आनी निबंद तुजो सुरवाते सावन आवडीचो विशय... आनी त्याच विशयांत जेन्ना तुका राष्ट्रीय साहित्य अकादमीचो पुरस्कार मेळटा तेन्ना कितें दिसता?**

**   ह्या पुस्तकाच्या लिखाणांत म्हज्या जिवितांतलें... जगपातलें आसा. जाणिवो आसात, विचार आसात. म्हजें स्वताचें व्यक्तित्व आसा. हातूंत म्हजे अनुभूतीक खाशेलें साहित्यिक रूप आयलां हें हांव जाणा आसलों. ह्या पुस्तकाक पुरस्कार लाभतकूच तर दुदांत साखर खिरची तशी, बरोवन मेळपी खोसयेक अदीक गोडसाण मेळ्ळी.

***   निबंद ह्या विशयाकडें तुजो असो चड ओडो कित्याक? तांतल्या तुका जाणवल्ल्या म्हत्वपूर्ण गजालीचेर इल्लो उजवाड घाल.**

**   हांव कविता बरयतां. कविता बरयताना मनाची तनरी लागची आसता... भावावस्था आसची पडटा. तशी तनरी... धुंदी ललित निबंदाचो विशय सुचऽ पासून बरय मेरेन लागून उरता. सुचलेलो विशय आनी म्हजें मन हांचें रसायण जावन निबंदांत येता आनी बरी साहित्यकृती वयर सरता. कविता आनी ललित निबंद हांचें खूब लागचें नातें आसा. विशयाचे



नदरेंतल्यान बरोवप्याचें मन आनी व्यक्तित्व एकरूप जाता. मागीर ती उबी रावल्ली साहित्यकृती जिवंत जावन येता. केन्ना तिका वेगळोच अलौकीक स्पर्श जाता.

***   'मनमोतयां' ह्या निबंद संग्रहाक पुरस्कार फावो जालो. हांतल्या सगल्या निबंदानी तुजें भुरगेंपण आनी तुज्या भुरगेपणांतलो वाठार सामको रंगून आयला. हांतल्या रचनांविशीं इल्लें स्पश्ट करून आमच्या वाचकांक कित्याक दिना?**

**   भुरगेपणांत हांव वळवय गांवांत, मांडवी न्हंयच्या कांठार जगलों. मांडवीचो विस्तार पणजी शार, बेती गांव आनी फुडें जायत गेला. अश्या ह्या वाठारांत हांव आतां रावतां. भुरगेपणा सावन ते जाण्टो जायमेरेन म्हज्याय व्यक्तिमत्वाचो विकास जायत आसा आनी हाचोय प्रभाव म्हज्या लिखाणाचेर आसा. 'जिती जिवी नक्शी' ह्या ललित लेखांतय तुमी म्हण्टा तशें जुळून आयलां. सोबीत आकाराचे... नकशेचे खुबे म्हाकां तिसऱ्यांनी गावतात... ते ल्हारां-ल्हारांचे नक्षेचे खुबे न्हंयच्या मुखाकडचे आसतात... असले खुबे आमच्या वळवय गांवांत वा हेरकडे



तुकाराम शेट हांची मुलाखत घेतना रमेश वेलुस्कार

मेळनासले.. आनी तातुंतल्यान विचाराची कीट म्हज्या मनांत पडटा आनी म्हाका म्हज्या भुरगेपणांतल्या वाठाराची याद येता... हांवें खुबे काडपाक मारलेल्या बुडयेची... खुब्यांनीं संपन्न जाल्ल्या गांवाची याद येता. उपरांत मिनाच्या पावडरीच्या निसत्व चिखलान वसाड पडलेल्या न्हंयच्या पात्राचें चित्र म्हज्या दोळ्यां मुखार उबे रावता.. फुडें म्हाका दिसता, ते नकशेचे खुबे पर्थून न्हंयच्या पात्रांत रुजचे, वाडचे आनी पसवंचे. मागीर ते न्हंयच्या उदकांत सोडटाना म्हज्या काळजाच्या पोरसांत जिती जिवी नक्शी रुजपाचो अणभव येता. 'देवचाराची चूड' हातूंत म्हज्या भुरगेपणांत अणभवल्ल्यो कांय यादी येतात. कुड्ड्या आज्याचो भार येवपी जाण्टेलो बाप्पा, तिस्कानच्या देवचाराचो आवास, कोंडीच्या देवचाराक घातलेलें सोरो रोंट, शिगम्याच्या पुनवे रातीर गडे पडतकूच गांवच्या देवदेवी वांगडा देवचारांकूय उलो मारून गाराणे घालप, लोकांच्या समुहाचें तांका होरावप... हे सगले प्रसंग येतात. हे वाठार आनी प्रसंग हांव जगलां. पूण हांव हे प्रसंग म्हुण सांगिना. बरयताना वेगवेगळ्या जाणिवांचें रसायण जावन ते अणभव आपले रंग घेवन येतात.

* **मनमोतयांतली तुजी सैमाकडली सोयरीगत म्हाकां खूब आवडली. आयज तर आमी रानकापीच्या तळपट मार्गार चलपांत खोस मानतात. तुकां ह्या लिखाणांतल्यान समाजपुर्साक कितें तरी सैमीक सुचोवचें आसा काय तांका उपदेश करपाचो आसा?**

** (हांसून) रमेशबाब, तुमची फिरकी खूब बरी आसा. हांव म्हजी विकेट सहज पडपाक दिंवचो ना. हांव भुरगेपणार क्रिकेट खेळपी. आंऽ तर, हांगा निबंदाची देख दिवन बरें स्पश्ट जातलें. 'आयब' ह्या निबंदांत घरामुखार आसलेलें एकटें झाड मारतकूच त्या झाडाची जाल्ली दशा दशा... आनी लेखकाच्या मनाची अस्वस्थता हांगा भावपूर्णतायेन चितारल्या... ताका शिराप कशी अस्वस्थताय भोगची पडटा. हें सगलें सैमीक आनी मानसीक आनी चिंतनाच्या पावंड्यार पावता. 'आमची हुनुल्ली आळवा वयता...' हातूंत पत्रेन भरलेलो... पांचवोचार रानाचो दोंगर तांका उलो मारतालो. एका दोंगरान, जैविकतायेन मनशांक मारलेलो तो उलो आसा.

* **तुज्या निबंदांनी विशय कवितेच्या आंगान केळटा. ह्या *मनमोतयां* निबंदांतली रचना कविताच चड आसा अशें म्हाकां दिसता. हांतलें काव्य तूं तुज्या गद्यांत घालता तेन्ना तुका काव्य उणें जालें अशें बी जाणवता?**

** तशें कांय ना. म्हजे कांय निबंद काव्यात्मक पावंड्यार पावन विशयांक उभारी दितात. काव्य हें सदांच वयल्या दर्जाचें आसता.

* **तुकारामबाब तुवें कथा, कविता, ललित निबंद, कादंबरी अशे विशय हाताळल्यात. तुजी *पाखलो* ही कादंबरी भारतांतल्या चार भारतीय भासांनी भाशांतरीत जाल्या. तुका कथे परस कादंबरी कित्याक म्हत्वाची दिसता आनी ते खातीर तुवें कितें व्याप आटापला?**

** पाखलो कादंबरी पंजाबी, मैथिली, हिन्दी, तुळू अश्या भारतीय भासांनी अणकारीत जाल्या. तशीच ती आनीक भासांनी अणकारीत जायत आसा. ही कादंबरी प्रसिध्द जावन बरींच वर्सां गेलीं तरी ती आजुनय वाचकांक भावता, मानवता. तशी प्रतिक्रिया म्हाकां मेळटा. तसो हांव खोशी आसां. पूण आनीक कादंबरी बरोवपा खातीर हांव अस्वस्थसो आसां. कादंबरीचो आशय आनी कॅनवास मोठो आसता. कादंबरी बरोवप हें आव्हानच. तातूंत लेखकाचीय समर्थताय चड लागता. हाचो अर्थ कथा उणी न्हय. बऱ्या कथांचो प्रभाव केन्ना केन्ना कादंबरी परस कमी आसना. कथांचेर चित्रपट जाल्ले आसात. तरीय कादंबरी आनी कथेचे 'डिमान्ड' वेगळे आसतात.



तुकाराम शेट हांकां कोंकणी अकादेमीचो साहित्य पुरस्कार भेटयतना आदले मुखेलमंत्री दिगंबर कामत

गोंयची मुक्ती जावन गोंय आनी गोंयचे लोक वेगवेगळ्या संक्रमणांतल्यान वेगान वचत आसात. गोंयच्यो वेगवेगळ्यो चळवळी, गोंयची भास आनी संस्कृतायेचेर येयल्लें आक्रमण, गोंयकार अल्पसंख्यांक जातात तो प्रस्न, गोंयकार पुर्तुगालाक वता तो प्रस्न, मिनाखणीन निर्माण जाल्ले अर्थीक आनी पर्यावरणीय प्रस्न, थळावे गोंयकार आनी भायले हांचो संघर्ष अशे खूबशे प्रस्न आसात. ह्या विशयांक साहित्यीक रूप दिवन कादंबऱ्यांचें लिखाण जावपाक जाय. कोंकणी साहित्यिकांक हें व्हड आव्हान आसा. म्हाका हांतल्या एका तरी प्रस्नाक भिडपाचो आसा. सगले विशय आमकां लागतात आनी हे विशय इल्ले इल्ले आमच्या हातांतल्यान सुटत आसात ही खंत तोपता. आमची ही जाणीवच आमचेकडल्यान व्हड साहित्यकृती घडोवन हाडटली.

*** निबंद बरयताना, तांतल्या सैमाक केळयताना तुजी लिखणी घोंसार आयल्लेवरी दिसता. हें तुकां कशें बरे तरेन जमताशें दिसता?**

** हांव सैमाचो मोगी आनी ताची वळख घेवपी. हांव सैमांत वावुरलां. तेंच न्हय तर हांवय सैमाचो एक भाग हाची जाणीव म्हाका आसा. सैमांतल्या बदलाचो परिणाम म्हजेर जाता. सैमांतले अणभव मांडटना हांव सैमाकडेन आनी त्या अणभवाकडें एकरूप जातां. आनी ते अणभव केळयताना हांव जगलेली, म्हज्या कानामनार व्यापलेली गांवगिरी कोंकणी भास म्हाका सहज येता. सैमांतले वेगवेगळे शब्द, वनस्पतींचीं नांवां बीन म्हजे लिखणेंतल्यान अचळय येतात. जसो काय सैमूच म्हजेलागीं उलयता.


'मनमोतयां' पुस्तकाचें लोकार्पण करताना नागेश करमली, रमेश वेळुस्कार, लेखक तुकाराम शेट आनी स्वातंत्र्य सैनीक मधुकर शेट.

*** हें तुवें बरें सांगलेंच. पूण ती भास, थंयची वनस्पत तशेंच थंयची जिवजिवावळ तुजे निर्मितींत तुका कसो बरयतो करता हाची एकाद्री देख वाचकांक निश्चितूच आवडटली.**

** भुरगेपणांत पत्री हाडटकूच निबंदांत बरयतां – म्हजी आवय मोट्टो कुकूम लावन आयतार पुजपाक बसली. मागीर फुलां आनी पत्री पाटार मांडटां मांडटां ती गावंक लागली. तिणें लाखरयाचीं फुलां, पारजताचीं फुलां, शंकराचीं फुलां पाटार मांडलीं. मदीं पांचवींचार बोटां, नाखटां, कान, सत्र्यो, घोड्याचीं पावलां, दिवल्यो, हरयाळीच्यो चुडयो, धवशी सय, तांबडें गंद सगलें सगलें मांडलें आनी पळयतां पळयतां म्हज्या मनांत पालेल्लें, फुलेल्लें बेलभाट आनी बेलभाटा लागची ल्हान दोंगुल्ली त्या पाटार उबी जाली.

'जिती जिवी नक्शी' हातूंत बरयतां – 'म्हज्या मेजावयले सोबीत खुबे आपलीं तोंडां उगडून आपल्या मांसाची मोती कशी जीब भायर काडून म्हाकां लेडायताले.... हांवें तांकां बोट लायलें तशें ताणी आपल्यो जिबो भितर वोडून घेवन तोंडां धांपलीं... खंती जाल्लेवरी वोगीच रावले. तांका आपल्या न्हंयतल्या जाग्याची याद जाल्या जावंये, जंय ते पेयतात, उडयो मारतात, रेंवेंत मुंगरतात...

–अश्यो देखी आसात.


आपल्या कुटुंबा सयत तुकाराम शेट : घरकान्न हिरा, व्हडलो पूत कुंवर आनी सून रुपाली, धाकटो पूत अप्रूप आनी सून वृशाली, नात स्वरा.

*** मांडवीचे देगेचेर जे जे साहित्यिक वा कलाकार राबित्याक आसले आनी आसात तांचो तुज्या बरपाचेर कितलो परिणाम जालो?**



बालनिकेतनाच्या कार्यशाळेचें दिवली पेटोवन उक्तावण करताना गुलाब मासिकाचे संपादक फा. फ्रेंडी दा कोस्ता, वांगडा तुकाराम शेट, नागेश करमली, हेमा नायक, बस्ती वामन शेणै आनी आयरीन कार्दोज

** लक्ष्मणराव सरदेसायांच्यो कांय कथा वाचल्यात. तशेंच कथाशिल्प हें समीक्षात्मक पुस्तक हांवें वाचलां. तातुंतल्यान साहित्याची जाण वाडपाक मदत जाता. मनोहरराय सरदेसायांचीं जायो-जुयो, पिसोळीं पुस्तकां वाचल्यांत. मनोहररायांच्या सरळ मनाभशेन तांची भासय सुंदर आनी सोपी. कोंकणी भाशेच्या सोपे शैलीचो मुळाव्या शिक्षणांत चड उपेग जावंक जाय अशें हालीं म्हाका खरसाणेन दिसपाक लागलां.

मांडवीच्याच कित्याक जुवारी न्हंयचे देगेर राबित्याक आसलेल्याय साहित्यिकांचीय उमेद-उर्बा मेळटा. पुंडलीक नायक, रमेश वेळुस्कार, माधव बोरकार, प्रकाश पाडगांवकार, डॉ. तानाजी हळर्णकार ह्या सारक्या म्हज्या इश्टांची आनी नागेश करमली, र. वि. पंडीत ह्या सारक्या जेश्टांच्या साहित्यांतल्यान आनी सहवासांतल्यान उर्बा मेळ्ळ्या. म्हज्या बरपाचेर जाल्ल्या परिणामा परस हांव म्हणीन, जिवितांतल्यान जिविताकडेन अशी उर्बा मेळटाच.

कोंकणी चळवळ तर कोणाकूय स्फूर्त दिवपी. चळवळींतले म्हालगडे रवीन्द्र केळेकार, उदय भेंब्रे, फेलिसियू कार्दोज, गुरूनाथ केळेकार हांचे कडल्यान खूब जाणांक उर्बा मेळ्ळ्या. हांव तर सर्वंगी अश्या कोंकणी चळवळींतलों. तातुंतल्यान हांव घडलों आनी घडयलें. आनीक सांगपाचें म्हटल्यार म्हज्या जिविताक तर म्हज्या जगपांतल्यान घटसाण लाभल्या.

वळवयचो वाठार लोकगितांनी संपन्न. म्हजी मावशी आल्लयो आनी धालां मांडावयलीं गितां गायताली. तशेंच म्हजो मावसो स्वातंत्र्य सैनीक मधुकर पिसो शेट एक नाट्यकलाकार. तांच्या तोंडांतल्यान नाट्यगितां हांवें खूब आयकल्यांत. फामाद नाट्यकलाकार मा. दत्ताराम, मा. गंगाराम तर वळवय गांवचे. मा. दत्तारामाक तर हेच भुंयेन नाट्यकलेचे मुळावे धडे दिले. मुंबय वतकच ते अभिनय सम्राट जाले. मलबाराव सरदेसाय, नंदकुमार पर्वतकार हांचें संगितांतलें योगदान म्हत्वाचें. चित्रकार आनी नाट्य-दिग्दर्शक दिगंबर शिंगबाळ तर म्हजो इश्ट मांडवीच्या तिरावयलो. अशे खूब कलाकार आसात. हे सगले कलाकार मेळून मांडवी न्हंयचे देगेर कला-संस्कृती उभारीत आसात.




*** तुज्या लिखाणांतल्यान आयल्ली मांडवी हें कोंकणी साहित्यांतलें म्हत्वाचें दर्शन आनी प्रगटीकरण अशें तुकां दिसता? आनी दिसता जाल्यार तें कितलें प्रमाणांत आसा?**

** मांडवी न्हंय आनी तिच्या परिसरांतले अणभव हे म्हजे अणभव जाल्ल्यान आनी तांचो प्रत्यय येता असो. म्हजे गांवगिरे भाशेन बरयल्ल्यान तें कोंकणी साहित्यांतलें एक म्हत्वाचें दर्शन आनी प्रगटीकरण अशें दिसूं येता. पूण तें खूबूच अल्प प्रमाणांत आसा. मांडवी आनी तिच्या देगेवयली लोकजीण ही खूबूच व्हड आनी संपन्न आसा. ती विंगड विंगड साहित्य प्रकारानी येवपाची चड गरज आसा.

*** तुजें भुरगेंपण मांडवीचेच देगेर गेलें आनी आतां जाण्टेपणूय थंयच वयता हे विशीं तुजे अंतरंग तें कशें पळयता?**

** तशे म्हजे अंतरंग पळयतलो जाल्यार वाचप्यांनी 'मनमोतयां' मुजरत वाचचीं. मांडवी घाटमाथ्यार सावन उगम जावन अरबी दर्याक मेळटा... थंय ती विशाळ जाता. आनी हें तिचें मेळप सतत चालूच आसा. म्हजें भुरगेंपण आनी जाण्टेपण हातूंत बरोच काळ गेला तरी यादींतल्यान भुरगेंपण आनी जाण्टेपण मेळत आसा. आतां हांव तसो भुरगो उरूंना आनी जाण्टोय उरूं ना. तसोच एका थळाचोय उरूं ना. म्हज्या मनाक व्हांवत्या काळाचीं आनी विविध संस्कृतायांचीं तासां पडल्यांत.



*आरत्या-परत्या पांचपर्तनाची जेवणावळ जाली. काका-आत्या, मामा-मावशो हांच्या घरचीं जेवणांय सोंपलीं. सत्यनारायणाची गडगंज पुजा जावन पूत-सून हनीमुनाकय वचून आयलीं. सुनेन म्हजे खातीर खाशेल्यो चॉकलेटी हाडल्यो उटी सावन. आतां चवगांच्योय सुट्यो सोपपाक पावल्यो. कामाक वचपाचो दीस चार दिसांचेर पावलो. तेच रातीकडेन जेवणां जाले उपरांत फुल्सालादाचीं बावलां घेवन हांव सालांत आयलें.*

# येवजण... एके मांयची

**- आशा शानभाग**

आतां म्हजी रिटायरमेंटाची वेळ लागीं पावत आयल्या. खरें सांगपाचें तर चार-पांच वर्सां पयलींच व्ही. आर. एस. घेवंक सोदतालें. हाका कारण म्हजे वांगडचो लेडीज स्टाफ. आनी देवाच्यान खरेंच सांगतां हांवें हो निर्णय ताळपाचेंय कारण होच लेडीज स्टाफ. घुस्पले? सांगतां तर. नेण्टेपणांत सिर्विस केली ती डेलीवेजीस बेसीचेर. पगार भरपूर कमी पूण कामतरी किदें? फक्त सरकारी ऑफीसांतली खुर्ची गरम करप. मर्दीच सरकाराक किदें झटको आयलो कोण जाणां... सगल्या डेलीवेजिसवाल्यांक पात्रताय नासतनांय फिक्स करून उडयलें. कोण मॅट्रीक पास, कोण बारावी पास... हांव तर मराठी मॅट्रीक फेल. पूण नशिबान हांवय सरकारी नोकरेंत फिक्स जालें.

सरकारी शिर्विसेंत आसा ह्या एकाच क्वालिफिकेशनान आमची दर लग्नबाजारांत बरीच वाडली. म्हजी पयलीच सोयरीक लग्नांत बदल्ली. हायस्कूल टिचर. 'हांणी' म्हाका पयलेच फावटीक हय म्हळें. म्हजो रंग, रूप, शिक्षण सगलें सेकंडरी थारलें. पूण ही सरकारी शिर्वीस म्हाका वालोर दिवन गेली. लग्ना उपरांत वेवस्थीत संवसार केलो हांवें. भुरगीं-बाळां जल्माक आयलीं. घरदार भरून गेलें. बचत, काटकसर... करून योग्य वेळार चलयेचें घालून-करून लग्नय करून दिलें. आतां चलो लग्नाचो जाला. सोयरिकोय येतात आनी म्हजें प्रेसांव वयर-सकयल जाता. हय... लेडीज



स्टाफाचें नांव हांवें सुरवेकच कित्याक घेतिल्लें हें आतां हांव सांगतां तुमकां. ह्यो म्हज्यो स्टाफांतल्यो समवयीन बायलो दिसपट्टी आपल्या सुनांचें धुयत आसतात. एकटेय कडच्यान आपले सुनेची तोखणाय कानार पडना. म्हाका घपघपो येतालो. इतली भयानक आसता आयची सून? ह्या खबऱ्यांनी भियेवन हांवें व्ही. आर. एसाचो विचार सुरू केल्लो.

एकेकटी सांगताली तें आयकल्यार आयच्यो सुनो म्हळ्यार मेक्सीकन अथवा मिझोरामी मिरसांगो काय? अशें हांव चिततालें. ह्यो मिरसांगो जगांतल्यो सगल्यांत तीख म्हणटात. हांवय म्हजे मांयची सून जावन आयिल्लें. पूण आमचेमदीं मांय-सून ह्या नात्या परस मैत्रीणीचेंच नातें घटमूट जमिल्लें. म्हजेय सुनेकडच्यान म्हाका हीच अपेक्षा आशिल्ली. बस्स. 'वस्ती-देणी कोण वयर घेवन वच्चो ना' हें म्हजे मांयचें उतर हांवेंय घट मर्तीत दवरिल्लें. हांव आनी म्हजी सून हेंच नातें जमवून बरेभशेन जगतलीं हो म्हजो विचार स्टाफांतल्या बायलांचें आयकून डळमळपाक लागिल्लो. एकटी म्हणटाली, "सून घरांत आयली मात जॉयंट लॉकर करुया म्हणूंक लागली. हांवें स्पश्ट सांगलें, ना. म्हजो लॉकर म्हजोच आसतलो. तूं तुज्या घोवा वांगडा वेगळो लॉकर घे."

हांव चितपाकच उरलें. कालपयर मेरेन म्हजो पूत, म्हजो पूत करताली. ताचें लग्न जालें आनी तो फकत सुनेचो घोवच उरलो? एक ना दोन तरेच्या चितनांनी म्हज्या मेंदवाचें लोणचें जावन गेलें. एकली सून तर ताचे फुडली म्हणून आमच्याच स्टाफांतली एक मांय सांगताली. लग्ना उपरांत सुनेन वृध्दाश्रमांची चवकशी सुरू केल्ली खंय! हांचें आयकून म्हजें काळीज पोरण्या घडयाळींतल्या लंबकाभशेन पुक-पुक हालतालें. सुनाविशीच्या ह्या चर्वणान एक मात शेर्त म्हजे तकलेंत बसलें की आर्थीक नदरेन जो मेरेन हांव घट आसां तो मेरेन हांव सून ह्या संकश्टाक सहज तोंड दिवंक शकतलें आनी म्हणुनच हांवें व्ही. आर. एस. घेवपाचो विचार मनांतल्यान

साप्प भायरो केलो. एकतर रिटायरमेंटा उपरांत घरांत दिसभर घश्टो करचो पडटलो आनी दुसरें, सरकारी शिर्वीस काम बोटभर आनी पगार मात वांवभर.

खरें सांगतां तुमकां... सोपूत आसा तुमकां हां म्हजे सुनेच्या कानार बी म्हजी येवजण घाल्यार. केन्नायतरी घरांत येवपी सून ह्या संकश्टा पसून सुटकेची वाट हांवेंच सोदिल्ली आनी ती खरी करपाक गरज आसली खूब दुडवांची. देखुनूच हांवें व्ही. आर. एस. घेतलो ना. घरकाराक विस्वासांत घेवन येवजण पक्की थारायली. आतां येवंदी सून. आमी पुराय तयारेंत आसात. बरी शिर्वीस करपी, म्हज्या पुताक राशीनी सोयरिको येवंक लागल्यो. हांवें ताका सांगलें, 'तुजी पसंती तीच आमची हां.' तोवूय खूश. पूण हांवें म्हजेकडेन पाविल्ल्या जातकांतली बरें इन्फोर्मसांव मेळिल्ली, घालून-करून येतली असो अदमास आशिल्ली, अर्थ-अपुरबाय - वर्जीकाजी जावपाची खात्री पटिल्लींच जातकां फोटवासयत पुतासामकार दवरली. ताका पसंत जाल्ल्या तातुंतले चलयेविशीं हांवें मातूय नापसंती दाखयली ना म्हणून म्हजो पूत खूश. 'तुका पसंत मरे? मागीर म्हजें कांयच म्हणणें ना.' दबाज्यान लग्न जालें. हुंबऱ्यावयलें तांदळाचें माप वलांडून लक्ष्मी कशी हळदुवी सून घरांत आयली. सुनेच्या कुळारच्यांनी कांय म्हळ्यार कांयच कमी करूंक ना. आपले धुवे वांगडा म्हजे धुवेक, म्हजे नणणांक आनी म्हाकाय बी भरभक्कम अहेर केलो आं.

आरत्या-परत्या पांचपर्तनाची जेवणावळ जाली. काका-आत्या, मामा-मावशो हांच्या घरचीं जेवणांय सोंपलीं. सत्यनारायणाची गडगंज पुजा जावन पूत-सून हनीमुनाक्य वचून आयलीं. सुनेन म्हजे खातीर खाशेल्यो चॉकलेटी हाडल्यो उटी सावन. आतां चवगांच्योय सुटयो सोपपाक पावल्यो. कामाक वचपाचो दीस चार दिसांचेर पावलो. तेच रातीकडेन जेवणां जाले उपरांत फ्रुटसालादाचीं बावलां घेवन हांव सालांत आयलें. सुनेक म्हजे म्हऱ्यांत बसोवन घेतली. हांसत किटकिटत आमी फ्रुटसालाद खालें. आतां न्हिदपाक वचपाची वेळ आयली. ''आगो मात्शें राव. म्हाका किदें उलोवपाचें आसा तुमचे लागीं.'' नवोच लग्न जाल्लो म्हजो पूत रोखडोच आड्डलो. ''मम्मी फाल्यां सकाळीं उलोवया गे.'' हांव मुमुरखें हांसलें तें पळोवन बाबडो पोंवशेंलो. ''आरे रातभर बडबडचें ना हांव. जस्ट पंदरा-वीस मिन्टां. तो मेरेन धीर धर..''

बेगोबेग सुनेन ताका कुरू केली आनी तें म्हजेसरीं येवन बसलें. ''मम्मी ॲनी प्रॉब्लम?''

''ना गो शाण्या कांयच प्रॉब्लम ना.''

''चल तर मम्मी अर्दवर लागल्यार लेगीत लागूं. उलय तूं.'' हांवें सुनेच्या खांद्या भोंवतणी हात घालो आनी ताका म्हऱ्यांत घेतलें.

''शाण्या, तूं आमच्या घरची लक्ष्मी. तुका दिता तितलें म्हाका थोडेंच. तुमच्या दोगां बगर कोण आसा आमकां? बाय घोवागेर आसा.''

''मम्मी... दिदी नातरी हांव आसां न्ही तुजे वांगडा? आतां हांवच तुजी धूव.''

पोर खरेंच बरें आसूंक जाय. मन वढाय-वढाय जातालें... सांगूं... काय नाका? तितल्यांत ऑफिसांतलो लेडीज स्टाफ येवजलो..

''हय गो बाये. तूं म्हजे धुवेभशेनच. पूण तरी आत्तांच्या चलयांक स्वतंत्र संवसाराची आवड आसता. हें हांवय जाणतां. आपली करीयर करतना आयच्यो चलयो समर्थपणान घरय सांबाळटात. हांव तुजी मांय तरी तुजी मैत्रिणच समज तूं म्हाका.''

''मम्मी... किदें जालां तें सांग गे बेगीन. न्हीद येता म्हाका.'' पूत वळवळे काडटालो.

''आरे आयकपाक बेजार येता जाल्यार वचून न्हीद. हांव म्हजे लाडुबायकच सांगतां सगळें.'' तो आंवुळ्ळो. ओग्गी बसलो.

''आगो... आमच्या ह्या बोवाळभटाक घोव म्हणून स्वीकारल्याचें तुका एक खाशेलें बक्षीस दवरलां आमी.''

''चडयात... चडयात आनी बोडार चडयात.'' चलो फुतफुतलो. हांवें एक तांबडी सॅटीनाची पिशवी सुनेच्या हातांत दवरली.

''चल गो वचुया न्हिदपाक. बक्षीस मेळ्ळें मुगो?''

''राव रे मात्सो. पळोवंदी ताका आनी तुंवय पळय किदें आसा तें?''

घडये भांगराची वस्त आसतली म्हणून सुनेन पिशवी उगडली. पळयल्यार एक चावयांचो घोस आनी कागदाची गुंडाळी.

''मम्मी, किदें गे हें?'' चावयेचो घोस नाचयत सुनेन म्हाका विचारलें.

''आगो... पिशवेंतलीं तीं कागदां उगड. मागीर कळतलें पळय.''

''आंवय... हो फ्लॅट आमच्या नांवावेलो? कोणें आनी केन्ना घेतलो हो? तूं जाणा रे किदेंय?''सून बडबडत आशिल्ली.

''आगो शाण्या शांत जा मात्शें. विसव घे. हांव सांगतां सगलें. हो फ्लॅट हेंच तुजें बक्षीस. तुमकां आयच्या भुरग्यांक स्वतंत्र संवसाराची आवड आसता हें आमी जाणटात. म्हणुनच आमी तुमचे खातीर हो फ्लॅट घेतला. तुमकां दिसता तेन्ना तुमी हांगा येयात. दोनूय घरां तुमचींच. पळय आमी विंगड विंगड रावन लेगीत घटमुटपणान एक रावया.''

सून बरी खुशालशी दिसली ना म्हाका. घडये आमचे पसून पयस वच्चें पडटा म्हणून बी दुखावलां आसतलें अशें हांवें धरलें.

''बरें तर गुडनायट. म्हजें सांगून जालें. चलात तुमी येयात न्ही न्हिदपाक?'' हांवें हांकां म्हळें. हे आज्ञाधारकपणान उठून कुडींत भितर गेले. हांव दार बंद करून आयलें.

चल, सुटलें म्हासंकटांतल्यान म्हणून उस्कारो सोडून गादयेर पडलें. न्हिदच येना जाली. उदक इल्लें पिवचें म्हणून रांदचेकुडींत वचूंक गेलें. पुताल्या कुडींतल्यान दोगांयचो सादारण मोन्यानी उलयल्लो आवाज येतालो. हांवें कान शेळायले.

''मम्मीघरा म्हजें सगलें आयतें जातालें. मम्मी म्हजी च्याचें कोप आनी बशी लेगीत म्हऱ्यांत हाडून दिताली. तुजेकडेन लग्न जालें तर हांगाय तशेंच घडटलें म्हणून तुका हयकार दिल्लो हांवें. पूण तुजी आवय महा हुशार मरे.'' चलो कांयकूय किदें करतालो. ''आतां वळवळे काडूं नाका. न्हीद ओग्गी.'' सुनेच्या धेंगशा उपरांत दोगांय चूप. हांव पोटांतल्यान, काळजांतल्यान, तोंडार, ओंठार, किटकिटत आमचे कुडींत पावलें. उदकाचो घोट लेगीत घेनासतना म्हाका सुस्त न्हीद लागली.

■

- आशा शानभाग
सादोळशें - काणकोण, मो. ९४०४१४५३३७



*एक दीस शाळा बुडोवन आत्या वांगडा सोयऱ्यांगेर लग्नांक गेलें. शाळेक वचुना तें वचुना बाईन दिल्लो गृहपाठ्य करुना! गृहपाठाची याद म्हाका रातची न्हिदतना साडे इकरांक जाली. एकवटेन लग्नाचें गोड जेवण जेवन जिवय जड जाल्लो.*
*दुसऱ्या दिसाक तशेंच शाळेक वचूंक भायर सरलें खरें पूण गुरुजीच्या माराच्या भंयान शाळेक वचन दिसना जालें.*

# बाय, अभ्यासाक बस

**- शर्मिला वि. प्रभू**

"विद्येश आयज विशकोलान किदें शिकयलां रे? पयलीं होमवर्क कर पळोवया." दियार सांजवेळच्या चार वरांचेर म्हज्या धाकट्या पुताक विचारपाचो हो म्हजो संवकळीचो प्रस्न. विशकोलांतल्यान घरा आयलो काय एकतर टिवी नातर लॅपटॉपाचेर खेळपी विद्येशाक वेळाचें भान दीत अभ्यासाचे जापसालकेची जाणविकाय समजावची पडटा. दियार 'बाबु अभ्यासाक बस रे' म्हण ताका सांगतना मनांत एक सुखदिणो विचार आयल्या शिवाय रावना! संवसारांतल्यो कांय गजाली फुडले पिळगेक वारशांन मेळटात अशें म्हणटात तशीच कायशी ही गजाल. म्हज्या ल्हानपणांत म्हजी आवय म्हाका आंगणांत येवन म्हणटाली, 'बाय खेळ पुरो आतां अभ्यासाक बस पळोवया.' आईच्या ह्या उतरांचेर म्हजीं पावलां नकळत घरांत भितर सरतालीं. आईची ही ऑर्द तर हांवें पुराय शिकप जायमेरेन पाळ्ळी.

वेळ काळ बदल्लो. म्हजें लग्न जावन देड वर्सां भितर म्हजी आवय हो संवसारच न्हय तर आमकांय सोडून गेली. एके आवयचें कर्तव्य पार पाडटना म्हाका तिची याद सदांच येताली. म्हज्या माणकुल्यांक बरे संस्कार दिवन, मायेमोगाच्या पांगरुणा खाला वाडयतना म्हजे आवयची उपस्थिती, म्हाका मनाचो धीर तसोच मायेचो भोवमोलाचो आधार खात्रीन दिवपाची. तिची उणीव म्हाका पर्थून-पर्थून जाणवताली. तशी म्हजी आवय चड शिकूंक नासली. पूण संस्काराचे गिन्यान शाळेंत मात ती ग्रॅज्युएट



आसली. जेन्ना केन्ना म्हजें मन वायट विचारांनी गुरफटलां अशें तिका दिसतालें तेन्ना ती दिस्त म्हाका संस्कारांचें बाळकडू पिययताली. तिका लग्न करून दिल्ल्या घरा परस तिचें कुळार खूबच गिरेस्त. तेंवय सगळ्याच वाटांनी. विचारांनी, संस्कारांनी आनी मनशानीय बी. घरांत कितलीय आर्थीक अडचण आसूं तिचें मुखामळ मात सदांच हांसकुरें. परिस्थितीक लागून आपल्याक शिकूंक मेळ्ळें ना तरी आपले धुवेन मात खूब शिकचें अशें तिका दिसतालें. सगळ्या कलांत, विद्यांत आपली धूव पारंगत आसची हे खातीर ती सदांच धडपडटाली. गांवांत सरकारी येवजणेखाला शिवणसूत, विणकाम, तरेकवार नमुनेदार फुलां करप अशे वर्ग चलताले तेन्ना ती म्हाका मुजरत धाडटाली.

सामकें ल्हान म्हळ्यार मुळावें शिकप घेतना शाळेंत वचप म्हळ्यार म्हजे खातीर व्हड संकश्ट कशें आसलें. अशावेळार अजिबात तापयनासतना, मारिनासतना मोगान समजावन ती म्हाका शाळेंत व्हरून बसयताली. तेन्ना आमचे लागीं गाडयोय नासल्यो आनी घोडेय नासले. आईक तर घरांत मणभर कामां आसतालीं. कुळागरांत बेडे पुंजावपाचें धरून गोठ्यांतल्या गोरवांक पेंड खावड घालून तांचें दूद लेगीत तिकाच काडचें पडटालें. तांतल्या तातूंत वेळ काडून ती ओडीत म्हाका शाळेंत व्हरून बसयताली. दिसूयभर झाडां-मुळांनी हेडपाक म्हाका भोव आवडटालें. मुळावी शाळा शिकमेरेन हांव शाळेंत कित्याक वतां तें म्हाकाच कळनासलें. आई धाडटा म्हुण शाळेंत वचप, बाई-गुरूजी पट्ट्यांनी हात फोडटली म्हुण अभ्यास करप अशें करून करून हांव मुळावी शाळा पास जालें. एक मात खरें, इतल्या सगळ्यांभितर शाळेचें गॅदरींग आनी शाळेंत बाईन गोड आवाजांत शिकयल्लीं गाणी म्हाका खूब आवडटालीं. घरा येतकच कुळागरांत वचून तीं व्हडा-व्हडान पदेवपाक म्हाका खूब आवडटालें. तेन्नाचो तो तेंपच वेगळो आसलो.

सदां-सदां आवय-बापूय पोरांक शाळेंत पावोवपाक येनाशिल्लीं. पोट भरपाक भाटांनी, कुळागरांनी कामां करतलीं काय शाळा-शाळा करत पोरां फाटल्यान नाचतलीं? वाड्या वयलीं सुमार भुरगीं एकठांय जावन एकामेकांक सांबाळीत शाळेक वतालीं. तांतल्या तातूंत कांय भुरगीं अडांगी आसतालीं तीं धाकट्या भुरग्यांक बडयतालीं लेगीत. म्हज्या वांगडा अशेंच एक आडांगी चली शिकतालें. ताणें सांगिल्लें सगळ्यांनी आयकूंक जाय ना तर मार!.. तार्ची फटींगपणां हांवें उजवाडाक हाडिल्लीं ताका निखालस मानवनासलें. देखून ताच्या हातसून जायते वेळां हांवें मार खाला. आयज तें व्हडा राजकारण्याची घरकान्न जाल्या. जेन्ना-जेन्ना हांव ताका पळयतां तेन्ना म्हाका खाल्ल्या माराची याद जाता आनी एकच विचार खात्रीन मनाक पटता राजकारणाचें मुळावण दादागिरी आनी फटींगपणा हेंच खरें!

हांव पांचवेक पावलें आनी मात्शी मात्शी अक्कल म्हाका येवंक लागली. आवयच्या उतरांचो म्हाका समज येवपाकय लागलो. हांव सातवेक पावतां म्हळ्यार वाड्यार हातावेल्या बोटार मेजपाक येता इतल्याच घरांनी टिवी आयल्यो. त्योवय ब्लॅक अॅन्ड व्हायट. त्या वेळार त्या घरांनी सांजवेळचें टिवीर 'रामायण' पळोवंक टिवी नासलेले शेजारी वचून टिवी फुड्यांत बसूंक लागले. दोन दीस हांवय गेलें. तिसऱ्या दिसाक मात आवयन म्हाका धाडलें ना. अभ्यास ना, खेळूंक वांगडी ना तर गांवच्या लायब्ररींतलीं पुस्तकां हाड आनी वाच. आमगेर टिवी नासलो देखून तिवय कोणागेरच टि.वी. पळोवंक वचनासली. अशीच एक दीस मजाच जाली. त्या वेळार हांव चोवथेक आसलें. एक दीस शाळा बुडोवन आत्या वांगडा सोयऱ्यांगेर लग्नांक गेलें. शाळेक वचुना तें वचुना बाईन दिल्लो गृहपाठय करुना! गृहपाठाची याद म्हाका रातची न्हिदतना साडे इकरांक जाली. एकवटेन लग्नाचें गोड जेवण जेवन जिवय जड जाल्लो. दुसऱ्या दिसाक तशेंच शाळेक वचूंक भायर सरलें खरें पूण गुरूजीच्या माराच्या भंयान शाळेक वचन दिसना जालें. रस्त्यावेल्यान शाळेक वचपाची वाट माड्डीतना शेतोडे धडेर रस्त्यापासून मातशी पयस अशी व्हड-व्हड पायपां म्हाका दिसलीं. तीं पायपां पळयना फुडें म्हाका जिवाक बरें दिसलें. शाळा सुटऽसर त्या पायपांनी लिपून बसलें. दनपारचीं हेर भुरगीं घरा वतात तीं पळोवन हांवय घरा आयलें. सांजवेळचो बसून जितलो होमवर्क, क्लासवर्क उरिल्लो तो पुराय केलो. दुसऱ्या दिसाक शाळेंत गेलें तें आईक वांगडा घेवन! आईचो थंड सभाव आनी म्हजी पायपात लिपचेल्या शाणेपणानी म्हाका गुरूजीचो मार चुकलो हेंच खरें.

विशकोलान पावलें त्याच वर्साक म्हळ्यार पांचवेक आसतना म्हजो सुटयांनी मामागेर रावंक गेल्लेकडेन पांय मोडलो. त्या वर्साच्या गॅदरींगाक पांयमोडकें जाल्ल्यान म्हाका फक्त एका नाचांत 'भारत माता' जावन उबें रावपाचो पार्ट दिलो. धव्वीच जरीची साडी हाड म्हुण टिचरीन ऑर्द सोडली. साडी न्हेसना तर नाचाक उरिल्लो - सरिल्लो एका जाग्यार उबो रावपाचोय भाग घेवंक मेळना. वाड्यार क्रिस्तांव सोडल्यार कोणच बायलो धव्यो साडयो न्हेसनासलीं. क्रिस्तांवां न्हेसतालीं पूण त्यो जरिच्यो न्हय फकत प्लेन धव्यो. शेवटा बापायचे फाटीक लागून, तो कांय कामाक लागून फोण्यां गेल्लो थंयच्यान साडी हाडून घेतली. आईय ती साडी न्हेसनासली. कोणाकय नाचाक जाय तर ती साडी आमी दितालीं. मुजरत म्हज्या लग्ना वेळार आवयन ती साडी म्हाका दिली. मजा म्हळ्यार म्हज्या व्हडल्या चल्यान ती गॅदरींगाच्या, फेरवेलाच्या डान्साक वापरली. म्हजो व्हडलो चलो (विपूल) जिवान नाजूक आनी सोबीत गोरो. तो मडगांवच्या लॉयलांत शिकतालो. बायल, चलयेचे रोल ताच्याच वाट्याक येताले! धाव्वी पास जायत मेरेन.

सातवे-आठवेक पावतां म्हळ्यार घरा सकयलें कुळागर ही सुवात हांवें अभ्यासा खातीर थारायली. थंड, शीतळ कुळागरांत बसून अभ्यास करूंक म्हाका भोव आवडटालें. माड, माड्यांच्या सांगातान, सवण्या पाखरांच्या संगीतान मन प्रसन्न जातालें. ग्रॅज्युएशन जाय मेरेन सगळो अभ्यास हांवें कुळागरांतच बसून केलो. सांजवेळचीं साडे-चार जातकच आई चुकनासतना च्याचो थर्मास घेवन येताली. केन्ना-केन्ना आमचो मोती म्हजे वांगडा येतालो. हांव अभ्यासाक बसतकच आवाज करिनासतना म्हज्या पांयांकडेन सुकिल्ल्या माडये चुडटांनी बरी झेम काडटालो. मदींच कुळागरांत माकड येत तर भुंकून-भुंकून तांकां पयस आमडून येतालो. स वरां जायत आयलीं काय कुळागरांत 'जळारी' अजिबात बसूंक दियनासल्यो तेन्ना मात म्हाका बिडकी कवळून घरा येवचें पडटालें. मजेशीर गजाल म्हळ्यार बिमलीच्या झाडार वयर खाकोळांत बसून काणयांचें पुस्तक वाचूंक म्हाका भोव आवडटालें.

धाव्वी पास जातकच कॉलेज शिकपा खातीर मडगांवां शारांत हांव वचपाक लागलें. शारांतलो झगमगाट, बेगडी मनां, धांवपळ आनी गांवच्या लोकांचीं सादीं-सरळ मनां, हातुंतलो फरक म्हाका समजूंक लागलो. म्हज्या वागण्यांत, विचारांत जावपी बदल म्हजी आवय दिस्त बारीकसाणेन पारखिताली. बऱ्या वायटांतलो फरक म्हाका समाधानाच्या उतरांनी समजायताली.

कॉलेजींत वतां देखून दियार पांच रुपया खर्चाक म्हुण दिताली. बसीची हाफ टिकेट सगळें तांतल्यानच सांबाळून घेवचें पडटालें. बस स्टॉप ते म्हजें घर धा-बारा मिनटांची वाट आनी रिवण ते मडगांव म्हळ्यार एका तासाचो बस प्रवास. अशांतच म्हजें ग्रॅज्युएशन पुराय जालें. आयज लेगीत म्हजो बापूय (भाऊ) हांवें भुरगेपणांत शिकतना केल्ल्या कांय दिग्वीजयांची यशोगाथा वेळप्रसंग पळोवन म्हज्या भुरग्यां मुखार मांडटा तेन्ना म्हज्या मनांत खोशयेचें ल्हार फुट्टा हेंच खरें!

■

- शर्मिला प्रभू
आगाळी - फातोर्डा. फोन : २७४०६४०



*बिम्बातल्यो 'शीर्शकथा' वाचून 'मनसंवेदना' जाग्यो जातात. विचारांक 'आंकरी' फुट्टा. 'भुरग्यांच्या आंगणात' 'भोंवडी' करतना 'अश्रेकणी' येता. 'गरनाल' वाचून हांसून हांसून पोटांत दुखता तें जालेंच, वयल्यान 'भलायकी' बरी उरचे खातीर बिम्ब 'तेफळां'चेXXXय दिता. ह्या सगळ्यांची 'उस्तवारी' करत तितली थोडी. हें सगळें दर म्हयन्याक दिवपाक बिम्बाक कशें जमता तें एक 'कुवाडें'च.*

# बिम्ब आनी हांव

**- रुपा कोसंबे.**

गेल्ल्या म्हयन्याक बिम्बाचे कचेरेंत गेल्लेकडेन कामिनीबायन विचारलें, 'आगो हे खेपेक कितें बरयलां? बिम्बाक बारा वर्सां पूर्ण जालीं म्हण जाणा मगो तूं? आमकां दिशिल्लें 'बिम्बान कितें दिलें?' ह्या विशयाचेर बरोवन हाडटलें म्हण!' खरें म्हळ्यार हांवें ओगीच रावपाचें पूण म्हजी जीब ती, नाका थंय पच्च करून उलोवन वता. 'आधी करावे मग सांगावे' हे उक्तीक विसरून हांवें पचकायलेंच, 'तातूंत कितें आसा, बरयतां आतां जानेवारीच्या म्हयन्याक.'

डिसेंबराचो 'बिम्ब' उगड जाल्यार माथाळोच 'तपपूर्ती विशेशांक'. तातूंत कितल्याशाच जाणांनी बिम्बांतल्यान जाल्ल्या देवाण-घेवाणीचेर बरयलां. म्हाका आनी बरोवपाक तांणी एक पसून मुद्दो सोडूंक ना. आतां हांव आनी कितें बरयतलें? पूण जिबेन तर दगो दिल्लो. हरशींय जाल्यार हांव रामनाथ देवाचें कुळावी आनी रामनाथकारांचो उत्सव सदांच हेरां परस उसरां. म्हणटगीर हांवें म्हाकाच कसोबसो धीर दिवन बिम्बान दिल्ल्या दानाचेर बरोवपाचें शिक्कोमोर्तब केलें.

खरें म्हळ्यार दान गुप्त आसचें म्हणटात. गुप्त म्हण इतलें की ह्या हातान दिल्लें खंय त्या हाताक कळपाक फावना (हें कशें कितें शक्य आसा तें बाबड्या देवाकच खबर) पूण हांगा तर येजमान्नेनच सांगिल्लें वाऱ्यार घाल म्हणून... तशें पळोवपाक गेल्यार आपणें दुसऱ्याक कितें दिलें हें आमी बेस बरी याद दवरतात पूण दुसऱ्यान आपल्याक कितें दिलें हें सोयीस्करपणान विसरून वचप जाता. पूण बिम्बान कितें दिलें तें कबूल करूंकच जाय नाजाल्यार म्हणपाक आसात, 'बारा वर्सां तप केल्लेवरी त्रास काडून, खंयच्याच आडमेळ्यांक भीक घालिनासतना स्वताच्या नाड्यार आमी बिम्ब चलयलें आनी तुज्यान चार बेश्ट्यो ओळी खरवडावपाक जायनात? नाकाच तुजें बरप आमकां. उशाक घेवन न्हीद ते तुजे लेख.'

काय बरो हे खेपेक हो विशय म्हाका आलायतो मेळ्ळा. नाजाल्यार हरशीं हांव कितें बरोवं? कित्याचेर बरोवं, बरोवं काय नाका? कितेंय बरयिल्लें बरें जातलें काय ना? हे प्रस्न म्हजी तकली खरवडयतातच त्या भायर 'कितें बरयतां हें ताळतंत्र नाशिल्लें आनी संपादक हागेले छापतातच कशे?' अशें कोणेंय म्हणल्यार ओगीच संपादकाचेर बी अपसरण येत. असले किडे म्हजे तकलेंत वळवळत रावतात. जावं, म्हणूं दी जाय तें, म्हाका खंय आयकूंक येतलें? म्हणटल्याची माल्ली शेंडी म्हण निर्धारान बरोवपाची तयारी केली जाल्यार केन्ना पेन नासता तर केन्ना कादेन मेळना. आनी सगळें जाग्यार मेळटा तेन्ना वेळ नासता आनी सगळो योग जुळून आयलोच जाल्यार तेन्नाच कोणाची नाजाल्यार कोणाची तकली उसळटा, कोणाक च्या जाय पडटा आनी ह्या तापत्रयांतल्यान सुटका करून घेवन बरोवपाक लागतां म्हणसर तकलेचो खोको जाता.




'कोण परंवणो मेल्लो तेन्ना तूं जल्माक आयिल्लें देव जाणा. सगळें परंवप तुजे फाटल्यान सोंपलां' अशें आई म्हाका सदांच म्हणटाली. आतांय विशय ना, विशय ना म्हण हांव परंवतां तें पळोवचेलें. खरो हाडाचो बरोवपी आसा ताका

विशय म्हणटात तो लागना, तो कित्याचेरय बरयता. कविता करपी कविता करता, लेख बरोवपी लेख बरयता, कथा-कादंबरी दिसपट्ट्यो जल्म घेतात त्यो वगीच तर? म्हाका मात देवान हें हाड (बरोवपाचें) म्हणटात तें दिलें ना, सगळें दिलां तें कबाब म्हणूनच तर अशें लबलबीत जावन पडलां. बरोवप्यान म्हणटात तें कशें अस्वस्थ आसपाक जाय! त्या अस्वस्थतायेंतल्यान बऱ्योबऱ्यो साहित्यकृती जल्म घेतात म्हण पयरच कोणेतरी म्हणलां. पूण 'भूस बरो तर दीस बरो' हे जातकुळींतलें जाल्ल्यान हांव जेवन खावन स्वस्थ पडून आसतां. म्हणटगीर म्हाका त्यो वेणोय येनात आनी जल्मय जायनात. हाडाच्या बरयतल्यान विशय मेळचे म्हणून तर 'तरूण' सावन म्हातारे लेगीत हातभार लायतात. हातूंत हातावयल्या पोटाचे आसात, गादयां-गिरद्यांचेर लोळपी आसात, संवसारी आसात तशेच सर्वसंगपरित्याग केल्ले 'साधूय' आसात. त्या खातीर खंयच्याच 'फेस्टीव्हला'क वचपाची गरज ना. सरभोंवतणी ते शिंपडल्यात. फकत कान-दोळे उगडे दवरून 'थिंक' करपाची गरज आसा. पूण त्या खातीर सृजनशक्त जाय आनी ती खंयच मेळना, म्हापशां भैरावांगेर लेगीत.

तर हांव बिम्बाचें सांगतालें, म्हजें अशेंच जाता, व्हांवलें जाल्यार व्हांवलें. 'बिम्बान किते दिलें?' हें दर खेपो 'प्रतिबिम्बा'तल्यान कळटाच. बिम्बान गोट्यावयल्यान शिताची परिक्षा म्हणटात तशें दर म्हयन्याक उत्कृश्ट 'संपादकीय' दिलां. 'वोंवळां'चो 'परमळ' दिला. 'पोसो' भरभरून 'उमाळे' आनी 'उत्फर्के' आशिल्ल्यो 'कथा' दिल्यात, 'दिका' दाखयल्या.

बिम्बातल्यो 'शीर्शकथा' वाचून 'मनसंवेदना' जाग्यो जातात. विचारांक 'आंकरी' फुट्टा. 'भुरग्यांच्या आंगणात' 'भोंवडी' करतना 'अश्रेकणी' येता. 'गरनाल' वाचून हांसून हांसून पोटांत दुखता तें जालेंच, वयल्यान 'भलायकी' बरी उरचे खातीर बिम्ब 'तेफळां'चे XXXय दिता. ह्या सगळ्यांची 'उस्तवारी' करत तितली थोडी. हें सगळें दर म्हयन्याक दिवपाक बिम्बाक कशें जमता तें एक 'कुवाडें'च.

बिम्बान आपले परीन जायतें दिलां. पूण घेवपाची, तोखणाय करपाची वान्सा जाय. आतां बसींनी सरकारान बायलां खातीर 'आरक्षीत सिटां' दिवंक ना? पूण केन्नाय पळय, तीं आरक्षीत आशिल्लीं सिटां सोडून बायलो बाकीचीं सिटां आडावन बसतात. त्या मांय-बाप सरकाराक वालोर दिवपाचो, ताच्या दुरदृश्टीची तोखणाय करपाची सोडच, वयल्यान त्या सिटाचेर कोणूय रसीक दादले बसले म्हणटगीर झगडीं उस्तून काडटात. तें जालेंच वयल्यान पसींत मिर्ची पावडर आनी पिनी घेवन भोंवतात.

तर सांगपाचें म्हळ्यार बिम्बान आपलीं म्हयनाळीं आनी दिवाळी अंक सारके टायमार दिल्यात. दर म्हयन्याचें मासिक पांच तारके पयलीं आनी सुंदर छापणावळ आशिल्लो गलेलठ्ठ दिवाळी अंक तर दिवाळेच्या दोन दीस पयलींच. प्राथमिक शाळेंत आसतना पाठ्यपुस्तकांत आमकां एक धडो आशिल्लो गोगलगायीचो. गोगल[illegible] बारशाक वचपाक म्हण भायर सर[illegible]द्द ताच्या लग्नाक पावता (जावं, खंयच्या तरी कारणाक पावता) तशें करिनासतना बिम्बान आपलें टायम शेड्यूल आज मेरेन सांबाळून दवरलां आनी वाचप्यांची तान भागयल्या.

आतां म्हजे सारकेल्याक 'वळख' म्हणटात ती खंयची? शाळेंतलीं भुरगीं अमक्याली 'मम्मा' म्हण उलो मारतात. वयनी, काकी, मावशी, आत्या आनी मम्मा इतलीच किते म्हणटात ती म्हजी आयडेंटिटी. हेवटेन-तेवटेन खंय लग्नाकारणाक गेलेंच जाल्यार अमक्याली धूव, तमक्याली बायल हाचे बगर खंयचीच उपाधी म्हणटात ती ना. ना म्हळ्यार दारांत सद्दां येता ती नुस्तेकान्न मात 'भाटकान्नी' म्हण पेजाद उलो मारून बरें व्हडलेशें नुस्तें म्हज्या गळ्याक बांदता.

पूण बिम्बान म्हजीं चार उतरां चार लोकांमेरेन पावयलीं. ह्या अंकांत उक्तायिल्ले विचार त्या त्या बरोवप्याचे आसात. संपादक मंडळ ताचेकडेन सहमत आसाच अशें ना ही चत्राय (म्हज्या खातीर आसतली चड करून) ठळक अक्षरांत छापूं मागीर. आतां हुनीर XXXलो कितलो आनी शेणयो थापतलो कितल्यो? पूण जें किते बरयलें तें साबार परत करिनासतना व्हडा मनान तकालस घेवन छापून हाडलें.

घटं भिन्द्यात्, पटं छिन्द्यात्, कुर्याद्रासभरोहणम्।



येन केन प्रकारेण प्रसिध्द पुरुषो भवेत।।

इतली जरी स्थिती नाशिल्ली तरी वेगळी वळख आसची कशी दिसतालें. लेखा सकयलो फोटो आनी मोबायल नंबर पळोवन चार लोकांनी संपर्क सादलो (कितलेंय म्हातारें जालें, नेत्र लेगीत पैलतीरी लागले तरी तोखणाय कोणाक नाका जाता?)

तर सांगपाचें म्हळ्यार नण्णी कशीय जावं, कण्णो बरो हाललो. सुवादीक वासाच्या तेफळांच्या नांवाखाला हांवेंय कितेंय खपयलें. आतां तेफळांच तीं. थोडीं घाल्यार नुस्त्याच्यो हिवळाणी आनी चड पडल्यार दरपटाणी. तात्पर्य म्हळ्यार बिम्बान एक वळख कशी दिली.

गोंयांत घडटल्या साहित्यीक घडामोडींचेर दर म्हयन्याच्या अंकांत मागीर तें रक्तदान शिबीर आसूं नाजाल्यार वर्कशॉपां, साहित्य पुरस्कार आसूं नाजाल्यार साहित्यांतली भासाभास. बिम्बान बरें फोट्यासयत घसघशीत वर्णन छापून हाडलें. आपलो-परकी, दायजी-दुस्मान म्हणीनासतना सगळ्यांचो बरो थातोमातो केलो. आपल्या घरांत स्नेहमेळावे, महिला-मेळावे, (हातूंत महिलांकच न्हय तर 'मर्हीं'कय अगत्याचें आमंत्रण आसता) वर्धापनदीस सुवाळो अशे कितलेशेच सुवाळे मनोवन हाडले. आपल्या पदरचें मोडून दरवर्साक बिम्बान योग्य अश्या व्यक्तींक पुरस्कार दिले. तशेंच साहित्य अकादमीचो पुरस्कार लाबिल्ल्यांक खासा आपल्या घरा आफोवन सगळ्यां मुखार तांचो यथोचित सन्मान केलो. पुरस्कार प्राप्त लेखकांचे अणभव आयकुवपाक दिले (आमच्या ओमथ्या कळशार उदक जावं मागीर)

त्या भायर मदींमदीं पुस्तक विमोचन म्हण जावं, घरांतल्यांचो अमृत महोत्सव म्हण जावं ह्या ना त्या कारणान बिम्बाच्या जाळवणदारांनी लोकांचे पांय आपल्या घराक लावन घेतले. पुस्तक विमोचनावेळार उजवाडायिल्लीं पुस्तकां जाण्टेल्या लोकांक दिलीं (कोणांकच बोल्सांत हात घालपाक दिना आसतना) तशेंच कोणूय बाबडो वाचूं, कोंकणीची, बिम्बाची गोडी लागूं म्हण तांकां नि:शुल्क अंक घराकडेन पावते केले. 'दे दान सुटे गिराण' म्हण अशें दान केलें तरी तांच्या फाटलें गिराण पुरायेन केन्नाच निवळ्ळें ना. (संपादकीय डिसेंबरी २०१३ वाचात). तरी तांच्या कश्टांचे खर तपश्चर्येन एक तप पुराय करपाक ते फळादीक जालेच.

विंगडविंगड कार्यक्रमाचें आयोजन करतनाच बिम्बाच्या जाळवणदारांनी आयिल्ल्या-गेल्ल्यांक भरपेट खावयलां-पिवयलां. सगळ्यांची तान-भूक न्हिवयल्या. आमंत्रण दितनाय 'सगळ्या भुरग्यांक घोवाक बी घेवन यो गो' म्हण अगत्याचें आमंत्रण दिलां. (तितलीच रांदपाक सुटी) घराकडेन वतगीर दर एकल्याक कोण्ण ल्हान-व्हड म्हणिनासतना, लग्नाक बोवाळटल्या येजमान्यावरीं हुनहुनीत येवकार दिला, मनशा कणकणी सरबराय केल्या. थंयचें सैमाचें थंड वातावरण आनी तातूंत तांच्या आग्र्रान पोटांत गरमगरम वतगीर जीव धादोस जाला. कसलीच भिडमुर्वत जावंक नाशिल्ल्यान पोटांत चार घास चडूच गेल्यात. त्या कार्यक्रमाची आनी जेवणावळीचें बरें सेलिब्रिटीज कशे फोटेय नांवांसयत मासिकाचेर झळकल्यात (नाजाल्यार आमचे फोटो फकत आधारकार्डाचेर आनी मतदार वळखपत्राचेर) आसूं. विंदा करंदीकारान म्हणूनच दवरलां :

देणाऱ्याने देत जावे
घेणाऱ्याने घेत जावे
घेतां घेतां एक दिवस
देणाऱ्याचे हात घ्यावे

त्या परमाणे तांच्यो पयल्यो दोन वळी लक्षांत दवरून आमी वतना हात हालयत आनी येतना पुस्तकां घेवन, तृप्त मनान (आनी पोटानय) घरा आयल्यांत. 'अन्नदाता सुखी भव'

बिम्बाच्या वर्गणीदारांत आनी जायरातदारांत दिसान दीस भर पडूं, तांकां नव्या-नव्या उद्योजकांचें पाठबळ लाभूं, बिम्बाची वटवृक्षभशेन वाढ जावं आनी बिम्ब परिवाराची उन्नती जावं (म्या पामराने आणि काय करावे?) असो हावेस बाळगून मनाकाळजा सावन बिम्बाक तपपूर्तीचीं परबीं दितां. देव बरें करूं.

■

– रुपा कोसंबे
व्हडलें भाट, ताळगांव. मो. ९४०४९१४४३७

# खातकुतल्यो

## मात्सो चुकलों



किरण कांदोळेचे वेळेवयल्यान एकटोच भोंवतालो. इतल्यांत आकाशवाणी जाली.

'हांगा जमीन उस्तीय'

किरणान जमीन उस्तुवपाक आरंब केलो. कांय वेळान ताका थंय हांडोभर पोवनां सांपडलीं. तीं घेवन तो घरा वचूंक लागलो. पर्थून आकाशवाणी जाली.

'घरा न्हय, मटको लायतात थंय वच'

पोवनां घेवन किरण मटको घेवपी बुकी कडेन गेलो.

'सगळीं पोवनां णव नंबराचेर लाय.'

आकाशवाणी आयकून किरणान सगळीं पोवनां णव नंबराचेर लायलीं. सगळे लोक ताचेकडेन अजापान पळोवंक लागले. आनी नंबर आयलो... आठ.

आकाशवाणी जाली.

'आरे सायबा, पर्थून एक खेप मात्सो चुकलों.'

■

# नव्या वर्साची भेट

*जेवणा उपरांत दोगांयमदीं घरा बद्दल चर्चा जाली. दोन दीस मेरेन पार्सल तशेंच पडून उरलें. तिसऱ्या दिसा तिडकीन मंगलमान पार्सल उगडलें, जाल्यार तिचे दोळे तशेच तटास उगडे उरले. तें कितें साडयेचें बीन पार्सल नासलें. तातूंत फ्लॅटाचे पेपर आसले जो मंगलमाच्या नांवार केल्लो.*

भितरल्या घुस्मट वातावरणांतल्यान भायर सरपाक म्हणून 'भास्करन' बालकनींत येवन उबो रावलो. ताणें बाल्कनीचें रेलींग दोनूय हातांनी घट्ट धरलें. ताच्या मनांतली दूख ताच्या शिरांचेर पडपी ताणान वळखूंक येताली.

भितरल्यान 'मंगलम'चे बडबडपाचे आनी रडपाचे सुस्कार आयकूंक येताले. सदांच सकाळींफुडें कटकट करप ताका केन्नाच आवडना आसलें.

ऑफिसांतल्यो कितें कटकटी उण्यो? घरांतूय दोन खीण शांतताय नासत जाल्यार कित्याक उपकारलें? आनी ताचो दोश तरी कसलो?

बरी नोकरी, चड पगार, काम करपाचोच चड पगार मेळटा. पुराय दीस घरांत बसून रावल्यार कोण दितलो पगार? ताचें मन तडफडपाक लागलें. इतलीं वर्सां जालीं पूण वागणुकेंत कांयच फरक ना. बायल आसपाचो असोच अर्थ की खूब झगडचें. हाताक मेळत तें शेवटून मारप आनी मागीर फुगार जावप. ताचें मन तडफडटालें.

भितर मंगलमची बडबड गाळयांचेर आयली. भास्करन अशा वेळार आपल्याक निरुपेगी समजता. वगी रावप ताणें शिकून घेतिल्लें. पूण गाळयो आयकून ताची तिडक तकलेन सरली. तो कुडीकडेन सरलो आनी ताणशेवन उलयलो, ''हांव पळयतां दिसान दीस तुजें वाडत चल्लां. तुमकां मिडलक्लास मेंटेलिटीवाल्यांक समजावपाचें तरी कशें?''

भास्करनाचीं हीं तीख उतरां आयकून मंगलमचे कुडीक उजो पेटिल्लेभशेन जालें. ती विखाळ नागिणी भशेन फुत्कारली. ''अशेंऽ? हांव मिडलक्लास मेंटेलिटीचीं आनी तुमी व्हड पयशेकाराचे पूत?''

तिणें जळटे नदरेन पळयलें. भास्करनाक कटकट नाका आसली. ताणें आवाज सकयल घेवन ल्हव विचारलें, ''तूं समजना कित्याक?''

''कितें समजुपाचें?''

''हेंच की जेन्ना इतलो चड पगार मेळटा तो कितें फुकट मेळटा?''

''आख्खें जग काम करता. तुमी एकलेच कितें वेगळें काय करिनात.'' मंगलम तिडकीन उलयली.

''तूं समजना कित्याक?'' भास्करनान दुसरे फावट तिका समजायलें.

''हांव समजना जायत, तुमी तरी खंय समजवपाचो यत्न केला. तुमी तर मिडलक्लासाकूय पास्ट. म्हज्या बापाय कडेन भाड्याचो तीन बेडरुमाचो फ्लॅट तरी आसा. घडये पोरनो जायत पूण वाड्यार आमची इज्जत आसा, तुमी पुराय जीण एक बेडरुमांत काडली आनी अजूनय रावतात.''

तिच्या तोंडांतल्यान एक बेडरूम फ्लॅटाची खबर आयकून भास्करनाक तिडक मारली. ताका दिसलें भर बाजारांत कोणें ताका नागडो केल्ले भशेन. ताच्या दुखपी शिरेर दुखयल्ले भशेन. ताचे दोळे खुनशी जावन आपल्या जखमी काळजाक पळयताले.

तो पर्थून बालकनींत आयलो. नाकपुडयोच न्हय पुराय कूड तडतडूंक लागली. ताका त्या दिसाचो उगडास जालो.

''ल्हान आसतनाच्यान म्हाका एक बेडरुमाचो फ्लॅट हिणसायतालो. हांवें जायते फावट बापायक म्हटलें पासून की व्हडलो फ्लॅट घेवया म्हुण. बापूय म्हजें आयकून हय म्हणटालो पूण पर्थून 'ये रे म्हज्या मागल्या'च जातालें. तो दीस हांव केन्नाच विसरचो ना. ज्या दिसा व्हड पावसाक लागून छप्पर गळपाक लागलें आनी जिन्या वयल्यान उदक भितर येवपाक लागलें. घरभर उदकूच उदक जाल्लें.''

ते रातीक पापा कितलो बाबत आनी लाचार जाल्लो. ताच्या मुखामळार दिसपी काळजी आनी तिडकीचीं ल्हारां आयजूय दोळ्यांफुडें येतात आनी खीणभर काळीज हालता.

तेंप कसो सरलो कळ्ळोच ना आनी हांव नोकरेच्या निमतान कॅम्पस इंटरव्ह्यू जावन नीट अमेरिका पावलों. म्हज्या जिवितांत आयिल्ल्या ह्या बदलाक लागून म्हाका दिसलें आतां फ्लॅट कितें चार-पाच रुमांचो एक बंगलोच घेवं येता म्हुण. दोन तीन म्हयन्यां उपरांत 'कोयंबतूर' पयशे धाडले. एक बेडरूम फ्लॅटाचें रिनिव्हेशन केलें. नवें फर्नीचर केलें. हातूंतच लागीं लागीं वीस लाख रुपया खर्च जाले. भायलें जेवण जेवन म्हजी सावुद बरी ना जाताली. हांव 'सांबार इडली' खावपी, 'मदूराई मटनकरी' रुचीन खावपी, कितले दीस भायलें जेवण जेवतलों?

आवयक सांगलें, चली सोद आनी लग्न करून दी. येवजिल्लें की बायलेच्या सांगातान म्हजीं सपनां एक एक करून पुराय जातलीं. आवय बापायक एक बरी जीण जियेतना दाखयतलों. आवयनूय बी रोखडींच पावलां मारलीं.

'चेन्नई' एअरपोर्टाचेर आवयबापूय कोयंबतूरच्यान आयिल्लीं आनी वांगडा कितल्याशाच सोयरीकांची यादी घेवन आयिल्लीं. त्या दिसा ताणीं चार चलयेकारांक हॉटेल 'सबेरा'त फाटीं फुडें वेळ दिवन चलयां सांगातान आपयल्लें. पयलें कुटूंब चलयेक घेवन आयलें तें अर्देवरान उठून गेलें. फाटल्यान आनीक एक कुटूंब 'घुमडपुंडी'च्यान आयल्लें. तें येवन वतकच हांवेंच आवयक म्हटलें, 'चड गिरेस्त नाका आमचे भशेनूच पळय न्ही.'

दुसरे दिसा आवयन 'सेलम'च्यान आयिल्ल्या कुटुंबाक तांची चली मंगलम हिका घेवन आपयलें. म्हाका मंगलम बरी दिसली. रोखडेंच लग्न करून तिका घेवन आयलों. हांवें जायते पध्दतीन म्हज्यो इत्सा आनी जिवन पध्दती तिका समजावन दिल्ली.

कितल्या मोगान जिविताची गाडी चलताली. उपरांत एकाएक कितें जालें?

ज्या दिसा तिका म्हज्या मनांतलो विचार सांगलो की अशे बगर बगर देश विदेश भोवून, पयशे पिड्यार करचे परस जर आमी पयशे सांबाळून दवरले जाल्यार आमचीं सपनां पुराय करपाक शकतलीं. त्या दिसा सावन मंगलमच्या वागण्यांत फरक पडपाक लागलो.

भास्करन तंद्रेंतल्यान जागो जालो. ताचो मोबायल वाजतालो. ताणें जाप दिली आनी रोखडोच तयार जालो. आयज ताका आपल्या कस्टमराक डेमोंन्स्ट्रेशन दिवपाचें आसलें. ताका तयार जाल्लो पळोवन मंगलम शिणली.

''उखल लॅपटॉप आनी वच ऑफिसांत, फाटल्यान हांव रातीं उसरां मेरेन वाट पळोवन वाजेत रावतां, तुमकां कितें?''

''ही सगळी तुजी चूक जावन आसा. म्हजी न्हय. याद कर तो दीस जेन्ना म्हजे कॉन्ट्रेक्ट काबार जावपाचें आसलें तेन्ना तूं परती भारतांत वचपाक तयार नासली. तुवें कितलेशेंच मनयलें म्हाका की कशेय भशेन नव्या प्रोजेक्टांत नांव घालून घे म्हुण आनी एन. आर. आय. म्हुण परत काम सुरू करचें म्हुण. हांवें तुका खोशी करपाक दुसरो प्रोजेक्ट घेतलो. एन. आर. आय. म्हुण रावलों.''

इतलें सांगून भास्करन घरच्यान भायर सरलो. रागान बडबड करीत मंगलम बाल्कनींत आयली. ती ताणशेत उलोवंक लागली. ''शेकी मारता, बंगलो घेवया म्हुण, दोन बॅडरुमाचो फ्लॅट आजून घेवंक पावूंक ना आनी व्हडल्यो व्हडल्यो गजाली करता. हांव पयशे सांबाळून दवरूं आनी मजा मारपाक सगळें कुटूंब येतलें आनी हो व्हावून वतलो. सगळे पयशे आपल्या कुटुंबाचेर मोडटलो.'' तिडकीन तिच्यो नाकपुडयो फुलपाक लागल्यो.

कांय वेळ ती बाल्कनीत उबी रावून विचार करपाक लागली. तिच्या विचारान पलट मारली. ''ही वेळ तर म्हाका लागुनच आयली. बरें आसा. हांव एन. आर. आय म्हुण रावपाक सोदतालीं. त्या वेळार सुंदर जन्मुपाचो आसलो. हांवें येवजिलें ताचो जल्म 'कॅनडा'त जालो जाल्यार व्हड जातकूच ताका कितली खोशी जातली. जेन्ना तो आपल्या फॉर्मार जल्मगांव कॅनडा म्हुण बरयतलो ताका कितलो झेत येतलो? म्हाका कितें खबर की विदेशांत अशेय दीस येवं येतात म्हुण! सुंदरा उपरांत राजन जालो. जिविताची गाडी अशीच किचकीच करून चलत रावली. हांवेंय खूब कश्ट काडले.

ते दीस पयले फावट भारतांत वचचें काय न्हय हाचेर व्हड झगडीं जालीं. झगडीं वाडत वाडत इतले मेरेन पावली, की फकत डायवोर्स घेवपा मेरेन पावली ना इतलेंच.

''हांवें भारतांत वचपाचो हट्ट केल्लो तेन्ना'' भास्करनान म्हणिल्लें. ''लग्ना वेळारूच तुका कळीत केल्लें कीं तुका म्हज्या सांगातान विदेशांतूच रावचें पडटलें म्हुण मागीर आतां कित्याक भारतांत परते वचपाची कटकट लायल्या?''

हांवूय कितल्या निबरपणान उलयल्लीं.

''हय हय तुमी सारकें उलयतात. हांवूंच नाका जाल्लें कितेंय घेवन बसतां. कारण म्हाका वीट आयला. तुमचो, तुमचे नोकरेचो, तुमच्या प्रोजेक्टाचो.''

''हाकाच जिवीत म्हणटात'' भास्करनान समजवणेच्या सुरांत म्हणिल्लें.

हांव सामकी पिशांतूर जाल्लीं.

''तुमी म्हाका उपदेश ना करीत जाल्यार बरें जातलें. आतां तुमची ही नोकरी म्हज्या जिविताची एक दुखद काणी जावन उरल्या.''

''अशें? तशें जाल्यार हांव आयजूच राजीनामो दितां आनी चल या आमी परतीं भारतांत.''

हांवें ल्हव दोळे तिरशे करून भास्करनाचेर नदर मारली आनी ताच्या मुखामळार दिशिल्ले भाव पळोवन भियेलीं. हांवें म्हाका सावरपाक यत्न केलो.

''राजीनामो कित्याक, व्हडली रजा घे.'' अशीं झगडीं जायते फावट जातात.

निमाणे व्हडली रजा घेवन आमी 'कोयंबतूर' आयलीं. आमकां एक सुमान जाल्लें. सगळ्या सोयऱ्यां दायऱ्यांनी आमची उठ-बस केली. दर फावटीं कॅनडाच्यो खबरी आयल्यो काय चडोवन कितें तरी उलोवप जातालें. आमच्या दोनूय भुरग्यांक भारतांतलें वातावरण, आशीकुशीकच्या लोकांची रावपाची पध्दत बरी लागली ना. ते न्हिदता-उठटा परते केन्ना वचपाचें हेंच विचारताले.

हांवें तांकां कितलें समजायलें. पूण खरें सांगचें जाल्यार आतां म्हाकाय बी विदेशूच बरो भावतालो. जो कोण आयकतालो की आमी कॅनडा आसतात म्हुण तेन्ना तांच्या मनांत आमचें वजन वाडटालें. तांची ही प्रतिक्रीया पळोवन हांव चिंतूंक पडलें. हांगा रावल्यार इतली इज्जत मेळत काय? सगेसोयरे जेन्ना तोखणाय करताले तेन्ना दिसतालें गरजे भायर हांव भास्करना कडेन भारतांत येवपाचो हट्ट करतां.

हांगा विदेशाक इतलो मान आसा जसो कितें सर्गच जावन आसा. जायते जाण अशेय खातीर मेळपाक येताले की आमी तांच्या भुरग्यांक कॅनडा आफोवचें म्हुण. त्या वेळार भास्करन खूब विचारांत आसलो. कितें करचें, कितें करचें न्हय समज नासलें. तो चिंतपाक पडलो. तो नोकरी सोडून आयलो जाल्यार भारतांत ताका खंयची नोकरी आसा? परत

ताका फाटले बशेनूच दीस सारचे पडटले. हांगचे नोकरेंत इतलो पगार वा मान मेळटलो?

आयच्या आय. टी. इंडस्ट्रीची परिस्थिती पळयत जाल्यार? ताची तकली भिरभिरपाक लागली.

तो मोबायलाचेर आपल्या लोकांकडेन जायते तरेचे प्रस्न विचारतालो. ताच्या मुखामळा वयले त्रासीक भाव पळोवन हांवें ताका हटकिलो. ''कितलें बरें दिसता न्ही? चारूय वटेन आपलेच लोक, दुसरो कोणूच ना. जेन्ना जाय तेन्ना रिक्षा घर आनी जाय थंय चल. थंय फकत एकटेपण घुस्मट.''

इतलें सांगून हांवें तिरश्या दोळ्यांनी पळयलें, ताच्या मुखामळावयले भाव वाचपाचे यत्न केले.

भास्करनान गंभीर जावन म्हटलें, ''हांगा दोन बेडरुमाचो फ्लॅट बऱ्या जाग्यार घेवपाक दोन कोट रुपया जाय. इतले पयशे मोडपाची आमची तांक आसा व्हय? जो मेरेन फावो ते पयशे मोडपाची तांक म्हजेकडेन येवची ना तो मेरेन हांव नोकरी सोडून येवचो ना. मंगलम भितरल्या भितर खोशी जाली. कारण ती आतां विदेशांत राबितो करपाचें म्हत्व जाणा जाल्ली. तिणें लाचारीच्या सुरांत म्हळें, ''भुरगीं हांगा रावपाक सोदी नात.'' भुरग्यांच्या निमतान तिणें परिस्थिती सावरून घेतली आनी वांगडा अशेंय भासयलें की तिका स्वताक विदेशांत वचपाक बिल्कूल पसंत ना. पूण घोवाक आनी भुरग्यांक जाय म्हुण तिका वचचें पडटा.

कुळार आनी सासरच्यो जायत्यो गोड यादी घेवन तीं दोगांय भुरग्यां सांगातान कॅनडा पर्थून आयलीं. वर्सां वचपाक लागलीं. ज्या प्रोजेक्टाचेर ताचें काम चलतालें तें तेंगशेर आसलें. भास्करन दिसरात काम करतालो. एक वर्स आनीक काम करीत जाल्यार दोन कोटींचो फ्लॅट घेवपाचो विचार करपाक शकता.

अचकीत आवयच्या मरणाची खबर आयली. भास्करनाचें काळीज दुखवलें. प्रोजेक्ट निमण्या पावंड्यार आसल्या कारणान ताका सुटी मेळ्ळी ना. जायतो यत्न करूनय ताका सुटी मेळ्ळी ना म्हुण ताणें जड काळजान बायलेक आनी भुरग्यांक धाडून दिलीं. जे पयशे सांबाळून दवरपाचो यत्न चलतालो तातुंतले मोडचे पडले.

तो त्या दिसा हुमसून हुमसून रडलो. पयशांचें दुख्ख नासलें. दुख्ख हें की आवय आसतना दोन बेडरुमांचो फ्लॅट घेवपाक शकलों ना हाचें. आयज ताच्या मनांतली खोल जखम कोण पळोवंक शकता? ताचे दोळे शुन्यात गेले. जांका सूख दिवचें म्हुण इत्सा आसली, म्हळ्यार आवय बापूय, तांतली आवय तर गेली आनी पापा... ताचें मन खर दुखी जालें. आतां म्हाका कशेय भशेन दोन बेडरुमांचो फ्लॅट घेवंकूच जाय.



हो निर्णय, फकत मनांतूच उरलो. जिवितांत केन्ना कितें जायत कोणाच्यान सांगू येता. खर्च जायत रावलो. ताका खर्च करचोय पडलो.

काळ पाखां आशिल्ल्या सुकण्यांभशेन उबून गेलो. भुरगीं व्हडलीं जालीं. चली 'एनी' उर्फ 'अमुदम' आपले इत्से प्रमाण लग्न जावन 'स्वीत्झरलॅण्ड' गेली. आनी चले सुंदर आनी राजन ऑस्ट्रेलियांत खंयच्या तरी कंपनीत कामाक लागले. ताणीं सांगूनय उडयल्लें की 'पापा आमी वेगळ्या घरांत रावतले आनी आपआपले इत्से प्रमाण लग्न जातले. जेन्ना जातले तेन्ना तुमकां कळीत करतले.' एक दीस दोगूय आपलें सामान घेवन भायर सरले.

मंगलमान सांबाराक फोडणी घालतां घालतां म्हटलें, ''म्हजें तिकीट काडात. हांव आतां फ्लॅट घेवनूच रावतलीं. आतां आमी बँकेंतल्यान कर्ज घेवंक शकतात.'' भास्करनाक फ्लॅट घेवपाची गजाल आयकून खोशी जाली. ताणें सरळ विचारलें ''केन्नाची काडूं?''

''फुडल्या म्हयन्यांत केन्नाय. पापाय बी सीक आसता. आवयय म्हणटा कांय दीस येवन वच म्हुण. रावतलें सासऱ्याकडेन. दनपारचें कुळारा वचून येवं येता. तुमीय आयिल्ले जाल्यार बरें जातलें आसलें.''

मंगलम सासुरवाडीक येतकच तिच्या तोंडांत फ्लॅट घेवपाच्यो गजाली आयकून 'वेंकटरमण'च्या मनांत लिपून आशिल्ली फ्लॅटाची इत्सा जागी जाली. दोगांय सदांच फ्लॅट सोदपाक भोंवतालीं. एक फ्लॅट पसंद पडलो. तो बऱ्या लोकेशनार आनी हवेशीर आसलो. पूण किंमत आयकून मंगलमाच्या पांयां तळची भूंय सरकल्ली.

सासऱ्याक, हार्ट अॅटॅक येवन ताका 'आय. सी. यू.'त दवरचो पडलो. पयशे उदका भशेन खर्च जावपाक लागले. बापायच्या हार्ट अॅटॅकचें आयकून भास्करनूय आयलो. हॉस्पीटलांत उबे आशिल्ल्या जाण्ट्या मांव-सासूक घरा धाडून तो आय. सी. यू.कडे आयलो. तो थंयच बाकाचेर बसलो आनी जिविताचेर विचार करीत रावलो.

रातचीं सुमार दोन वाजिल्लीं. एकाएक बोवाळ जालो. वॉर्डांत दुसऱ्या एका दुयेंतीच्या मरणाचो हेर दुयेंतीचेर कसो परिणाम जाता हाचो भास्करन विचार करतालो. हेरांच्या गजालीनी एकूच गजाल आसली. 'ती बायल इतले वायट तरेन जळ्ळी कशी, आनी कशी मेली.' सगळे आपआपले तरेन तिचेर उलयताले. एकान म्हटलें, 'शेर्त दोत घेवपा संबंदी कारण आसतलें.' दुसरो म्हणटालो, 'ते बायलेचो घोव घडये दुसरे बायलेकडेन संबंद दवरून आसलो. तिणें घोवाक खूब समजायलें निमणे निर्शेवन आपले कुडीचेर कॅरोसीन ओतून जाळून घेतलें.'

तिसऱ्यान म्हटलें, 'हांवें आयकलां तिका विदेशांत रावप पसंत नासलें. पूण घोवाक

विदेशांत रावप पसंत आसलें. तिणें जाणून बुजून मरणाक लागीं केलें.'

भास्करनाची तकली जड जाली. म्हणुनच काय ऑफिसांतल्या वेंकटरमनाची बायल भारतांत आयली आनी तिणें जाळून घेवपाचो यत्न केलो. घरच्यांनी सावरलें. आतां तो एकलोच रावता. बायल भारतांत सेलम हांगा रावता. रात कशी बशी पासार जाली. सकाळींफुडें नर्सीन सांगलें की पापाची तब्येत आतां सुदारल्या. आठांक सुमार पापान दोळे उगते केले. पापाच्या गोपांत रिगलो तेन्ना ताका रडूंक आयलें. पापान सावरलो. पापाचींय दुकां व्हावूंक लागलीं. जायतो वेळ पापाच्या खांदार तकली दवरून आपलें मन हलकें केलें. बापूय-पुताचें मेळप घडये त्या वेळाची मागणी आसली.

पापाक घरा येवन चार दीस जाल्ले. पयलीं परस खूब अशक्त जाल्लो. पापान उलोवपाक सुरवात केली.

''धा-बारा फ्लॅट पळोवन जाले. एक बरो आसा. हप्त्यान पयशे फारीक करपाक मेळटले. पयले फावट सव्वा कोट रुपया, मागीर दर म्हयन्याक पंदरा लाख रुपया, अशे तरेन एकूण तीन कोट रुपया दिवचे पडटले.''

''पापा आयज ह्या फ्लॅटाची किंमत इतली वाडल्या, तुवें पयलीं घेवन दवरलेलो जाल्यार आयज इतले पयशे फारीक करचे पडचे नासले.''

''तूं खरें उलयता पुता, पूण विचार कर, घरांत रावपी लोकांच्यो गरजो तर भागपाक जाय. व्हडलें घर, घरांत रावपी मनशांय चड. तांच्यो गरजो भागयतां भागयतां, असलें कितें करपाक जमलेंच ना.''

पापाची म्हणणी आयज समजून येता. आयज हांव तेच परिस्थितींत आसां. खंय घेवपाक पावलों फ्लॅट? मंगलमाचे केंस धवे जाले आनी म्हजे गेलेय बी. भास्करन विचारांत पडलो. पापा इतलीय तांक ना म्हज्यांत. हांवें ना चलयेचें लग्न केलें, ना भुरग्यांच्या लग्नाचो खर्च केलो. तरीय पूण आपले खातीर एक दोन बॅडरूमाचो फ्लॅट घेवपाक शकलों ना.

पापाची तब्येत सुदारतकूच आमी दोगांय परत कॅनडा आयलीं. मंगलमाच्या मनांत आपल्या जाण्टेपणां संबंदी एक तरेचो भंय बसलो तो फुडें फुडें वायट परिणाम दाखोवंक लागलो. कॅनडा परतूचे आदीं चार दीस खूब पावस पडलो. वादळी वाऱ्यान मंगलम सामकें इतलें भेदरलें की तिच्या मनांत एक तरेचो भंय कायम उरलो.

आतां फ्लॅट घेवचोच पडलो. ना जाल्यार जाण्टेपणांत कांय खरें ना. ताच्या बँक अॅकावंटांत फकत सत्तर लाख रुपयाच आसले आनी जाय तीन कोट. म्हयनोभर तकलेंत हेंच गणींत घुंवत रावलें. तिच्या मनांत विचार आयलो कीं आतां आपल्याकूच कितेंय करचें पडटलें. भास्करना कडल्यान कांयच जावचें ना. असो विचार करतां करतां तिणें मांवाक फोन लायलो आनी विचारलें, ''पापा तुमचो फ्लॅट कितल्यांक विकत वचूं शकता?''

''लागीं लागीं साठ-पासठ लाख मेळूंक शकतात. तूं कित्याक विचारता.''

''हांव येवजितां की फ्लॅटाची 'डावन पेयमेंट' करून उडोवची. म्हजे कडेन सत्तर लाख आसात. तुमचो फ्लॅट विकून साठ लाख मेळ्ळे जाल्यार फुडलें मागीर पळोवं येता.''

रातीकडेन भास्करनाचें बापायकडेन उलोवप जालें, तेन्ना बापायन काकुळतेक येवन सांगलें, ''पुता, आतां म्हज्या मरणा उपरांतूच हें घर वीक. तुका सुनेकडल्यान कित्याक विचारूंक जाय आसलें? तुज्यान तुज्या बापायकडेन ही गजाल करूं येय नासली?''

पापाची म्हणणी आयकून भास्करन विचारांत पडलो, ''कसली गजाल पापा?''

''हीच पुता, फ्लॅट विकपाची. तुमी सगळीं हांगाच ल्हानाचीं व्हड जाल्यांत. तुमचे आवयन हांगासरूच आपलो संवसार चलयलो. आतां ह्या जाण्टेपणार हांव खंय वयतलों? हांव आनीक आतां कितले दीस जगतलों? शीवाय तुज्या भुरग्यांची...''

ताचो ताळो भरून आयलो. घडये ताच्या मनाक खर घाव जाल्लो. भास्करन कितें तें समजून घेवन उलोवपाक इतल्यान पापान फोन बंद केलो.

मंगलम झगडपाक तयारूच आसली. ''मागीर कितें जालें हांवें विचारलें म्हुण? आमी आमचे पयशे त्याच घराक तर खर्च केल्ले.''

आयज मंगलमाच्या मनांत एक खंत आसा. तीं ज्या फ्लॅटांत रावतात, तो अव्यवस्थीतच न्हय खूब ल्हानूय आसा. कोणूय खीणभर एकटोशी रावूंक चिंतीत जाल्यार तें शक्यूच ना. अशे परिस्थितींत ताणें जें थारायलां तातूंत कितें चुकलां?

भास्करनान कपलार मारून घेतलें. ताका दूख जालें. तो घुस्मटपाक लागलो.

मंगलमाकूय आपलें कितें तरी चुकलें शें जाणवूंक लागलें. आतां नवें वर्स येवपाक दोनूच म्हयने बाकी आसले. दर फावटी येवपी नवें वर्स नवी आशा जागोवन काबार जातालें. हेंय वर्स अशेंच वतलें काय? मंगलम मनांतल्या मनांत हुसकेताली. एक सुमान अशे घुस्मटीत कसो गेलो कळ्ळोच ना.

अचानक एक दीस मांवाचो फोन आयलो. ''पुता, भास्करन हांव एका 'पर्यटक टूर' वांगडा येतां. तुजे वांगडा एक दीस सारतलों आनी फुडें वतलों.''

बापायक हाडपाक भास्करन गेलो. सगल्यो फॉर्मालदादी सोंपले उपरांत एक दीस पुता वांगडा वतना पापान एक पार्सल हातांत दवरून म्हटलें ''हें सांबाळून दवर. मंगलमा खातीर कितें विशेश भेट आसा.''

भास्करनान पार्सल घेवन आपले ब्रिफकेसींत दवरलें आनी बापायक निरोप दिलो.

पर्थून पर्थून तो आपल्याचेर बेजार जालो. कित्याक आपणें घराची गजाल काडली ना काय म्हुण! आमी दोगूय बरे बशेन चर्चा करून कितेंय पॉझीटीव निर्णयार येवचे म्हुण मंगलम आपले वांगडा येवंक ना. मनांत चुरचुरे दवरून तो घरा आयलो. येतां येतां ताका खूब रात जाल्ली.

जेवणा उपरांत दोगांयमदीं घरा बद्दल चर्चा जाली. दोन दीस मेरेन पार्सल तशेंच पडून उरलें. तिसऱ्या दिसा तिडकीन मंगलमान पार्सल उगडलें, जाल्यार तिचे दोळे तशेच तटास उगडे उरले. तें कितें साडयेचें बीन पार्सल नासलें. तातूंत फ्लॅटाचे पेपर आसले जो मंगलमाच्या नांवार केल्लो.

दोगांकूय खूब खोशी जाली. त्या पार्सलांत एक चीट आसली, जातूंत व्हड उतरांनी बरयल्लें, ''तुमका दोगांकूय नव्या वर्साची भेट.'' ■

**(सुची : डॉ. मधू धवन हांचे हिंदी कथेचो उदय देशप्रभून केल्लो कोंकणी अणकार.)**

# ओह माय गोंय





*असले हणमन्तप्पा, नागप्पा, बसप्पा, मंजू, कोटरे, कट्टीमनी, शब्बीर, चांदसाब, बडेसाब, रामयाद, मातदी प्रसाद, आनी कितलेशेच आमी वळखतात. ते कालचे घांटी, आयचे जांव फ ायचे गोंयकार. आमी जेन्ना आमी आमका गोंयकार अशें म्हणटात, तेन्ना आमी हे संकल्पनेभितर कोण ते साबार लोक आसतात.*

## भायले - भितरले

- गजानन जोग

१८ जून रस्त्यार सकाळी साडेणवांक हांव एक दुकान उगडपाची वाट पळयतालों. म्हजी एक वायट खोड- (जित्याची खोड मेल्याशिवाय जात नाही, गुरूजीन सांगिल्लें) कोणे खंयचोय टायम सांगूं, हांव सामको भक्तीभावान पांच मिन्टां पयलीं पावून टायम पळोवन धादोशी जातां- जांव, म्हजे कडल्यान कळाव जालो अशें तरी जांवचें ना इतलें समाधान. जाल्यार लागींच दोगजाणांची बाचाबाच कानार पडली. दोगजाण तरणाटेच. एकलो म्हजेभशेन फुटपाथार उबो आसलो तो बरो गोंयच्या अपटुडेट तरनाट्याभशेन न्हेशिल्लो, सगलें जंयचे थंय, पांयांत बूट बीन. आनी दुसरो सकयल रस्त्यार आशिल्लो. मात्सो कशायकसो, धगळपगळ मुस्तायकी, खाड मात्शें वाडलां, आनी हांगा थंय बेठोच खाजयल्ले भशेन करतालो. दोगांय भितर बाचा-बाची जाताली. म्हाका ती सारकी आयकूंक येनासली. निमाणो देस्पास दिल्ले भशेन त्या अपटुडेट तरनाट्यान दुसऱ्याच्या तोंडामुखार हातबीत वावडीत म्हळें,

''ऐसाच रे तेरा, ये तीसरी बार हुवा, भरोसा नै रे तुम लोगोंका।''

''अरे, सुनलो तो, मेरी तकलीफ''

''मालूम पडा रे, तूम घाटी रे''

''घाटी क्या घाटी? कोनसी घाटी?''



''कोनसी घाटी? ए, अरे तुमूच घाटी, जाव जाव, बात मत कर घांटी मरे तु''

तो कितेंतरी बडबडत गेलो. फुटपाथावेलो तरनाटो आतां म्हजेकडेन वळ्ळो. हांव आयकतालों ताका खबर आसलें.

''कितें रे कितें जालें फात्यापारार तुमचें?''

फात्यापारार बी आयकतरीत ताका रोखडेंच कळ्ळें, हें प्रकरण सारकेंच गोंयकार आसतलें.

''ना, पात्रांव, आमका ते पैसो दिवपाची. दिना ते तीन मयनी ज्याली.''

''खंयचो रे तो?''

तरनाटो वोगीच रावलो.

''घांटी रे तो?'' हांवे विचाल्लें.

''हय पात्रांव.''

''आनी तूं? तूं कोण? तूं गोंयकार रे?''

''हां पात्रांव,आमी गोंयची.''

''कितलीं वर्सां रावता गोंयांत?''

''दोन चार साल जाले आमी ते करनजाल्येचे कामील बाडकार.''

''तूं करंजाळेचो कामील भाटकार म्हण्टा?''

''ना ,तेची रूम रावता आमी.''

ताणें आपली काणी सांगली ती थोडे भितर अशी. ताचें नांव हणमन्तप्पा. तो गदगच्यान खंय बारा रुपयांच्या तिकीटाच्या वाटेर खंयची तरी हाळी लागता थंयचो. चार वर्सां आदीं गोंयांत आयलो, बांधकाम करपी मुकादमा कडेन हमाल म्हुण स म्हयने रावलो. थंय चिऱ्यांचें ड्रेसिंग शिकलो. दुसऱ्या मुकादमा वांगडा ड्रेसर म्हुण रावलो. आतां तो गंवडेकाम करता आनी ताचो विचार मुकादम जावपाचो आसा हें ताणें सांगलें तेन्ना ताचे दोळे जे तरेन लिकलिकले तें पळयल्यार तो फुडले पावटी वर्स दोन वर्सांनी म्हाका मेळळयार हांव ताका वळखचोंच ना आनी तो मात झेतान म्हाका हटकून विचारतलो, 'पात्राम,आमका वलकले तुमी, आमी हणमन्तप्पा, कॉन्ट्राटर.'

असले हणमन्तप्पा, नागप्पा, बसप्पा, मंजू,कोटरे,कट्टीमनी,शब्बीर, चांदसाब, बडेसाब, रामयाद, मातदी प्रसाद,आनी कितलेशेच आमी वळखतात. ते कालचे घांटी, आयचे जांव फायचे गोंयकार. आमी जेन्ना आमी आमका गोंयकार अशें म्हण्टात,तेन्ना आमी हे संकल्पनेभितर कोण ते साबार लोक आसतात.

म्हज्या गोंयकार भावान साडेधांक दुकान उगडलें.

''आयज लेट जालो रे तुका?''

''ना, कित्याक?''

''साडेणवांक उगडटालो न्हय रे तूं!''

''ना, आतां धांक उगडटां, आयज मात्सो लेट जालो. आयज अंगारक न्हय, इल्लें सामान बिमान घरा पावयलें.सांग, कित्याक आयिल्लो, बरो मरे तूं?''

''म्हाका जाय तें सामान ताचेकडें मेळूं शकनाशिल्लें. कारण ताणें आतां तो धंदो बंद करीत हाडिल्लो.. थंय एक मिनिस्टराचें व्हडलें हॉटेल येवपाचें आसलें, हाची तात्पुरती स्थापना दुसरेकडे जावपाची आसली आनी फुडें हाका दोन दुकानां मेळपाचीं आसलीं.

घरा येतना हांव विचार करपाक लागलों. गोंयकार म्हळ्यार कोण गोंयकार ह्या उतराचो खंयचो अर्थ घेवपाचो? कायद्या प्रमाण, भावनिक नात्यान, भाशेवेल्यान काय आनीक कितें अशें आसचें पडटा, आनी तें जाचे कडेन ना तो गोंयकार न्हय. आतां ह्या खिणाक सामकी गरज उप्रासल्या गोंयांत राबितो केल्ल्या सगल्याच मनशांक विचारपाची आनी ताणी मनापसून सांगपाची 'ते गोंयकार? काय भायले?' रोमांत आसतना रोमन जावन रावचें अशें म्हण्टात, तशेंच, गोंयांत रावतल्यांनी गोंयकार जावन रावपाक नाका?

आयज कितलेशेच प्रस्न आमी गोंयचे म्हण्टात ते गोंयचे जावन आसातूय पूण ते उप्रासल्यात भायल्या लोकांक लागून. चोरयो, घरफोडी, मारामाऱ्यो, सादे खून, सुपारी खून कोण करतात? आमचीं सगलीं मार्केटां, दर्यावेळो, कोणे व्यापल्यात?

दुकानार, बाजारांत खंयूय चलात, तुमी कोंकणी उलयल्यार कोंकणीतल्यान जाप मेळना. वोळखीचे लोक लेगीत हिन्दी कातरतात. दिसान दीस हें वाडत आसा. कालचे परस आमचो नीज गोंयकारांचो आंकडो उणो जाला आनी फायचे परस परवांचो जातलो. आमी कोंकणी – मराठी, नागरी – रोमी, दाबोळी– मोपा हे आमचे नदरेन मुळावे प्रस्न घेवन झगडत रावूया. निवडून हाडूया, निवडून येवया अशींच वर्सां वतलीं. निमाणी आमच्याच घरांतल्यान आमची सांटली पोटली भायर मारतरीत आमी एकाद्रे जागे जाल्यार जायतूय बी. (तो राज ठाकरे बिहाऱ्यांबद्दल कितें उलयता तें आयकतात आमी. तसल्यो फटाशो फकत निवडून येवपाक नेत्यांक उपकारतात.) तो मेरेन आमी कोंकणी विसरतले. आमचे विधानसभेंत भायले लोक निवडून येतले, मागीर मराठी वांगडाच हिन्दी इंगलेज बी भासो राज्यभासो करच्यो अश्यो मागण्यो जातल्यो. कोंकणी भायऱ्या गोंयकाराक कोणूय जळार कशी चिड्डीतलो.

गोंयचे इल्लेशे अपुरबायेचे आमचे जमनीचेर आनी साद्यासुद्या गोंयकारांचेर कितले कितले म्हुण अत्याचार आनीक जावपाचे आसात, कोणाक खबर.

■

– गजानन जोग
ताळगांव– गोंय. मो. : ९४२१२४६६५५

## शीला कोळंबकार हांच्या 'शीला-लेख' पुस्तकाक विमला व्ही. पै विश्व कोंकणी साहित्य पुरस्कार



नामनेची कोंकणी लेखिका शीला कोळंबकार हांकां मंगळूरच्या विश्व कोंकणी केंद्राचो श्रीमती विमला व्ही. पै विश्व कोंकणी साहित्य पुरस्कार 'शीला-लेख' ह्या ललित पुस्तकाक फावो जाला. एक लाख रुपया, मानचिन्ह, शाल, प्रशस्तीपत्रक अश्या स्वरुपाचो हो पुरस्कार शीला कोळंबकाराक फेब्रुवारींत भेटयतले. हें पुस्तक उप्रांत इंग्लिश, कन्नड, हिन्दी आनी मल्याळम आनी हेर भाशांनी अणकारीत जातलें.

शीला कोळंबकार हांकां हे आदीं साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार तशेंच साहित्य अकादमीचो अणकाराचो पुरस्कार, सॅमसंग टागोर साहित्य पुरस्कार आनी हेर भोवमान फावो जाल्यात.

## कुडचडेंच्या कोंकणी कला साहित्य केंद्राचे वर्सुकी साहित्य पुरस्कार भेटयले

कुडचडेंच्या कोंकणी कला साहित्य केंद्राच्या २६व्या वर्धापन दिसा निमतान कुडचडेंच्या सर्वोदय हायस्कुलांत घडोवन हाडिल्ल्या एका सुवाळ्यांत केंद्राचे वर्सुकी साहित्य पुरस्कार भेटयले. ह्या वेळार मुखेल सोयरे म्हुण राजभास संचालनालयाचे संचालक डॉ. प्रकाश वजरीकार हाजीर आशिल्ले. नामनेचे साहित्यिक महाबळेश्वर सैलान यजमानकी चलयली. ह्या सुवाळ्यांत मीना काकोडकार हांकां जनगंगा पुरस्कार, माणिकराव गावणेकार हांकां सर्गेस्त श्याम काकोडकार अणकार पुरस्कार, मिलिंद काकोडकार हांकां सर्गेस्त सरिता सदानंद खानोलकार नाट्य लेखन पुरस्कार आनी नामनेची कवयित्री नयना आडारकार हांकां सर्गेस्त रामनाथ मथा बालसाहित्य पुरस्कार भेटयले.



**कुडचडेंच्या कोंकणी कला साहित्य केंद्राच्या २६व्या वर्धापन दिसा निमतान भेटयल्ल्या पुरस्कारांचे मानकरी मिलींद काकोडकार, मीना काकोडकार, नयना आडारकार, माणिकराव गावणेकार वांगडा मुखेल सोयरे डॉ. प्रकाश वझरीकार, सुवाळ्याचे यजमान महाबळेश्वर सैल, केंद्राच्यो अध्यक्ष डॉ. जयंती नायक आनी सचिव रत्नदीप वस्त.**

# आकर्शण




बिम्ब परिवाराची मुंबयची वांगडी डॉ. सुलभा कोरे हांच्या 'स्पर्श हरवलेले' ह्या कविता संग्रहाचें प्रकाशन मुंबय सतीश काळशेकर हांच्या हस्तुकीं जालें. त्या वेळार नाटककार प्र. ल. मयेकर, किर्ती कॉलेजचे मग्रे, संगिता धायगुडे, आनी कवी पांढरपट्टे आनी हेर मानेस्त.



ज्येश्ठ कोंकणी कवी आर. रामनाथ हांच्या 'निसण' ह्या कविता संग्रहाचें प्रकाशन २८ डिसेंबर २०१३ ह्या दिसा पणजेच्या इन्स्टिट्यूट मिनेझीस ब्रागांझा सभाघरांत बिम्ब प्रकाशन आनी इन्स्टिट्यूट मिनेझीस ब्रागांझा संस्थेच्या जोड पालवान जालें. त्या वेळार हाजीर आशिल्ले मुखेल सोयरे डॉ. तानाजी हळर्णकार, इन्स्टिट्यूट मिनेझीस ब्रागांझाचे अध्यक्ष चित्रकार संजय हरमलकार, नामनेचे कवी माधव बोरकार, बिम्बचे संपादक आनी साहित्यिक दिलीप बोरकार आनी कवी आर. रामनाथ.

# भलायकी

बिम्ब
मासिक



# तपासणी आनी दुयेंसांविशीं म्हायती



**तपासणीविशी ज्ञान**

तुमच्या दुयेंसाविशीं दोतोराक बरे भशेन कळपाक रक्ताची तपासणी, 'ॲक्सरे' आनी दुसऱ्यो तपासण्यो उपयोगाच्यो जावंक शकतात :-

**तपासणीविशीं कांय विचार :**

- तपासणी कशी जातली आनी तिका कितलो वेळ लागतलो?
- तपासणी करतकूच आमकां कसली म्हायती मेळटली?
- तपासणीक लागून दुसरे भलायकेचे कसले प्रस्न उप्रासूंक शकतात?
- तपासणीक लागून आनी कसली भिरांत आसूंक शकता?
- तपासणीचो निकाल/रिपोर्ट केन्ना आनी कसो मेळटलो?
- तपासणी करूंक कितलो खर्च येतलो?
- तपासणी करचे आदीं हांवें कितें करूंक जाय?
- तपासणी करतना कितें दूख नाजाल्यार त्रास जातले?
- दुयेंसाची म्हायती मेळूंक हीच तपासणी आसा की दुसऱ्यो आसात?
- आनी दुसऱ्यो तपासण्यो करच्यो पडटल्यो?
- तपासणी केल्या उपरांत कितें करपाचें?

**तुमच्या दुयेंसांविशीं ज्ञान :**

तुमकां कसलें दुयेंस जालां आनी ताचो तुमचेर आनी तुमच्या घरच्यांचेर परिणाम जावंक शकता ते विशीं तुमच्या दोतोराक ना जाल्यार ताचे कचेरींत काम करपी नर्सीक विचारात :

- म्हाका कसलें दुयेंस जालां?
- ह्या दुयेंसाचो परिणाम कितें?
- म्हज्या सदाचारान कसलो बदल करचो पडटलो?
- म्हज्या घरच्यांक म्हजे पासून हें दुयेंस जावंक शकता?
- ह्या दुयेंसाक लागून म्हज्या घरांत दुसऱ्याचो आधार घेवंचो पडटलो? कसलो आधार?
- म्हज्या दुयेंसाविशीं अदीक म्हायती घेवपाक दोतोराकडेन कितें आसा?
- म्हज्या दुयेंसाक, म्हाका मदत करूंक खंयच्यो संस्था/जमाव आसात?

खूब फावटी दोतोरांक रुग्णाच्या ह्या प्रस्नांची जाप दिवपाक वेळ नासता. पूण हें रुग्णाचे दृश्टीन योग्य न्हय. रुग्णाक आपल्या दुयेंसा बद्दल योग्य ती म्हायती मेळप एकदम गरजेचें. एक तर तो ताचो हक्क आसता, दुसरें म्हणजे तो हाचे खातीर फी भरता आनी तिसरें आनी अधीक म्हत्वाचें म्हणजे – जितली पुराय आनी योग्य म्हायती मेळटा, तितलीच तो आपली काळजी घेवंक शकता आनी बेगीन बरो जावपाचो यत्न करूंक शकता. रूग्ण हो दुयेंसाच्या उपचारांतलो अर्दो वांटेकार. ताका जर आपल्या दुयेंसा बद्दल सारकी म्हायती दिवंक ना जाल्यार तो ती जबाबदारी कशी पाळूंक शकतलो? ■

– राज वैद्य
पणजे – गोंय. मो. : ९४२२०६२२८६



**– संतोष शिवराम हळर्णकार**
बांदिवडे–बंदर,
फोंडा–गोवा ४०३ ४०१

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| १ | | २ | ■ | ३ | ४ | | ५ | ६ | ■ |
| | ■ | ७ | ८ | | | ■ | ९ | | |
| १० | ११ | ■ | १२ | | ■ | १३ | | ■ | ■ |
| ■ | १४ | | | ■ | १५ | | | १६ | ■ |
| १७ | | ■ | | ■ | १८ | | ■ | | ■ |
| | ■ | १९ | | २० | | ■ | २१ | | २२ |
| २३ | | | ■ | | ■ | २४ | ■ | २५ | |
| | ■ | २६ | २७ | ■ | २८ | | २९ | | ■ |
| ■ | ३० | ■ | ३१ | | | ■ | | ■ | ३२ |
| ३३ | | | | ■ | ३४ | | | | |

## आडवे

१. गांवच्या प्रस्नांचेर गांवकारांनी केल्ली भासाभास, गांवपण, ३. खूब सवण्यांचो आवाज, ७. बातमी, खबर, ९. रानाची सुंदरताय, रानांतल्या झाडां-पेडांची सोबितकाय, १०. नाकांत घालपाची मोतयांची बायलांची वस्त, १२. अंतराळांतलो चंद्र, सूर्यासारको गुळो, १३. धा आनी दोन, १४. चडांच चड, १५. पातळ कल्लाचो कड्डो, १७. आपूण, स्वता, १८. ल्हान, १९. पोटांत भुरगें आशिल्ली (बायल मनीस), २१. खावप, रगडप, भकाभक खावप, २३. कित्या कितेंय उलोवपी आनी करपी, फटकळ, २५. भंय, भिरांत (हिंदी), २६. केंसांत जाल्लें उयेचें तांती, २८. शक्य आसप, ३१. दोड घालप, कवळप, ३३. आळ, जादू, ३४. मोटेपण दाखोवप, बडाय दाखोवप.

## उबे

१. नुस्त्याची माळ, २. कागदाचे वा मदेराचे बारीक कुडके, चुंबन (इंग्लीश), ३. चिंचे बोटांतली बी, ४. साठ मिनटांचो काळ, ५. घरचो वावर करपी बायल मनीस, एक हजार किलोचें वजन, ८. घराचो फाटलो भाग, ११. पुरो जावप, गळीत जावप, १३. पोटली बांदपाचें लुगट, १५. सयसुवाद नाशिल्लें, कसलोच फायदो नाशिल्लें, १६. थरथरप, १७. मुळचो गांवकार, १९. ल्हान पोटली, २०. कंटाळो, उबगण, २२. भायलें, परकी, दुसरें, २४. अकरावी रास, २७. धवळून म्हेळें केल्लें, २८. आस्पत, पयसो आडको, २९. एक ऋतू, XXX कानेटकर : एक मराठी नाटककार, ३०. बंधू, ब्रदर, ३२. हडताळ, स्ट्राईक.

## डिसेंबर १३ उतरकुवाड्याची जाप

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| दा | व | कू | ळ | ■ | ■ | आ | म | दा | र |
| मो | ■ | प | ट | ये | का | र | ■ | न | ■ |
| द | स | ■ | प | ■ | य | ती | ■ | प | त |
| र | ज | ■ | ट | पा | ळ | ■ | प | त्र | क |
| ■ | प | च | प | ■ | ■ | जा | त्रा | ■ | त |
| आ | ■ | क | ■ | आं | ग | ■ | व | र्सु | की |
| च | व | च | वी | त | ■ | आ | ळ | ■ | त |
| व | ■ | की | ■ | री | त | ■ | ■ | बे | ■ |
| प | रा | त | ■ | क | र | व | ळी | ■ | सो |
| ■ | म | ■ | मे | ■ | प | ■ | ख | टा | रो |



*'ज्या घरांतले सगळेच जाण हांव तुज्याकूय व्हड' अशें म्हणून एकमेकां लागीं सर्त करतात तें घर काबार जाता. ज्या देशांतले सगळेच जाण फुडारी जावन एकामेकाचे पांय ओडटात तो देशूय काबार जाता.*

# प्रजासत्ताक दिन

अठराशें सत्तावनांतलें बंड चिड्डून उडयल्या उपरांत एक दीस इंग्रजांनी एक ऑर्द सोडली.

सगळ्यांनी आपापल्या घरांत आशिल्लीं शस्त्रां सरकारा सुवादीन करचीं म्हुण.

आनी अजाप म्हळ्यार –

सरकारी ऑर्द सुटनाफुडें आमी खिणाचोय कळाव लायनासतना सगळीं शस्त्रां व्हरून सरकारा सुवादीन केलीं!

प्रस्न येता, शस्त्रसंन्यास घेवपाक आमी रोखड्या रोखडे कशे तयार जाले? आमच्यांत मातूय सत्व उरूंक नाशिल्लें? आमी साप मेल्ले? आमी आमचें स्वातंत्र्य अशें होगडावपाक तयार कशे जाले?

इतिहास ह्या प्रस्नाची जाप दितना सांगता, ह्या देशांतल्या लोकांक राजकी जिवीत केन्नाच नाशिल्लें. 'राज्य कोणूय करूं, आमकां कितें लागता? आमी आमचें पळोवचें. राज्याचें राजा पळोवन घेत' हो आमचो 'राष्ट्रीय' सभाव आमकां सदांच बादला.

राजकी मळार आमी रामायण काळा पसून हेच उदासीनतायेन जियेत आयल्यात. एक राजा वचून आमचेर दुसरो राजा राज्य करूंक लागला, केन्ना केन्ना ह्या दुसऱ्या राजान आमच्या राजाक झुजांत उडोवन आमचें राज्य हातासलां. राजा पडला तेन्ना आमीय पडल्यात. आमी केन्नाच नाका आशिल्ल्या राजाक काडपा खातीर वा जाय आशिल्ल्याक हाडपा खातीर कितेंच करूंक ना. आमचेर राज्य कोणें करचें, आमचें राज्य कशें आसचें, आमी केन्नाच थारावंक ना.

'लोक' ह्या नात्यान आमी एकूच केलां.

जो राजा गादयेर बसला ताका नमस्कार करप, तो दिता त्या हुकमाक मोन्यांनी पाळो दिवप, तो मागता तो टॅक्स भरप आनी तो त्रास दिवपाक लागलो जाल्यार भितल्ले भितर फणफणून ताका गाळी संवप-इतलेंच आमी केलां.

केन्नाय कोणाक हाच्याकूय चड कितेंय दिसलेंच जाल्यार 'ह्या राजाची सेवा करूंक मेळ्ळ्यार पुरो' इतलेंच दिसलां.

मागीर तो राजा देशी आसूं वा विदेशी आसूं.

पांच-धा हजार वर्सांचो आमचो हो सभाव.

असल्या सभावाच्या ह्या लोकांक राजकर्णाचें म्हत्व पटलें तें पयलेच खेपे इंग्रजांच्या राज्यांत. इंग्रजांनी आमच्या हातांतलीं शस्त्रां काडून घेतलीं. आमच्यो पूर्व-पुरातन पंचायती मोडल्यो. आमचो व्यापार बुडयलो. उद्योग धंदे मोडले. आमचो आत्मो हाणलो. आनी-

राज्य करपाक आमी सामकेच बाबत म्हुण आमकां पटोवन दिलें.

चोंयवर्शिनी आमी नागवले तेन्नाच पारतंत्र्या दुख्ख नरका पाश्ट कशें आमकां दिसपाक लागलें. आनी तेन्नाच स्वातंत्र्याचें म्हत्व आमकां समजलें.

'आमकां स्वातंत्र्य जाय' अशें आमकां दिसपाक लागलें तें इतिहासांत पयलेच खेपे हे मुस्तींत. आमच्या बऱ्या नशिबान आमकां फुडारीय अशे मेळ्ळे की जांणीं स्वातंत्र्याची आमची भूक जागयली, वाडयली आनी –

आमकां त्यागाची आनी बलिदानाची देख दिवन चाळीस-पन्नास वर्सां भितर ती भागयली.

'पूर्ण स्वराज्य' आमी जोडलें. आयज पूर्ण स्वराज्याच्या जल्म-दिसा आमी आमकांच विचारुया.

'पूर्ण स्वराज्य'क फाव सारके आमी आसात? काय, इंग्रजांनी 'शस्त्रां दियात' म्हुण आमकां सांगिल्लें त्या वेळार जशे आशिल्ले तशेच आसात? आमचें स्वराज्य तिगोवपाचे गुण आमी वाडयल्या? काय, स्वराज्य होगडावपाचे अवगूण अजुनूय आमच्यांत तग धरून आसात? काय, अजुनूय 'राज्याचें आमकां कितें लागता?' हो आमचो सभाव जश्या तसो आसा?

मोट्या कश्टांनी हें स्वराज्य आमी जोडलां तें आमी तिगोवन दवरतले जाल्यार-

आमचे पूर्व-पुरातन अवगूण आमी वळखून घेवन ते पयस करपाक वावरूंक जाय. कित्या खातीर आमकां पाकिस्तान दिवचें पडलें, कित्या खातीर गांधींक आपलें बलिदान दिवचें पडलें ह्या प्रस्नांचें चिंतनूय ह्या निमित्त्यान करूंक जाय.

स्वराज्य जोडप कठीण आशिल्लें. स्वराज्य तिगोवप ताच्याकूय कठीण.

आमच्या एका पूर्वजान सांगिल्लें.

सर्वे महत्वं इच्छन्ति कुलं तद् अवतीदति।
सर्वे यत्र विनेत्तार: राष्ट्रं तद् नाशं आप्नुयात्त।।

'ज्या घरांतले सगळेच जाण हांव तुज्याकूय व्हड' अशें म्हणून एकमेकां लागीं सर्त करतात तें घर काबार जाता. ज्या देशांतले सगळेच जाण फुडारी जावन एकामेकाचे पांय ओडटात तो देशूय काबार जाता.

ही शिकवण आमकां समजल्या काय ना हाचो सोद लावपाचो दीस हो.

■

# प्रियदर्शन

*रवीन्द्रबाबांक आमी कितें नवें बरयलां हाचो सदांच हुसको आसतालो. कितेंय नवें बरयलें, नवें पुस्तक आयलें, बिम्ब आयलें काय तांकां दाखोवप जातालें. मागीर ते वाचून आपलो अभिप्राय दिताले. मेळप जालें ना जाल्यार फोन करताले. तांचो एकल्याचो अभिप्राय म्हळ्यार म्हज्या साहित्याचें प्रमाणपत्र आसतालें.*

प्रिय गुरूनाथबाब,

प्रियदर्शनाचे तुमी पयले मानकरी आसतले अशी म्हाका कल्पना लेगीत नाशिल्ली. तकलेंत वेगळोचं विशय घोळटालो. पूण ते दिसा तुमकां हांवें फोन केलो कितें, तुमी म्हाका जेवणाक आग्रो केलो कितें आनी हांवें मानून घेवन मागीर आमच्यो गजाली रंगल्यो कितें, हांव वेगळेच धुंदींत घरा आयलों.

गुरूनाथबाब, हांव सहसा दनपारचो कोणागेर जेवपाक वचना. वतालों तो रवीन्द्रबाबागेर. जेवपाक म्हुण वतालों अशें न्हय, तर रवीन्द्रबाब जेवले बगर सोडी नाशिल्ले आनी जेवल्या उप्रांत तुका जाय तें कर, बसपाचें आसल्यार बस, ना तर वच म्हणटाले आनी आपूण आड पडपाक वताले! तशें कितें उलोवपाचें आसल्यार आपूण मात्सो आड पडटां, तूंय पड नातर वाचीत बस म्हणटाले. म्हणचें सगळें पारदर्शक. खंयच अडचल्लेवरी दिसऽ नाशिल्लें.

रवीन्द्रबाब आतां नात हाचें कोणाक लुकसाण जालें तें म्हाका खबर ना. म्हाका मात खूऽब्ब म्हळ्यार खूब्ब जालें. आतां दनपारचें जेवण मेळना म्हुण आसतलें! असो तुमच्या मनांत एक तिरसुवाद विचार आयलाच आसतलो! तुमीय रवीन्द्रबाबांचेच जात कुळीचे. तांचेय भितर एक तिरसुवादीक गोंयकार आशिल्लो. पूण काळीज सामकें नितळ!

हांव रवीन्द्रबाब नासून म्हजें लुकसाण जालां अशें म्हणटां तें तुमी कांय दिसां आदीं, आमचें उलोवप जाल्या उप्रांत सुनापरान्ताचेर बरयिल्लें. रवीन्द्रबाबांक आमी कितें नवें बरयलां हाचो सदांच हुसको आसतालो. कितेंय नवें बरयलें, नवें पुस्तक आयलें, बिम्ब आयलें काय तांकां दाखोवप जातालें. मागीर ते वाचून आपलो अभिप्राय दिताले. मेळप जालें ना जाल्यार फोन करताले. तांचो एकल्याचो अभिप्राय म्हळ्यार म्हज्या साहित्याचें प्रमाणपत्र आसतालें. तांच्या अभिप्रायाखातीरूच बरें बरें बरोवप जातालें. आयज कोण वाचपी नाच आनी आशिल्लो दुसऱ्याचें बरें म्हणना. तशी दानतूच ना. नाय म्हळ्यार सुरेश आमोणकार, सुरेश बोरकार, माधव बोरकार बी कळयताय केन्नाय. पूण रवीन्द्रबाब ते रवीन्द्रबाब! आसूं, दोळ्यांत दुकां आयलीं म्हज्या...

ते दिसाची आमची दनपार बरीऽ सरली. हांव तुमकां मेळूंक असो येवंक नाशिल्लों. म्हजीं



मडगांवचीं कामां बेगीन उलगलीं. तुमचो बिम्बा खातीर 'बायट' घेवया म्हुण फोन केल्लो. तर तुमी जेवणाचें आमंत्रण दिलें. ना म्हणप जालें ना आनी म्हळें ना तेंय एका अर्थान बरेंच जालें. पोटाचीय भूक भागली आनी तकलेचीय! रवीन्द्रबाबां उप्रांत आयज एक-दोग जाण कोण उरल्यात, जांचेकडेन वचून बसचें दिसता, निदान दोन उतरां आयकुया अशें दिसता तांतले तुमी एक. नातर सगळे... आसूं!

तुमचे भितर म्हाका एक गूण जो दिसला, तो म्हळ्यार तुमचो गोंयांवेलो मोग! आनी हे पिरायेर लेगीत तरनाट्यांक लजेक घालपी तुमची काम करपाची पध्दत आनी हावेस! तुमी मार्ग ही चळवळ सुरू केली, नाय म्हळ्यार म्हज्या मनांत विचार आयिल्लो, गुरूनाथबाबाक हे म्हातारपणार आनी ह्यो राटावळी कित्याक जाय? भरपूर पेन्शन मेळटा. मारपाचें फोल्ग! पूण तुमी जीवनाचो अर्थ समजून घेतला. निमणे स्वासामेरेन आनी कूड सांगात दिता मेरेन समाजाक ताकता तें दियत रावंक जाय हें तत्वगिन्यान म्हाका तुमचे भेटेंत होलमलें आनी हांव तुमचे मुखार कितलो ल्हान हाची जाणविकाय जाली.

हें सगळें बरयलां तें तुमकां मसको मारूंक न्हय. म्हाका तुमचे कडल्यान तशें कांयच उठोवपाचें ना. पूण म्हाका जें भावलें तें हांवें मांडलें इतलेंच. मनांत तशेंच दवरिल्लें जाल्यार, आरे, हें सांगूंक जाय आशिल्लें अशें दिसूंक नाका.

म्हाका राहुल गांधीविशींचो, सोनिया गांधी विशींचो तुमचो मुद्दो पटलो. म्हजेंय ह्या दोगांविशीं तेंच मत आसा. सोनिया गांधीक जाय जाल्यार आपल्या ह्या दोगांय भुरग्यांक घेवन आपल्या देशांत वचूं येतालें. पूण तिणें चलून आयिल्लें प्रधानमंत्रीपद सोडलें. लोकांनी केल्ले नाना तरेचे आरोप सोंसले. थीर रावली ती! राहुलय तसोच. मनांत जें कितें आसा तें दाखय लिपय करी नासतना उलोवन मेकळो जाता. आपल्याक पंतप्रधान जावपाचें ना म्हणटा. देश सेवेक आडखळ थारची न्हय म्हुण लग्न जावंचोना अशें म्हणटा. आनी आमी ताच्यो बकच्छायो करतात. म्हणटकच आमकां प्रधानमंत्री कसलो जाय? मोदी सारको? विचार करतां तेन्ना खूब वायट दिसता. ह्याच अंकांत रवीन्द्र विचार सदरांत रवीन्द्रबाबांचो लेख आसा प्रजासत्ताकाचेर. रवीन्द्रबाबांचोय विचार तोच. आमी सगळेच फुडारी जाल्यात. शेवटाक कितें? प्रजा सत्ताकाचें आमी हांशें केलें. खरें काय न्हय?

म्हाका तुमचे वांगडा सारिल्ली ही दनपार सदांच याद उरतली.

तुमचे भितर अशीच शक्त उरूं जी आमचे सारख्यांक मुखार सरूंक उद्युक्त करतली.

इश्टागतीन तुमचोच,
दिलीप...

POSTAL LICENCE NO.: G-2/RNP.Goa/01/2009-11

RNI Regd. No. GOA KON/2008/30413



Published & Printed by Dilip Borkar Owner of Bimb Monthly, 'Dharm-Laxmi', St. Lourence, Agasaim - Goa & Printed at Impressions, Belgaum. Editor : Dilip Borkar, Ph.: 2438355, E-mail: bimbkonkani@yahoo.co.in